


# हंसध्वनी

(ललीत गद्य)



मुकेश थळी




खोर्ली, तिसवाडी - गोंय.

हंसध्वनी
(ललीत गद्य)
मुकेश थळी

HAUNSADHWANI
(Essays)
Mukesh Thali

प्रकाशन क्र. 1



**पयली उजवाडावणी:**
मार्च 2008

**उजवाडावपी:**
ॲड. अमोल थळी
आनंद प्रकाशन
5, पीडीए कॉलनी,
खोर्ली, तिसवाडी, गोंय 403110
2285497

**छापणावळ:**
सह्याद्री ऑफसॅट सिस्टम,
खोर्ली, तिसवाडी.

**मुखचित्र:**
गौरीश वेर्णेकार

**मोल:**
रु. 100/-



हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या 'साहित्य प्रभा' अनुदान येवजणे खाला उजवाडायलां




# उपकार

दामोदर घाणेकार हांचे शुद्धलेखन, व्याकरण तपासून पुस्तकाचें संपादन केल्ले खातीर...
अमोल कामत हांचे सोबीत आनी नकसूद अक्षरजुळणी केल्ले खातीर...
गौरीश वेर्णेकार हांचे ओडलायणें मुखचित्र काडिल्ले खातीर...
तुकाराम रामा शेट हांचे छापणावळींत आदार केल्ले खातीर...

# अनुक्रम

# 1. मत्स्यगंध

दुयेंत आस्तना पथ पाळून पोटाच्यो आंतकड्यो भुकेन वळवळच्यो वा गोंया भायर सप्तकभर आसतकच शिवराक जेवणान जिरवण-माक्नान बंड करचें. अशा समयार गोंयांत परतुचें आनी मुखार येवचें मत्स्यगंधान भरिल्लें सुरबुशीत हुमण. झणझणीत वासाचें. तातूंत आसचे कपे. मासाळ. कसलेय. मात सुवादीक. वेल्ल्यांचे, काळुंदरांचे, वांगुल्ल्यांचे, जावं खांपींचे लेगीत. मागीर जो तृप्तीचो धेंकर येतलो तो विशय वर्णनाचो निखालस न्हय.

बाकीबाबान म्हळां - नुस्तें आसल्यार गोंयकार वीर. नाजाल्यार मात व्हीर. नुस्तें नासल्यार गोंयकार जातलो नुस्त्याचो कांटोच. नुस्तें खायना ताका ताची रूच कितें कळटली? पियेना ताका सोऱ्याची नशा गा कितें कळटली ह्या अर्थाचीं जायतीं कवनां उर्दू शेरशायरींनी सांपडटात.

अरनॅस्ट हॅमिंग्वेन 'धी ओल्ड मॅन अॅण्ड ध सी' ही कादंबरी बरोवन नोबॅल पुरस्कार जोडलो. नुस्त्याची प्रतिमा घेवन केदे ताकदीचो संदेश दिला ताणें! नुस्तें खावप्यांनी मुजरत ती कादंबरी वाच्ची. नुस्त्याचेर खूब जाणांनी बरयलां. गोपाळकृष्ण भोब्यान नुस्त्यांचेर सोबीत पुस्तक बरयलां. बाकीबाबान एक सुंदर ललीत निबंध बरयला. मराठींत. 'सुकें घालावे आम्हासी' ह्या माथाळ्याचो. तातूंत लेखकाचें सुक्याचें प्रेम उकतें जाता. लक्ष्मणराव सरदेसायान 'कुल्ल्यो' ह्या विशयाचेर सुंदर निबंध बरयला. पां. पु. शिरोडकार हांणी 'आठवणी माझ्या कारावासाच्या काळ्या-निळ्या पाण्यांच्या' ह्या पुस्तकांत वेगवेगळ्या नुस्त्यांचें आनी तांच्या तरेकवार जिनसांचें सुरबूस वर्णन केलां.

गोंयकाराचें गोंयकारपण आनी ताची आयडेण्टिटी लिपल्या नुस्त्याच्या खवळांनी. कप्यांनी. कालवांनी, हुमणांत. कळपुटेंत. विस्वणाच्या पोस्तांनी. कल्लेच्या कांट्यांनी. वेल्ल्यांच्या सुक्यांत. कुल्ल्यांच्या तोंडाकांत, चरचरीत तळिल्ल्या मुड्डश्यांनी. बांगड्यांचे हुड्डमेथयेंत, चणकुलाच्या गंधांत, सुंगटांच्या सुक्यांत. तळिल्ले वागयेंत. ताल्ल्यांच्या वा पेडव्यांच्या मचमचीत सुक्यांत.

नुस्त्याचेर गोंयकार कितलो दुडू मोडटा हाका सुमार ना. नुस्त्याचेर गोंयकार जिणेंतलीं कितलीं वरां वगडायता हाकाय सुमार ना. नुस्त्याचेर उलोवप, नुस्त्याचीं वांटपणां, म्हारग नुस्तें फकत पळोवप, नुस्त्याक उजो कसो पेटला हाचेर उलोवप, आपणें नुस्तें कितलें खालें ताचेर उलोवप. आपली बायल कितली बरी रांदता ताचेर उलोवप अशें हें नुस्त्याचें चिंतन गोंयकार करीत आसता. पांच दिसांचो गणपती आसतकच तर पोटांत गाझ जाला, अर्जीण जालां अशें पिंरगुपी गोंयकाराचें लक्ष आसता गांथनीचेर. केन्ना काय गणपती पावयतां आनी सुंगटां खातां अशें ताच्या झोळयांक जाता. गोंया भायर गोंयकार चड तेंप तगना वा जगना ताचें कारण नुस्तें. नदर कावळ्याची तवश्यार आनी नदर बुकल्याची भोपश्यार अशें म्हणटात. येतिश्ट नुस्तें खावपी गोंयकार हो बुकलोच कसो. देवान लेगीत मत्स्यावतार घेतला. जण एकलो गोंयकार लेगीत जल्म दिलोच जाल्यार तो गोंयांत हुमण भुरकावपाक दिवचो म्हण देवा कडेन मागीत आसता. कारण ताची इत्सा भागून भागना. दर्यासंपत्ती येदी व्हड की तरातरांच्या नुस्त्यांनी आमचें जेवण समृद्ध केलां. आमचे रुचीक केन्नाच तृप्त जावची ना इतली धार हाडल्या.

ल्हान आसतना आमचे मावशेक एकदां ताळ्याक कल्लेचो कांटो लागलो. कितलो तेंप तो वचून वचनाशिल्लो. सादारणसो कांटो आसल्यार सुक्या शिताची उंडी वा केळ्याचो कुडको गिळ्ळ्यार सहज वता. पूण हो मावशेच्या ताळ्यांत आडखळिल्लो कांटो दोतोराक बी दाखय म्हणम्यर गाजलो. इतलो, की अजुनूय म्हाका कांय नुस्तें खातना ती गजाल याद जावन कांच कसो जाता. एके तरेचो फोबिया कसो. पूण सप्तकांतलें सातूय दीस वेगवेगळें नुस्तें खावपाक मात जीव अनमनना.

नुस्तें विकत घेवप ही एक कला. मांव काय ताजें, फडफडीत काय पोंवशेल्लें हें

पारखुपाक खोल समज लागता. अणभव लागता. सुंगटांच्या वांट्यांत अचळय भरशिल्ले काळ्या पोटाचे पटींग वळखून नुस्तें विकपी फटींग हें पारखुपाक कळूंक जाय. बांगडे आनी तांचे भशेन दिसपी खरखरीत आंगलोटाचे हारे वळखूंक कळूंक फावो. पालू घेतलो जाल्यार तो बाजारांतूच कातरून हाडूंक जाय. घरा कातरलो जाल्यार कातरतना हात पिंजले असली फायरींग पडटा. वर्सांसंकींनी नुस्तें घेवनूय कांय जाणांक ही कला सादना. घरच्यांच्यो तापोवण्यो ते खायत आसतात. ताजें नुस्तें हाडलें म्हूण जायना, तें वेवस्थीत उजरावन संतुलीत प्रमाणांत सगले घटक घालून रांदप ही कश्टसाध्य कला. हुमण आसू वा सुकें, तें जिबेर उरपाक जाय. विशेश म्हणल्यार, नुस्तें खावप ही आनीक एक कला. खातात सगले. कोंबयांनी उष्टिल्ले भशेन. पूण अवघे अशे आसतात जे मासाचो वा कप्याचो लेश लेगीत दवरिनात. शेंश्ट्यो लेगीत चोखून खातात. तांच्या ताटांत कांट्यांचे फकत सांगाडे दिसतात.

भुरगेंपणांत जाणटेलीं पुरुमेंत करतालीं ताची याद जाता. खारें हाडटाले. रखरखीत वतांत सुकयताले. तातूंतलें थोडें कावळे-मांजरां-सुणीं हांचे भकीक पडटालेंच. बांगडे, सुंगटां, गालमो, ताल्ले, पेडवे, केन्नाकेन्ना बोंबील लेगीत. पावसांत भिकणां घालून केल्लो दाळचो रोस आनी बांगडा तोंडाक लावपाक आसचो भाजिल्ल्या सुक्या बांगड्याचो कुडको. तेला थेंबो घाल्लो. ह्या जिनसाची सर संवसारांतल्या खंयच्याच पदार्थाक लागची ना. सुक्या सुंगटांचें वासाळ हुमण, गालम्याचें सुकें वा नुस्त्याक मामकीच फूक पडटा तेन्ना मार्शींतल्या वा म्हापशेंच्या बाजारांत विकते घेतिल्ले सुके भाजिल्ले चरचरीत पेडवे. वा! हो विशय अणभवपाचो. पोटाक तृप्त करपाचो.

कांय वर्सां आदीं गोंयच्या एका पंगडा वांगडा दिल्ली वचपाचो वेळ आयलो. परिशद आशिल्ली. चार दिसांची. संयोजक आशिल्लो ताणें मदींच एका सत्रांत आमचे वटेन बोट दाखोवन एक प्रश्न विचारलो. 'ये गोवा के फिशरमॅन काफी चालाख है, वे उसका सही जवाब देंगे' अशें म्हळें. आमकां हांसूंक आयलें आनी रडूंकूय आयलें. फिशरमॅन आनी फीश-इटर ह्या शब्दांचो मारको भेद खबर नाशिल्ल्यान ताणें ही गफलत केल्ली. तो खरें म्हळ्यार तसो शिवराक. उत्तर भारतीय. पयल्या

दिसा ताणें आमच्या पंगडांतल्या कांय जाणांनी केल्ली किसमूर उश्टायल्ली. ती ताचे जिबेर उरिल्ली. आनीक एका सत्रांत ताणें बांगड्या-किसमुरेचो उल्लेखूय केलो आनी सगले जाण हांसले.

आमच्या लोकवेदांत नुस्तें नासल्यार नवलूच. ओपारींनी नुस्तें आसा. धोडयाऱ्याचे तकलेंत तीन फातर ही ओपार घोळटा. नशिबूच फुटकें ह्या अर्थान ती वापरतात. सुंगटां दाखय पूण पोंय दाखोवं नाका ही आनीक एक म्हण. कसलीय वस्त दुसऱ्याक दाखयल्यार हरकत ना पूण ते गजालीचो उगम वा मूळ स्रोत दाखोवचो न्हय ह्या अर्थाची ही म्हण. आयतेंच मेळटा तेन्ना 'उडून शेवाळें' ह्या अर्थाची एक ओपार घोळटा. कोण एकलो नुस्तें पागूंक पनेळ घेवन वतालो खंय. कांय शेंवट्यांक अदीं मदीं उदकांतूच वयर हवेंत सरपट्यो मारपाची संवय आसता. असोच एक शेंवटो वयर उसळिल्लो तो परतो उदकांत पडलोच ना. पनेळांत पडलो आनी हाका आयतोच मेळ्ळो. नुस्त्याक कांय जाण झळकें अशेंय म्हणटात. कारवारी कोंकणींत तर 'आज झळकें कितें मेळ्ळें' अशें विचारपाची चालूच आसा. जळ म्हळ्यार उदक आनी उदकांतलें देखून जळकें आनी ताचे वयल्यान झळकें असो शब्द घडला आसूं येता. हिचण कसो फाटीक लागूं नाका असोय एक अलंकारीक वाक्प्रचार घोळटा. हिचण नांवाचें नुस्तें मोटें पेरिगोझ. हट्टी आनी तेमाचें. गरयतल्याचे गरयेक फारावलें जाल्यार तें गरयतल्याकूच फोर्सान भितर उदकांत ओडटा. देखून आपली वस्त गळ्यांत घालपाक एजंट बी खट कसो फाटीक लागता ताका हिचण कसो फाटीक लागला अशें म्हणटात.

नुस्त्याचे कांय कांय प्रात जिबेर उरतात. भुरगेपणांत चोडणां गांवघरा एक दीस आजो म्हाका घेवन सांजवेळार मानशेर गेलो. थंय आमी ताजीं फडफडीत सुंगटां घेतलीं. ते रातीं हांवें जें सुरबुशीत ताज्या सुंगटांचें दबदबीत खालां तसलें आयुश्यांत केन्नाच उश्टावंक ना. वास्को एकदां दिल्लीचे रेलगाडयेंत चडचे आदीं इश्टागेर विस्वणाचीं ताजीं तळिल्लीं पोस्तां खाल्यांत तसलीं केन्नाच खावंक नात. म्हाड्डोळचे आजयेच्या हातची कळपुटी वा म्हजे आवयन केल्लें सुंगटांचें मसाल्याचें तोंडाक हांकांय पर्याय ना अशें म्हणप लटीक जावचें ना. रायबंदरा तारी कडेन काफ देवतांत

वर्सूयभर मेळपी कालवांचें तोंडाक जिबेक मुतयता.

आमचो एक सोयरो मुंबय रावता. ताका शिनाण्यांचीं कालवां मना पसून आवडटात. गोंयांत येतकच हांव ताका तीं सणसणीत कालवां घेवन वतांच. पूण मुंबय वतनाय यादीन व्हरतां. आठ दीस फ्रिज्यांत दवरून तळून तो खाता. जयवंत दळवी दुसऱ्याक आवडपी नुस्तें मुंबयभर इश्टांक कशें पावयतालो, टॅक्सी मागीर म्हारग पडूं, ती गजाल तो म्हाका सांगता. करपांतलीं कालवां, कालवांचे दांगर, ताल्ल्यांचें सुकें, तिसऱ्यो. मोटले खुबे. वळवयचे बारीक चिंचाऱ्या भशेन दिसपी खुबे, कुंडयो हांचेर तो धबधबो कसो उलयता. अशा समयार मुंबय आसुनूय गोंयांत आशिल्ले भशेन दिसता.

कबीराचें एक कवन आसा. *पानी में मीन पियासी, मोहे सुन सुन आवे हांसी.*

आसा हरशीं उदकांत. पूण तें तानेल्लें नुस्तें पळोवन म्हाका हांसूंक येता. उदका बगर नुस्तें जगूंक शकना. आनी नुस्त्या बगर आमी गोंयकार. कितलेंय खावं. आमी सदांकाळ त्या मेम्याक तानेल्यात.

आमचो फामिलीचो दोतोर पथ सांगतना सदांच सांगी - कल्ली, कुल्ली, सांगट, सुंगट कांयच खायनासप. म्हज्या एका इश्टाक काळजा आताक आयिल्लो. दोतोरान ताका तळिल्लें नुस्तें खावपाक सामकी मनाय केल्ली. पूण हो बावडो नुस्त्याचो भक्त. वेगनी म्हळ्यार अतिताय जावं नजो. रातचीं लेगीत पांपलेटां तळून खातालो. जातलें कितें? एक दीस ग्वर आताक येवन आमकां सोडून गेलो. ताच्या आत्म्याक शांती मेळूं अशी प्रार्थना करतनाच एक विचार मनांतल्यान पासार जालो. ताणें नुस्त्याचो ध्यास बाळगिल्लो. तो ताकाच वचून मेळटलो. म्हणजे, अतृप्त उरल्ल्यान परत नुस्तें खावपाक तो गोंयांत ख्रंय तरी जल्माक आयला आसतलो...



# 2. रातींतल्यान वियेवपी फांतोड

उजवाडचे आदीं उठप हें गोंयकारांचे कालेतिंतूच ना. न्हीद हें हांव परम सूख अशें मानतां. फांतोडेर उठपाक जिवार येता. एक तृतियांशा परस चड जीण न्हिदेंत वता हें सत्य हांव जाणां. न्हीद हो जिणेंतलो एक सुंदर आनी गोड आविश्कार.

विद्यापीठ सोडून कांय वर्सां आदीं आकाशवाणीचेर पावलों तेन्ना सकाळचे शिफ्टी वेळार साडेपांचांक उठचें पडलें. 'साडेपांचांक उठून कामार वता तूं?' अशें तोंडांत बोटां घालीत अजापान विचारपी लोक अजुनूय मेळटात. खरें म्हणल्यार सकाळीं बेगीन उठप म्हज्या सभावाकूच मानना, पटना. पूण संवय जाली म्हणटकच खंयचीय गजाल आंगवळणीं पडटा. तसो हांव मुदलांत आळशी. फांतोडे वयली ड्युटी नासता तेन्ना उरिल्ल्या दिसांनी साडेआठांक उठ्‌टां. ताचे पयलीं तुमी फोन बी केल्यार तो हांवें अर्दन्हिदेंत घेतला अशें समजुचें.

दर खिणाक खंय संवसारांत तीन भुरगीं जल्माक येतात. ह्या सगल्याच भुरग्यांचे जल्म एकलो बाळंटेरशास्त्रज्ञ आनी बायलांरोगतज्ञ दोतोर पळेना. पूण कांय भुरग्यांचे जल्म दर दिसा एक दोतोर मुजरत पळेता. रातीच्या गर्भवासांतल्यान फांतोड नांवाचें बाळक उदेता. त्या बाळकाचो बारा वरां पिरायेचो दीस घडटा. सैमाच्या ह्या अपरूप आविश्काराच्या कांय बाळंटेरांक हांव गवाय आसतां, हो केदो घणघणीत अणभव! भाग्यवंताकूच फावो असो! काळोख सरत वता आनी त्या गुपाट काळख्या कुसव्यांतल्यान झिळमिळटना उजवाड ल्हवल्हव उदेता; ह्या मदल्या वेळार हांव बसीन वा स्कुटरीन कामाक ताकतिकेन वतना नाना फांतोड-रुपां अणभवत आसतां.

*'तुझ्या कृपेने दिन उगवे हा...'* हें पद फांतोडेर गुणगुणीन दिसता. परमात्म्याचे

कृपेन आनीक एक दीस हे फांतोडेंतल्यान 'गिफ्ट' रुपांत मेळटा. हो नवेपणाचो दिश्टीकोण आपणायलोना जाल्यार सगलेंच पचपचीत, बेचव, 'रुटीन' कशें दिसूं येता. किरांव थंडायेक आनी आध्यात्मीक शांततायेक वेंगावपी फांतोडे वयलें तें वातावरण मन भूलयता. वेगळ्यावेगळ्या रुतूंनी वेगळींवेगळीं फांतोड-रुपां! पावसांत भिजिल्लें सैम. वली सृश्ट आनी कुडकुडपी झाडां! टप्प टप्प करून पडपी ओथांबे. शिंयाळ्यांत दवांत भिजिल्लीं पाचवींचार झाडां. धुक्यांत बुडिल्लो निसर्ग. कापश्या धुक्या धुंवरांत हयन्हयशें दिसना अशें सैम. कालोरांत उबाळाच्या दिसांनी गाबणे फांतोडेंत सुस्तावल्लें सैम. वारो कोल्ली. तो केन्ना आसता, केन्ना नासता. व्हांवलो जाल्यार सामको नेटान. खंयच्या तरी रुखा तेंगशेर खांदयांच्या खाकोळांत व्हड कश्टांनी बडी-बडी गुंथून विणिल्लो शेवण्यां घोंटेर हालत-पडत हें वाऱ्याक खंय पडलां? तातूंतल्या नाजूक तांतयांक कितेंय जायत हें वाऱ्याक गा खंय पडलां? तो व्हांवता आपल्या कायद्या प्रमाण. आपल्या नेमां प्रमाण. पूण फांतोडे वयलो अप्रदुशीत थंड शितळ वारो आनी ताच्यो आंगाक जावपी खातकुतल्यो हो अणभवपाचो विशय!

फांतोडेर कसलोच गजगज ना. कुल्कूल ना. बोवाळ ना. सगलें कशें शांत, शांत! तें फांतोडचैतन्य तोखेन तितलें थोडेंच. सगले जाण साकरन्हिदेंत सुस्त, गाड न्हिदल्यात. सपनेतात. फांतोडेर जागृत आसतात तीग जाण. भोगी-रोगी-योगी. विलासी मनीस गुलावी फांतोडेर प्रणयांत, भोगांत आनी विशयानंदांत विलीन जाल्लो आसता. रोगी वळवळटा. मानसीक पिडेस्त तर विचारुंकूच नाका. सगल्यांत पयलीं ताची न्हीद वता. कूस परतून परतून तो आर्दांच जाम जाल्लो आसता. एका तेंपार कोंबे साद घाल्तालें त्योय उरल्यान काणयो. हो मनोरुग्ण दीस उजवाडटलो म्हूण तळमळत वाट पळेत आसता. कुडीच्या रोगांनी पिडीत मनीस वेदनेन, दुखीन जागृत आसता आनी योगी! तो फांत्यापारार ध्यानाक बसता. परमानंदांत बुडटा. ताका भायलें फांतोडेचें पडूंक ना. ताका भितरली सत्-चित्-आनंदाची फांतोड जाय. तो तातूंत देंवता आनी रममाण जाता. गुल्ल जाता.

फांतोडेर वाहनां साप उणीं. धूल्लान माखिल्ल्यो, केन्ना काय पावृया अशें म्हणीत

ताकतिकेन धांवपी बसी. पेपर म्हणल्यार खबरांपत्रां आनी दिसाळ्यांचे पेळे, कवळे मुखार, फाटल्यान, सगल्याक हुमकळावन वचपी मोटारसायकलकार दिसतात. केन्नाय एकोडो ट्रक वा दुदाची पिकप बी. पिकपींनी आनी रिक्षांनी बाजाराक वचपी भाजयो, नुस्तें विकपी बायलो रितीं पाटीं घेवन रस्त्या कुशीक उब्यो आसतात. शिंया दिसांनी ही मंडळी उज्या-धगाची हूनसाण घेतना दिसतात. आळसावल्लीं सुणीं अदींमदीं ओगीच विचित्र होळम काडटात. राती कडेन वाहनान धपको दिवन मारून उडयिल्लो सुण्याचो पेटो वा माजरा पील चेकणें जावन अस्ताव्यस्त कुडक्यां सयत डांबरांत दशिल्लें आसता.

खोरले सावन पणजे 15 किलोमिटर लेगीत अंतर ना. फांत्यापारार रस्तो तसो निर्जन आसता. केन्नाय पदेर दिसतात. सायबाच्या फेस्ता कडेन मात पोरण्या गोंयां फांत्यापारार वाहनांची गर्दी जाता. पणजे पावसर सबंद वाटेर 'घोरोघोरो' करून रांकेन येवपी मोटारसायकली आनी गाडयांचे दिवे चकचकीत उजवाडाच्यो तिकल्यो कशे दिसतात.

पणजे पाट्या वयली फांतोड मात खरीच मनभुलयणी आनी ओडलायणी. सकाळचे पासयेक चलपी, धांवपी, जॉगींग करपी लोक दिसतात. दोन-तीन सुवातांनी नुस्तेकार जाळें लावन वा गरी उदकांत बुडोवन गरोवपांत मग्न जाल्ले आसतात. एक दीस गरयेक फारावल्लें नुस्तें एकल्यान फटक करून ओडलें. हांवें ब्रेक मारलो. ताका पडूंकूच ना. तो ताजें फडफडीत नुस्तें गऱ्यांतल्यान सोडयत रावलो. हुमणांत थपथपिल्ले त्या नुस्त्याचे मासाळ कपं कितले सुवादीक लागतले ह्या विचारान जिबेक सकाळींफुडेंच लाळ सुटली. आनी नुस्तेकारा विशींचो राग गेलो.

निळीच मांडवी झेमत आसता! केन्ना सुकती आसता, केन्ना भरती! एकलो एकसुरो तारयो व्हडें तांर्डीत मुखार सरतना दिसता. केन्नाय बार्ज दिसता. आपल्याच शरिरा कडेन थुळेत आनाळ्यो गुनाळ्यो करीत भिरभिरत उडत वचपी बकीं दिसतात. तरेकतरांचीं सुकणीं. चोडणां, दिवाडे वचपी. मळबाची अनंत निळाय आनी चान्याच्या पिठाचो पालवत वचपी शिंवर. परवरीच्या आनी बिठ्ठोणच्या, एकोशे वटेनच्यो दोंगुल्ल्यांच्यो झिलींझोंपांच्यो उदकांत भिजपी सावळ्यो! मुस्त न्हिदून उठिल्ल्या

रस्त्या देगेरच्या माडांचो मोनेळ तर तोखे सारको आसता. सैमाचे हे रंग, रूप, आनंद पियेत थंयच रावचें कशें दिसता. कामाक पावंक जाय. वेळ ना, एका कवीन शिटकायलां -

What is this life if full of care

There is no time to stand and stare

एके फांतोडेर बांयगिर्णी पावतकच कुचकुचीत तोरांनी भरिल्ली एक आंबुल्ली दिसली. पेरीचें पेर तोडून खावपाक म्हाका आवडटा. तशेंच आंबले सारकें कसलेंय फळ. आंबुल्ली फानरावपाची इत्सा मनांत आयली. घोंसूच लागिल्ले. तीर धरून फातर शेंवटिलो. फट्ट करून एक तोर पडलें. कवकवीत आनी दिखाळ. खंय तरी एक सुणो आवाजान किळांचलो. इतल्यान पायणींतल्यान एकलो धांवत आयलो. धश्टपुश्ट आनी धडधाकट. हातांत बॅग, तोंडार तेलतो, सगलोच आबूज आनी धांवपळींत. पोटांत गुळो आयलो. हाच्या कपलार बी फातर पडूंक ना मूं?

- पणजे वता? गांवटी हिंदींत ताणें विचारलें. हांव बेळगांवां परस फुडें वतां. म्हजी आवय भायर पडल्या. फांतोडेर पात्रांवाक म्हणल्यार कंत्राटदाराक फोन आयलो. हांव कोंकण रेल्वेच्या करमळे फांट्यांत काम करतां. कसो पावतलों? म्हाका अंत्ययात्रेक पावुंकूच जाय... म्हजी आवय ती... बायले भशेन ओक्साबोक्शी हुडक्या हुडक्यांनी रडपी तो मातृभक्त कामगार पळोवन म्हजें काळीज पाझरलें. ताका थातारपाक, समजावपाक आनी सांत्वन करपाक वेळ खंय आसा?

- तूं पणजे वचूं नाका. फोंड्यां वच. पेत्रोल पंपार राव. ट्रक मेळटलो. पावतलो तूं.

हांवें धीर दिलो आनी म्हजी वाट धरली. दक्षीण ध्रुवार खंय स म्हयने रात आनी स म्हयने दीस आसता! थंय फांतोड कशी जाता आसतली? कोरेगाद आसतली. बारा वरांचो रातीचो गर्भवास आमची रात पळेता. थंय स म्हयने! आब्बा! देंठांतल्यान पिकिल्लें फळ तुटचें तशी ही फांतोड उदेता. दिसाक येवकारीत.

ना. म्हाका आवडना. सकाळीं फुडें उठूंक आवडना. पूण जेन्ना जेन्ना उठचें पडलां तेन्ना कितल्याश्याच फांतोड्यांची खोस हांवें काळजा पेल्यांत घट्ट सांबाळून दवरल्या. सबंद दीस गतीमान, सक्रीय आनी बरो गेला ह्या फांतोड्यांक लागून.

कोणाय सोयऱ्यांगेर वतकच तांचो ल्हान भुरगो लजेवन भिडेवन दोळ्यांचेर हात दवरून सालाचे वणटीक घश्टत घश्टत आमचे मुखार येता... अशेच तरेन ही फांतोड रातींतल्यान वियेवन केन्ना उजवाडटा हें कळ लेगीत ना. रात आनी दीस हांचे मदली खांच म्हणल्यार ही फांतोड. सैमांतलो चमत्कारूच कशी!



# 3. इश्टागतीची माटोळी

इश्ट, मित्र जाय कित्याक? मनीस समाजीक प्राणी म्हणून इश्ट जाय. इश्ट कितें करता? आमची जीण गोड, गिरेस्त आनी संपन्न करता. गरजे वेळार मदत करतात. खबरी मारपाक, गजाली करपाक, धवळे करपाक, झांकड्यो-चकाटां मारपाक, तिवल्योवावल्यो करपाक, कांय गजालीं विशीं मेकळेपणान उलोवन जीव ल्हव करपाक, आपलीं सुखां-दुख्खां सांगून भावनांक वाट करून दिवपाक, मार्गदर्शन-सल्लो-बुद्द घेवपा खातीर इश्ट जाय.

बऱ्या पुस्तकां भशेन हे बरे इश्ट वेंचून काडचे पडटात. व्हडा भाग्यान जीण समृद्ध करपी इश्ट मेळटात आनी ती इश्टागत जिणेचें अळणीपण काडून उडयता. 'ए फ्रॅण्ड इन नीड इज ए फ्रॅण्ड इण्डीड' अशी इंग्लेज म्हणणी आसा. ''हांवें इश्ट सोदपाचो यत्न केलो पूण कोण मेळ्ळोना; हांवें इश्ट जावपाचो यत्न केलो आनी सगले म्हजे इश्ट जाले'' अशीय एक अर्थपूर्ण इंग्लीश म्हण आसा.

मनीसघाण्या, एकमुळ्या, एकल्या-एकसुऱ्या, कोनशाळ्या मनशाक इश्टांचें म्हत्व खबर आसना. ताका इश्टागतीची भुकूच आसना. ताचे संकुचीत आनी अशीर विचारधारेंत इश्टागतीच्या झऱ्याचें अस्तित्वूच आसना.

'हाव टू' ह्या उतरांनी सुरू जावपी पुस्तकां अमेरिकेंत येत आसतात. जिणेच्या वेगळ्यावेगळ्या आंगां विशीं मार्गदर्शन करपी हीं पुस्तकां. बरो बापूय कसो जावप, बरी आवय कशी जावप, हुसको-भिरांत-चिंता उणीं कशी करप, बरो फुडारी कसो जावप, बरो उलोवपी कसो जावप... असलीं हीं पुस्तकां. डेल कार्नेजी ह्या लेखकान कांय वर्सां आदीं 'हाव टू वीन फ्रॅण्डस ॲण्ड इन्फ्ल्यूएन्स पीपल' म्हण एक पुस्तक

बरयिल्लें. हें पुस्तक हांवें कॉलेजींत आसतना वाचिल्लें. अजुनूय तें खपता. लोक वाचतात. हें पुस्तक वाचून आत्मसात केल्यार इश्ट जोडपाची कला आंगांत येतली काय ना हें हांव सांगूंक शकना. पूण इश्टां कडेन वागतना, वावुरतना, उलयतना, संपर्क करतना घडपी कांय म्हत्वाच्या गजालींचेर लेखकान हातूंत बोट दवरलां. इश्टांक खोस दिवपाचीं कांय सुत्रां सांगल्यांत. 12 नोव्हेंबर 1936 त उजवाडा आयिल्ल्या ह्या पुस्तकान लेखकाक रातयां संवसारभर घराघरांत पावयलो. आयजवेर लाखांनी प्रती खपून ह्या पुस्तकान खपाचे विक्रम केल्यात. मोडल्यात. इश्टागतीच्या संबंदांचेर आकांताचें संशोधन करून डेल कार्नेजीन हें पुस्तक बरयलें. इश्टागतीच्या संबंदांचेर मानसशास्त्रीय आनी हेर शास्त्रांच्या आदारान संशोधन, अभ्यास करपाक ताणें बिदागी दिवन जाणकारांक कामाक लावन तांची बुद्द घेतली. ह्या तज्ञांनी पुस्तकां धवळून ताका इश्टागतीच्या वेगळ्यावेगळ्या तासांचो, तत्त्वांचो, आपरोस दिलो. आपल्या वर्गांनी, आपले प्रयोगशाळेंत हीं सुत्रां लेखकान तिजून पळेलीं. अणभवाच्या वरकुलार घांसून पळेलीं. इश्ट आनी इश्टागत ह्या विशयाचेर वेगळ्यावेगळ्या विद्वानांचीं मतां अभ्यासलीं आनी पुस्तक बरयलें. हें पुस्तक गाजलें. अजुनूय लोक तें वाचतात. वेव्हारीक पांवड्यार कितल्या जाणांक ताचो कितलो आनी कसो लाव जाता हें पुस्तक वाचून इश्ट जोडटल्यांक खबर.

कांय जाणां कडेन इश्ट जोडपाची उपजत कला आसता. तांचे कडेन उलोवपाची, संवाद सादपाची, प्रेमान, मायेमोगान वलसाणीन मनीस जिखपाचें कसब रगतांतूच आसतात. तांचो लोकसंग्रह खूब व्हड आसता. सणांपरबां वेळार, नव्या वर्साक परबीं दिवन वा हेर समयांचेर ते नेमान ग्रिटींग कार्डां धाडटात, ई-मेल वा फोना वरवीं, वा प्रत्यक्ष अदींमदीं भेटून ते आपलो संपर्क दवरतात. आपूण दुसऱ्याक जें कितें दितां वा करतां ताची घेतल्याक पर्वा, आदर, कदर नासल्यार लेगीत ते पासियेंसान आपली भुमिका सादीत रावतात.

म्हज्या इश्टांक हांवें तीन गटांनी दवरल्यात. ही गटवारी फकत म्हजे खातीर. खाजगी वळेरी. काळजांतली. ती कोणाकूच पळोवंक मेळना आनी कळय ना. पयल्या गटांतले इश्ट चिमटीभर. हाताच्या बोटांचेर मेजपा इतले. सामके अपुरबायेचे,

हुशार, विद्वान, बुद्वंत, अभ्यासू, लवचीक, विस्वासू. विस्वासघात केन्नाच करचे नात इतल्या विस्वासाचे. तांचे अमके वागणुके विशीं कसलोय दुबाव आयल्यार मेकळेपणान तांकां विचारचें. ते मेकळेपणान कारण सांगतले. आपल्या दोशां विशीं, चुकीं विशीं जाणून घेवपाक ते सदांच वखवखिल्ले. जिणेचे विद्यार्थी ह्या नात्यान शिकपा खातीर ते सदांच उमळशिकेन, बारीकसाणीन मुखार पळोवपी. खूब खूब वाचपी. वाचतकर 'शॅर' करपी. अणभवपी, रसीकतायेन जिणेचेर मोग करपी. जिणेच्या वेगळ्यावेगळ्या मोडणां वेळार स्वता विशीं, हेरां विशीं, वेगळ्यावेगळ्या 'सिच्युएशनां' विशीं, घडणुकां विशीं चिकित्सक नदरेन पळोवपी. विस्कटावणी, फोडणिशी करपी. अंतपार नाशिल्लें पासियेंस आशिल्ले. हार्लीसराक वखदाक लेगीत मेळना त्या मर्नासपणान भरिल्लें कळशे कशे! खड्डी आनी काळीज दोनांचेय वाडीक मर्यादा ना हें जाणा जाल्ले! ह्या दोगांचीय फावो ती संतुळा सादिल्ले!

हांचो इश्ट जावपाची ऱ्हायकी आनी पात्रताय म्हजे कडेन ना अशें सदांच दिसत्तें अशे हे पयल्या गटांतले इश्ट! भोंवतणीं बुद्दीची आनी वागपांतली तशीच हेर 'मेडियोक्रिटी' सहजतायेन मोंसपी हे इश्ट. शांत, संतुळीत व्यक्तीमत्वाचे, खडीसाकरी भशेन गोड. भायल्यान आनी भितरल्यान. मनांतली सोबीतकाय आनी आंतरीक विकास कितलो जावचो हाका मर्यादा ना हें जाणा जाल्ले अशे हे इश्ट. भितरले वाडी खातीर शांतपणान कश्टपी अशे हे इश्ट. तांकां मेळना फुडें जिवाक बरें दिसता. ते उलयले नात तरी तांचो सांगात सुखदिणो आसता. तांचें मुखामळ, आंग उलयता. तातूंत तेज आसता. पारदर्शक आनी प्रामाणीक अशें तेज. उलयले जाल्यार विचारूं नाकात. ते गिरेस्त करतात, शाणो करतात, वाट दाखयतात, विचारांक गती दितात, शिकयतात, प्रेरणा, उमेद, उर्बा दितात. चिंतनां मदीं घुसपपी गोंदळाची, भ्रमाची, दुबावांची नकळत नडणी करतात. जिणेंतले बदल, सरभोंवतणच्या कसल्याय गजालींच्या आंगांची विस्कटावणी. राजकारण, समाजकारण, अर्थकारण, शिक्षण, बदलपी मुल्यां, कला, साहित्य, संस्कृती, विकृती... मर्याद ना अशा खंयच्याय विशयाचेर उलयतात, ते तातूंत भर घालतात. माहिती, गिन्यान आनी शाणेपण वाडयतात. ह्या दिवपा-घेवपांतल्यान दोगूय गिरेस्त, 'फ्रॅश' आनी 'रिनीव' जाल्यात

हाचें भान दोगांकूय आसता.

हे इश्ट खूब तेंप जरी मेळ्ळेनात, तांचे कडेन कसलोच संपर्क जालोना तरी उपरांत मेळटकूच नातें, संबंद, जोडणी तशीच आसता. कारण, मदलो विस्वासाचो पूल शंबर टक्के, खात्रीचो. त्या विस्वासाच्या, समजिकायेच्या शिमिटाक केन्नाच वेर वचना. अर्थाचो अनर्थ जायना. वाद जावं, तोंकाचे मतभेद आसूं, झगडीं जावं, ही इश्टागत अखंड आनी अभंग आसतात. त्या वादाच्या संघर्शांतल्यानूय दोगांकूय सत्याचीं केणां, किटी मेळटात. कसलोच थारायिल्लो 'एजंडा' नासतना असल्या इश्टांक केन्नाय मेळप जाता. तांचे कडेन खबरी मारतकच जो आनंद जाता ताचें वर्णन उतरांनी करूं नजो. ह्या इश्टांचें 'विजन' आनी समज हांचो वर्णपट बरोच व्हड आसता. आपल्या मर्यादां विशीं आनी स्वता विशीं तांकां स्फटिका इतली पारदर्शकताय आसता. तांचे उपकार पावोवप कठीण. तांचे कडल्यान घेत रावन स्वताक भाग्यवान समजप ही एक खोस.

पयल्या गटांतल्या इश्टांक हांव दुसऱ्या गटांत केन्नाच पावोवचों ना. दुसऱ्या गटांतल्या इश्टां कडेनूय खूब अपुरबायेचे गूण आसतात. पूण पयल्या गटांतल्या इश्टांचे तुळेन तांचे कडेन समज, परिपक्वताय आनी सोबीतकाय उणी. तरी, पयल्या गटांतल्या इश्टां कडल्यान  जे लाव जायनात ते हांचे कडल्यान जातात. एकेकदां तांचो समज मातसो उणो आशिल्ल्यान तांकां बेठोच गैरसमज जाल्ले भशेन दिसता. तांकां त्या गैरसमजांतल्यान भायर काडप सोंपें आसना. अशा वेळार पासियेंस काडून तांकां वेगळेच तरेची मखलाशी करून समजावचे पडटा. तांच्या गुणांचेर, बरेपणाचेर लक्ष दवरून हेर अवगुणां कडेन आडनदर करप समा थारता. तांच्यांतल्या बऱ्याक थापटून थापटून वयर हाडून ताका वाव दिवचो आनी दुबळेपणाची नडणी कुशळटायेन करीत रावची. ह्या दुसऱ्या गटांतल्या इश्टां कडल्यान केन्नाय थोडीभोव पिडापीड जाता खरी, पूण ताचेय परस चड तांचो फायदो जाता.

आतां तिसऱ्या गटांतले इश्ट. तिसरो गट म्हळ्यार तिसरो वर्ग न्हय. स्पश्ट सांगपाचें जाल्यार 'थर्ड क्लास' न्हय. पयल्या दोनय गटांतल्या इश्टां कडल्यान जें मेळना तें ह्या इश्टां कडल्यान मेळटा. पूण हांचे कडेन चड पासियेंस काडचें पडटा. 'लॅट दॅर बी

स्पेस इन युवर टुगॅदरनॅस' अशें खलील जिब्रानान म्हणलां. असलें अंतर ह्या इश्टां मदीं दवरचें पडटा. तांचे पसून चिमटीभर लाव जाता पूण बचकोभर मनस्ताप आनी क्लेश जातात. ते मोन्यांनी सोंसपा बगर पर्याय आसना. हातूंतल्यान चडश्या इश्टांक हांव टणटणमारी अशें 'लेबल' दितां. जिणेंत इश्टागतीचे थर परिपूर्ण जावपाक असले टणटणमारी इश्ट जायूच! ह्या गटांतल्या तरेकवार, विवीध सॅम्पलांक पळोवन एकेकदां हांसुंकूच येता. ते केन्ना, खंय आनी कसले परिस्थितींत कसले प्रस्न विचारीत हाका तारतम्य आनी तर्क आसना. हिमालय चडून वचप एक वेळ सोंपें आसत, वा दर्याचे खरीक पेंवन पावप सोंपें जायत, पूण हीं कालवां तांच्या 'मेडियोक्रिटी' च्या करपांतल्यान भायर काडप म्हाकठीण! चानयो आनी पाखे पेरां, चिकू आनी हेर फळां चोंचायत आनी चांचायत आसतात तशे हे इश्ट धोंगशीत आसतात. कोंचायत आसतात. एकेकदां ते शांती आनी भितरली निटाय इबाडटात. नाका जीव करतात. सोंशीकपणान तग आनी निस्तः काडप म्हळ्यार फकांडां न्हय. कारण इश्टागत जोडप कठीण आसता. तोडप सोंपें पूण लुकसाण करपी. ते भायर काळीज दुखोवन फोडप म्हणल्यार एक पातक. खंयच्याच इश्टाक तोडप म्हाका आवडना. ते आपूण जावन पयसावतात तेन्ना तें हातांभायर उरता. कितलेशेंच दुस्मान हे आदले जिवाभावाचे इश्ट आसतात हें केदें कोडू सत्य! इश्ट दुस्मान जावंक फावोना देखून तडजोड आनी पासियेंस कार्दात रावचें पडटा. बेसूर, कर्कश, लय हालता अशें ह्या इश्टांचें गायन, आनी एकेकदां बोवाळ, शांत चित्तान सोंशीत रावचो पडटा. संतपदाच्या मार्गार चलिल्ले भशेन!

एक खरें! तिसऱ्य गटांतले इश्ट म्हाका तितलेंच प्रिय. ते सगळेंच म्हाका जाय. तातूंतले कोण खंयच्या प्रसंगार कशे वागत हाचो भरवंसो कोण दितलो? एकेकदां एक विस्वासू इश्ट अपेक्षे प्रमाण आदार दिना आनी जाका काळजांत उणी सुवात आसा तो त्या खिणाक सज्जन कसो वागून, देव कसो धांवत येता आनी काळीज जिखता. कोणाय विशीं 'जजमॅण्टल' जावप म्हळ्यार चूक थारूं येता. तेदीं तांक आनी समर्थताय आमकां ना. मनशांचो बारीकसाणीन अभ्यास करपाच्या छंदांतल्यान ही गटवारी केल्या, इतलेंच!

एक संस्कृत सुभाशीत सांगता -

अमंत्रं अक्षरं नास्ति, नास्ति मूळं अनौषधम्।

अयोग्यं पुरुषो नास्ति, योजकस्तत्र दुर्लभः॥

(अर्थहीण अशें उतर नासताच, नासता झाड बिनवखदाचें.

बिनकामाचो असो मनीस नासताच, फावो तसो वापरपीच मेळना.)

उपाट अर्थ भरला ह्या वचनांत. घडयाळी (डिजिटल धरून) भितरले सगलेच इल्ले इल्ले मेकळे भाग तितलेच म्हत्वाचे. सगलेच जाय. नाजाल्यार घडयाळ चलची ना. संगिताच्या वाद्यवृंदांत खिळखिळो वाजोवपी वा समेर येतना बडी मारपी तितलोच म्हत्वाचो जितले बाकीचे. तशेच म्हजे सगलेव इश्ट म्हाका म्हत्वाचे. गरजेचे. वाद्याचे कालेती प्रमाण तातूंतल्यान सूर काडपाची कला जाणा जावंक फावो.

माटोळेंत जिनसांवार नग आसतात. जिनस हुमकळत आसतात. बारीक, मोटे, लांब. जिणेच्या मखरा मुखार इश्टागतीची ही माटोळी जितली रंगयाळी आसत तितली तिची गोडसाण अदीक. हांसोवपाक, रडोवपाक, खेळोवपाक, दुख्खा वेळार काळजा घाव्यांचेर फूक मारपाक, मदत घेवपाक-करपाक, उर्बा-उमेद दिवपाक, मनां-काळजां वलीं करपाक... सगले नग जाय!

एक हिंदी कवी म्हणटा-

इस झूलना का रस कितना मीठा!

इश्टागतीच्या ह्या झोंपाळ्याचेर बसून धोलतना जो रोस येता तो कितो गोड! इश्टागतीचे माटोळेंतल्या एका एका फळा कडेन धोलतना जो अमृताचो रोस येता तो जीण भरून उडयता. ह्या रोसा सारकें जीण घटमूट करपी टॉनीक आनीक दुसरें खंयचें आसत?



# 4. हंसध्वनी

अमूक जिनस खावपाक कित्याक आवडटा हाका कारण आसता? अमूक मनीस कित्याक आवडटा हें सांगूं येत? अमूक गांव, थळ वा वाठार मानवता तो कित्याक हें सांगूंक जमत? एकेकदां आपली कालेत ते गजालीचें सौंदर्य रसीकपणान चाखपाक आनी अणभवपाक जुळटा आसुये, इतलेंच! संगितांतलो हंसध्वनी राग म्हाका इतलो कित्याक आवडटा हाचेंय कारण म्हाका सोदून मेळना. मेळचेंय ना!

कांय वर्सां आदीं ट्रेनीन दिल्ली सावन येतालों. पुण्याक एक दीस रावन गोंयां परतुया असो विचार केलो. भोंवतना कॅसेटींच्या दुकानांत भितर सरलों. ल्हान भुरग्याक आनंद जावन तें उडणां मारीत नाचता तशीशी म्हजी गत जाली. थंय हरिप्रसाद चौरासियाची हंसध्वनी कॅसेट आशिल्ली. फाटल्यान फुडल्यान सबंद, हंसध्वनी! दोन कॅसेटी एका पाकिटांत आशिल्ल्यो. हंसध्वनीच्या मोगान दुसरी कॅसेट नाका आसतनाय पाकीट विकतें घेतलें. बांसरेंतल्या हंसध्वनीन उपरांत कितलेशेच खीण गोड केले. श्रीकृष्णान बांसरेचेर हंसध्वनी वाजयिल्लो जाल्यार तो अमृता भशेन कितलो गोड आसपाचो काय? श्रीकृष्णाच्या ओंठांत सदांच वसपी बांसरेचो दुस्वास करपी राधेक ताणें एकदां शिटकायिल्लें 'म्हाका तुमच्या सगल्यां परस चड बांसरी आवडटा. दोन कारणां: ती दवरता थंय रावता. म्हणल्यार म्हजें आयकता. पोकळ आसता. म्हणल्यार विकारा विरयत आशिल्ल्यान तातूंतल्यान गोड सूर काडप शक्य जाता.' हरीचो म्हणल्यार हरिप्रसादाचो हंसध्वनी आयकतना 'पोकळ जा, पोकळ जा,' हो प्रेरक संदेश कानांत सादत उरला.

मनाक मरगळ येवंक लागना बाराबर हांव हंसध्वनी आयकतां. तें आपशींच

फुलता. बरोवपाक वा वाचपाक मूड येवचो देखून हांव हंसध्वनी आयकतां. मूड चंवरता, मागीर बरयतना वा वाचतना टवटवी ताजी तगोवन दवरपाक हांव परत तो राग पियेतां! हें बरयतनाय तो मुद्दम चालू दवरला. जावं वाद्यसंगीत जावं गायन, हंसध्वनी म्हज्या नसानसांत भिनता आनी एक वेगळीच धुंदी येता. आनंद नाचता. खोशेचीं कारंजीं उसळटात. कितलेशेच लेखक कादंबरी वा हेर कृती बरयतना विचारांची गाडी अडल्यार, मुंगरल्यार संगीत वरांचीं वरां आयकतात. धुकें पयस जावन वारें, उजवाड येवचो तशी तांकां वाट मेळटा. साहित्य-संगीत-चित्रकला म्हणल्यार शब्द-सूर-रंग ह्या वेगळावं नजो अशा त्रिकोणाची केदी तांक ही!

म्हज्या घराण्यांत तीन पिळग्यां सावन संगिताचे संस्कार चलतात. असल्या दायजाच्या कुळांत जल्म घेवपी म्हजे सारकें कूळ भाग्यवानूय. चवथीक चोडणां वतकच थंय पाच दीस संगिताचो पावस चालूच आसता. म्हजे चडशे बापोलये, बापोलभाव एका परस एक खांपे गावपी आनी वाजोवपी. दर्दी जाणकार. श्रावणी सप्ताक बी रातदीस संगीत चालूच आसचें तसो हो शिंवर अखंडपणान, अथांगपणान एके कुडींत चालूच आसता. अभंग, भजन, गझल, नाट्यगीत, भावगीत, भक्तीगीत, ख्याल, चित्रपटसंगीत, 'सोलो' वादन... वाद्यां, वाजोवपी आनी वादन-गायनाच्या प्रकारांनी व्हड विवीधताय. संगीत पचोवपाची तांक नाशिल्लो कोणूय दुयेंतूच पडपाचो. गणपती भशेन हांवूय पासियेंस काडटां. भायर बसून पेपर-पुस्तकां वाचीत रावतां आनी कानांनी मिस्तुराद मैफिलीचो आनंद घेतां. मदींच भुरगे पेटयेर हंसध्वनी वाजयतात. ती गोड सुरावट म्हाका कुडींत खेंचता. दारार पावना फुडें ते खीणभर थांबयतात. सोदाचो फेंस फसफसून वयर येवचो तशे किटकिट्टात आनी किळांचतात. 'आमी जाणातूच आशिल्ले मुकेशभाई धांवत येतलो म्हूण'. कुडींत फिरकनाशिल्ल्या मुकेशभाईची फ्राकेज सुखावपाक ते अप्रतीम हंसध्वनी पेश करतात.

हंसध्वनी राग मुदलांत कर्नाटकी संगितांतलो. कर्नाटकी शैलींतलें हंसध्वनी गायन वा वादन आयकतना आंगार कांटोच फुलता. हें नांव कशें पडलें तें विशींय एक आख्यायिका आसा. हंस पक्षी खंय तसो सहसा केन्नाच गायना. एक दीस आळास परतिल्लेवरी गा गा गायता खंय आनी मागीर मान उडोवन जीव सोडटा. ताचे

वयल्यान हंसध्वनी नांव पडलें अशें म्हणटात.

इंग्लीश भाशेंत 'स्वान्स साँग' अशी एक इडियम आसा. 'धीस बूक प्रुव्ड टू बी हीस स्वान्स साँग' हाचो अर्थ जिणेचे अखेरेक लेखकान बरयिल्ली ही निमाणी कृती 'मास्टरपीस' थारली. हंसध्वनी याद करून दिता हांयसाचो गूण. दूद आनी उदक भरशिल्यार राजहंस खंय दूद वेगळें करून पियेता. जिणेंत बरें आसा, वायट आसा. काळोख आसा, उजवाड आसा. ऋजुता, शुचिता, पावित्र्य, मांगल्य आसा, तेच वांगडा फटींगपणां, कुसकेपणां, धोंग, कपट, दुस्वास आसा, हंसध्वनी आयकतना हांयसाचो गूण म्हजेर जिणेंत कितें आपणावचें आनी कितें वेंगावपाचें हे विशीं तुतयो मारीत रावता.

बंगळूरांत 'प्लॅनेट एम्' नांवाचे संगीत कॅसेटींचें एक व्हड दुकान आसा. येदें व्हड आनी सुंदर दुकान हांवें पळोवंक नाशिल्लें. व्हड, वातानुकुलीत अशा त्या संगीतमय वातावरणांत गिरायकाक जाय त्यो सिडी, कॅसेटी आयकुपाचीय तजवीज आसा. हांवें थंय हंसध्वनीची वासपूस केली. त्या भुरग्यान लक्तुबायेन म्हाका कांय सिडी आनी कॅसेटी रोखड्योच दाखयल्यो. चवकशी केली.

-तुमकां हंसध्वनी आवडटा?

-खूब. म्हजे कडेन व्हड कलॅक्शन आसा. तातूंत आतां आनीक भर पडटली. पूण हें धन हांव कोणाकूच दाखयना. पुस्तकां भशेन कॅसेटी व्हरतकच परत करिनासप ही एक परंपरा जाल्या.

-म्हाका मालकंस आवडटा. सुमार अंयशां वयर वेगळ्योवेगळ्यो टेपी म्हजे कडेन आसात. विदेशांत भारतीय संगीतकार नव्यो नव्यो कार्यावळी करीत आसात. तांच्यो टेपी हांव इश्टां कडल्यान मागयतां. तुमकां तातूंतले तातूंत कोणाचो हंसध्वनी चड आवडटा?

-अमीर खाँचो हंसध्वनी. तातूंतलो भक्तीभावान आळयिल्लो तराणो. किशोरीताईचो हंसध्वनी आयकतना जीव वेगळ्याच संवसारांत पावता. जसराजाचो हंसध्वनी आयकतना सुरांची उजवात लायल्या आनी त्या धुंवरांत बुडलां अशें दिसता. वाद्यां भितर शिवकुमार शर्माचो संतूर हंसध्वनी. शांत, स्तब्ध, शितळ

घसघसो कसो. ते हंसध्वनीचे थेंबे, ओथांबे आनी तातूंतले तुशार काळजाचेर उसळटच एके तंद्रेंत उफेल्ले भशेन दिसता.

-तुमी कवी वा लेखक बी?

-हांव बरयतां. मुदलांत जिणेचेर रसीकपणान पोट भरून मोग करतां. हंसध्वनी आयकुपाक जीण पावना. कान अतृप्तूच उरतात. फुडलो जल्म मेळ्ळ्यार हांव हो एकूच राग शिकतलों. वाजयतलों आनी गायतलों.

हंसध्वनीन म्हजी जीण समृद्ध केल्या. गोड केल्या. कांय वर्सां आदीं विद्यापिठांत काम करून सोडटना निरोप सुवाळ्यांत तांणी भाशणां केलीं. व्हडलेशें दिसलेंना. पूण इश्टांनी सतारे वयलो हंसध्वनी मायेमोगान दिलो तेन्ना मात दोळ्यांत दुकां आयलीं. आवडटा तें दिवपी लोक भोंवतणीं आसात हें पळोवन. गायक वा वादक इश्टांगेर वतकच हांव तांकां सांगतां - च्या, फराळ, खावपाक असले सोपस्कार नासल्यार जातात. एक गजाल मात जाय. म्हाका तुमचे कडल्यान हंसध्वनी आयकूंक जाय. पोटभर, येतिश्ट. तुमकांय रियाझ जातलो. हंसध्वनीचो वेळ रातचो खंय. म्हाका तो वेळ लागना!

आजी भायर पडले उपरांत आमी हरवळ्यां गेल्ले. कांय धर्मीक विधी करपा खातीर. एक काका भैरवीचो अनन्य भक्त. ताणें थंय आमकां सगल्यांक म्हणल्यार ताच्या पुतणयांक सांगलें - "म्हजे फाटल्यान असले धर्मीक विधी बी कांयच करूं नाकात. फकत भैरवी वाजयात. गायल्यार हरकत ना. पूण बेसूर बी लागत जाल्यार समंद कसो कांट्यार बसतलों." हांव सबंद हाल्लों. म्हज्या बापोलभावा वटेन पळेलें. म्हज्यांतल्यान एकदम उतरां सुटलीं. आर्मांतल्यान गुळयो सुटच्यो तशीं. 'सभाग्यांनो, म्हजेय फाटल्यान तीं बारा शेर दुदाचीं खाजोळ्या वक्त्यांचीं लागोळीं शब्दबंबाळ भाशणां नाकात. हंस म्हळ्यार आत्मो, अमर असो. ताका थंडाय लाबची अशीं तुमकां इत्सा आसाच जाल्यार आत्म्याच्या अनाहत नादांत हंसध्वनी सादावन सोडात. टेपी वाजयात. उपकार करून गावं नाकात. मुद्दो सोडून तुमी उलयतना, बरयतना व्हांवतात तें बरें आसा. हंसध्वनी गायतना निसरून 'शंकरा' वा आनीक कितेंय बेसूर, भेसूर प्रकार जालो जाल्यार सोंडार फुलयतलों! 

# 5. म्हजे भाशेंतलीं नवलां

'विवीधताय' ह्या उतराची बेस बरी देख जाय? कोंकणी भाशेच्यो वेगवेगळ्यो मोदी पळे. वाठारा प्रमाण, थळा प्रमाण, समुदाया प्रमाण, पिळगे प्रमाण कांय उतरां मातशीं बदलतात. उतरां उच्चारपाचे शैलींत किंचीत बदल दिसता. हे भोवरंगी विवीधतायेक जे वेगवेगळे पदर आसात तांची सोबीतकाय आगळीवेगळी!

कोणूय उलयले वारावर तो खंयच्या वाठारांतलो हें एकेकदां सहज कळटा. ही वांय 'अग्गड' अशें कोणेंय म्हणिनाफुडें समजुचें तो काणकोणचो. थंय 'खोल' ह्या शब्दाक 'अग्गड' हें उतर घोळटा. आमी हें करया, आमी थंय वचया अशें काणकोणकार म्हणटात. उत्तर गोंयांतले आमचे सारके गोंयकार हें करुया, आमी थंय वचुया अशें म्हणटात. आमकां कॉलेजींत दिसाक सात लॅक्चरां 'उरतात' अशें काणकोणकार विद्यार्थी म्हणटात. 'उरतात' हाचो अर्थ 'आसतात'.

बार्देसकार लोक तिडकल्ल्या आविर्भावांत 'साकार हाड गो' अशी ओर्द दितकच समजूचें तो बायलेक साकर हाडूंक फर्मायता. सर्गेस्त लक्ष्मणराव सरदेसाय 'आसा' हाचो उच्चार 'आस' असो करी. आयजूय कांय गोंयकार आसऽ हें क्रियापद वापरतात. साश्टीच्या क्रिस्तांवांची कोंकणी तर बरीच मंजूळ, मधूर. तातूंत वेगळींच आवर्तनां आनी वजनदार हेळे दिसतात. भेंडे, वाल, मिरसांगो, भाजी विकपी साश्टीकारांची ही कोंकणी कोणाय भाशा संशोधकान मुजरत आयकुची. ताका भाशेच्या कितल्याशाच तासांचो दिश्टावो घडटलो.

बरो फिशाल तबलजी, 'सोलो' वादन कार्यावळींत, केन्नाकेन्नाय प्रात्यक्षीक दाखयतना वेगळ्यावेगळ्या घराण्यांनी एकूच बोल कसो वाजयतात तें सादर करता.

'तिटे' वा 'धिन्ना' एकूच! पूण बनारसी तबलजी अशें वाजयतात आनी बंगालचे तबलजी टांकणी अशी मारून वाजयतात हें तो वाजोवन दाखयता. हिशोब तोच. बोल तोच. घुमतना वा निनादतना मातसो फरक आसता. हे चिमटीभर बदलाचे सयेंत एक गोडसाण आसता.

कर्नाटकांतली कोंकणी पळेयात. कारवारी, मंगळूरी, हल्ल्याळची, अंकोल्याची अशे तबल्या भशेन बदलपी तांचे वेगवेगळे बाज. कोची-केरळची कोंकणी शैली आनीक एके तरेची. तें कित्याक? मुंबय कांय वर्सां राविल्ले आमचेच इश्ट आनी सोयरेधायरे हांची कोंकणी आपलें अनवाळेपण कशें इबाडटा ताची पळेयात ही एक झलक:

''हांव रवींद्रबाबाकडे वतां'' अशें म्हणटकच समजुचें हो मुंबयकार. गोंयकार 'रवींद्रबाबागेर' अशें म्हणटा. ''थांब, त्या बाजून गाडी येता'' हें मुंबयकाराचें आनीक एक वाक्य.

''राव, ते वटेन गाडी येता.'' हें वाक्य आमचें.

''गाडी पकडली.'' अशें म्हणिनाफुडें सभाग्याक पकडून सांगचें शें दिसता, ''गाडी धरली.'' अशें म्हण रे सायबा!

जुहूक रावपी म्हजे मावशेलीं भुरगीं गोंयांत येतकच उलयतना म्हणटात- ''म्हाका हें मुळींच नाका.'' मुळे नाकात अशें आयकतल्याक दिसचें. ''म्हाका हें खऱ्यांनीच नाका.'' हो जालो अस्सल कोंकणी रुपकार.

दर वर्सा आमी पेडणें म्हालांत कोरगांवां कुलदेवी म्हालक्ष्मीच्या उत्सवाक वतात. एकदां अशेच गेल्ले तेन्ना देवळांत पुजा चलताली. अकस्मात कोणें तरी ओर्द सोडली, ''पेटारे हाडात रे!'' म्हाका दिसलें पुजा सोंपतकच प्रसादाचे दोणे काशींत म्हळ्यार पेटयेंत घालून आतां हाडटले. दोळ्यां मुखार आगऱ्या सावन सुटपी शिवाजीचे मिठायेचे पेटारेय चमकून गेले. अकस्मात आरत चलतना माराणांचो गडगड जालो. चवकशी करतकच कळ्ळें, पेटारे म्हळ्यार माराण. पेट घेतात देखून पेटारे! ''हो कोणाचो झील?'' हाचो अर्थ ''हो कोणाचो पूत?'' मालवणी कोंकणीचो बरोच प्रभाव पेडणें शैलीचे कोंकणींत आस्सा. दोनांय शैलींनी वेगळेच तरेच्यो वा रुचीच्यो

गाळी आसात. कोंकणी गाळींचेर कोणेंय संशोधन केलें जाल्यार हांगाच्यान सुरवात करची पडटली.

भाशेंत उश्णीं उतरां येवप ही एक सहज घडत वचपी प्रक्रिया. पूण विकसीत आनी उत्क्रांत जायत वतना कोंकणी भाशेंत पुर्तुगेज आनी कन्नड उतरां घट जाल्यांत. ते विशीं उलयतल्यांक लेगीत खबर आसना अमूक उतर कानडी आनी तमूक उतर पुर्तुगेज म्हणून. वट्ट हें कन्नड उतर आमी 'एकूण' वा 'एकंदर' ह्या शब्दा खातीर घोळयतात. आवूज, फोग, फोल्ग, जनेल, व्होल्त हीं रूढ जाल्लीं पुर्तुगेज उतरां. ही वळेरी केदीय लांबोवं येता. हालींसराक हिंदी भाशेन टेलिविझ्यन आनी फिल्मां हांचे वरवीं सगल्याच भाशांचेर आक्रमण केलां. झगडटना धाकलीं भुरगीं लेगीत हिंदी भाशेंत धमकायतात. माळींचो (सिरियलींचो) मारो जाणटीं, नेणटीं, भुरगीं, म्हातारीं सगल्यांक भावता. हाचो समग्र परिणाम भाशेचे शुद्धतायेक वेर हाडटा. देखीक पळेयात: कार्यावळ 'संपन्न' जाली. कार्यावळ जाली म्हळ्यार पुरो! हो दबाजो अणभवपाक आमी 'सौभाग्यशाली' आसात. आमी भाग्यवान अशें म्हणल्यार पुरो ना?

हॉटेलांत वतकच शब्द उच्चारणांतली मजा पळेयात. मुदलांत अस्सल उच्चार खंयचो हें कळप कुस्तार. 'भक्कम पेडो काय मखखम पेडो?'

'मेसूर पाक' काय 'म्हैसूर पाक'?

'डोसा' काय 'दोसा' काय 'दॉस्से'?

एक 'पॅटीस' जाय काय एक 'पॅटी' जाय?

एक 'बन्स' जाय काय एक 'बन' हाड?

'परोटा' काय 'परोठा' काय 'पराठा'?

हेय वळेरेक अंत ना.

हय. भास काळा कणकणी, पावला कणकणीं, मैलामैला प्रमाण, दर किलोमिटरा फाटल्यान बदलता. दर कोसा कोसा फाटल्यान भाशा बदलता अशें आदल्या तेंपार म्हणटाले. गाडयो कशाय कश्यो मेळत थंय बेपर्वा वृत्तीन 'पार्क' करपाची चाल वाडल्या. तेच धरतेर शुद्धलेखन, व्याकरण हांकां पाळो दिनासप हीय एक सदची

चाल जाल्या. 'उच्चार' कायचे काय घाळपणान करप हेंय सर्रासपणान चलता. असल्या 'गुन्यांवकारांक' तालांव दितलो कोण?

म्हजो एक इश्ट 'काटकसर' ह्या उतराचो उच्चार 'काटक सर' असो करता. भास्कर सर, तिंबलो सर म्हणचे ते लयेन. सांगुनूय सुदरना. आनीक एक सोयरो 'निवडणूक' हो उच्चार 'निव डणूक' असो करता. सावकार (सांकवार) बसून बेकार तरणाटे किरायतात अशें कोणूय निरक्षर बायल म्हणटा तें समजूं येता. पूण कथीतपणान जांकां 'शिकल्यात' म्हणटात तांचें कितें?

कोंकणी भाशेंत शुद्धलेखन आनी व्याकरण ह्या मळार पंडितां मदीं कांय गजालीं विशीं वाद आसात. एकमत ना. कांय शब्दसमुहां खातीर ह्या तीन गटां मदीं तीन वेगळ्यावेगळ्या तरांच्यो विचारधारा आसात. अशेंच सगल्या भाशांनी आसा. पूण 'म्हजेंच खरें, हांव सांगतां तें आयक' ह्या कोंकणी मनशाच्या तेमांक लागून एक घासाघीस आनी घर्शण जाता तेन्ना जावपी विनोद वेगळेच.

हें पळेयात. कोण म्हणटा 'काळजांत सावन'. कोण म्हणटा 'काळजा थावन' म्हणटकीच, म्हणटगीर, म्हणटकूच, म्हणटकच... हे सगले एकूच. कोण सतरवितर बरयता. श्रीपाद देसायाल्या कोंकणी कोशांत हेंच उतर दिलां. पूण कितलेशेच जाण थतवितर आनी/वा थतरवितर अशेंय म्हणटात. एकेका शब्दाक पांच-स तरा घोळणुकेंत आसात.

कोंकणी भाशेंतल्या नवलांचे आनी अजापाचे बाज इतले विवीध आसात की कोणेंय पिएचडी केल्यार तो खरशेतलो. आयुश्य उणें पडटलें संशोधना खातीर. येदें व्हडलें हें रान! सत्तरीची मोड वेगळी. दिवचलची वेगळी. अंत्रूजेचो वासूच वेगळो. तियात्रांतली कोंकणी अभ्यासची. पेडणेंची, काणकोणची, बंगाली, मराठी वा केरळी मनीस कोंकणी उलयता तो आनीक एक वेगळोच 'टोन' आसता. तांचें व्याकरणूय वेगळेंच. घडटां घडटां घडेल ते प्रमाण, प्लान्त काडिनासतना आदल्या तेंपार घरां वाडयत वताले ती गत. बंगाली भाशेंत म्हजो हात, म्हजें नाक, म्हजी तोपी अशें लिंग बी आसना. ते लोक कोंकणीचें खोबरें करतात. आमच्या शेजरा केरळी लोक रावताले. ते म्हाका विचारताले. तुजी आवय आयलो? भाव आयली? एक दीस तो

कंत्राटदार सांगूंक लागलो: म्हजो बायल गाडी चलोवंक शिकता.

भटी कोंकणी वेगळीच. तातुंतूय तरा आसात, मात्सा यॅथें ये रे, आदितवारीं (आयतारा) म्हादोंळीं ये अशीं वाक्यां म्हाड्डोळा, कवळ्यां आयकूंक येतात. ह्या वेगवेगळ्या मोडीं विशीं आमचो लेखक इश्ट मधुसूदन जोशी एक दीस माहिती दिताली. सविस्तर शिकपाक ताचे कडेन ट्युशन घेवचें पडटलें.

गोंयचे पुलीस पंचनामो बरयतात, तातुंतूय भाशेचें वेगळेंच सौंदर्य प्रतिबिंबीत जाल्लें आसता. म्हजो आदवोगाद भाव म्हाका हे विशीं कितल्योश्योच विनोदी गजाली सांगता. दिख्रीक: अपघातांत गाडीला 'चेंपें' पडली होती.

जांकां कोंकणी भाशा वाचपाची संवकळ ना ते सुनापरान्त वा हेर कोंकणी नेमाळें वाचता आसतना एक वेगळोच कृत्रीम हेळ काडून वाचतात. तें आयकतना हांसचें कांय रडचें तेंच कळना.

भास आयकत रावंक जाय. नुस्त्या बाजारांत, भाजी घेतना, दुकानांत, चौकार, तिठ्यार. बसींत बायलो उलयतना वा झगडटना तांचे संवाद आयकुचे. साद्याभोळ्या शिकूंक नाशिल्ल्या कश्ट करपी गांवगिऱ्या लोकांची भाशा आयकुची. कितलेशेच शब्द तातूंतल्यान निनादतले. तुका समृद्ध करतले. जाय फकत भाशेची गोडी. तेन्नाच फळाक येतली ही श्रवणभक्ती!

भाशेंत म्हणी ओपारी भरल्यात. काव्यमय अलंकार भरल्यात. वाक्प्रचार जायते. दिख्रीक, तुमी गरोवंक मानशेर वतले आनी हांव हांगा 'धड्यार पडटलों'. एकवटीत राष्ट्रसंघ हें फकत 'कुकमाचें धनी' जाल्ल्यान सगल्या राष्ट्रांनी तें आपले 'किरवंटीक खोयलां'... अश्यो शेंकड्यांनी देखी दिवं येत.

जॉर्ज बर्नार्ड शॉ हांणी 'पिग्मॅलियन' कादंबरी बरयिल्ली. तिचेर आदारीत 'माय फॅर लेडी' चित्रपट आयिल्लो. हेच संकल्पनेचें मूळ घेवन पु.ल. देशपांडे हांणी मराठींत 'ती फुलराणी' नाटक बरयलें. कोंकणी भाशेंतल्या वेगवेगळ्या शब्दांचीं नवलां आनी अजापां आनी विनोद दाखोवपी एक नाटक जाय. रा.ना. नायकाचें चवथीचो चंद्र आसाच. भाशीक सामर्थ्याचो दिश्टावो घडोवपी! हांस हांस हांसोवपी. चिंतूंक लावपी. आवयभाशे कडेन आनिकूय लागीं हाडपी!

...आनी नाटकाक नांव दिवचें 'विवीधतायेंतली विंगडाय'. नाटक पळोवन घरा वतना 'विंगडाय' हो शब्द 'विंगडविंगड' शब्दा वयल्यान कसो आंवळून आयला आसतलो हें चिंत्तना तकलेंत विंगडविंगड वेदना जावच्यो! भाशेंतल्या ह्या नवलांचेर चिंतून चिंतून!



# ६. सोंपें सुटसुटीत बरप

सोंपें बरोवप कठीण. कठीण बरोवप सोंपें. ही गजाल समजप सोंपी न्हय. समजल्यार आचरणांत हाडपूय कुस्तार. सोंपें बरोवप सोंपें करूंक कांय गजाली पळोवया. तंत्र,मंत्र. आनी कांय मुद्दे, बिंदू हे विशीं उलोवया. जावं अग्रलेख वा बातमी. जावं साहित्यांतलो निबंद वा कथा. लोक कित्याक वाचिनात? कारणां खूब, आमकां सगसकट सामान्यांक समजता अशे सोंपें भाशेंत बरोवंक कळना हें एक.

वाचक आपणाक कितें कठीण लागता हें नेमकें बोट दवरून सांगूंक शकना. पूण लेखकान ताची ही आडखळ समजूंक जाय. ताडूंक जाय. पारखूंक जाय. वाचकाक जाय आसता - सादी, सुटसुटीत वाक्यरचना. पयशांचे काटकसरी विशीं सबंद जग सांगता. शब्दांची काटकसर निदान बरयतना तरी करची हाचें कोणाक पडिल्लें ना. शब्दां मदल्यान आनी शब्दां पोंदच्यान अर्थाचे झरे पाझरूंक जाय. पावसांत उमळ सुट्टा ते भशेन. गाय वियेल्या, इतलेंच सांगल्यार पुरो. ती गाबणी आशिल्ली हें पुच्छ गा कित्याक जोडचें? शब्द येवचे कोर्गांतल्ल्यो बावल्यो कश्यो. रेखीव, कांतीव, ओंडल्लायण्यो. वाक्य जाता तितलें ल्हान आसचें. जाता जाल्यार एका वाक्याचीं दोन तीन वाक्यां केल्यार जातात. वाचतनाच खरस लागता, आळास परतता येदें लांब वाक्य नाका. परिच्छेद लेगीत ल्हान आसचे. बातमेची सुरवात म्हळ्यार 'इण्ट्रो' वा लेखाचो आरंभ करतना 'बक्क' करून धपक्याक सगलें ओंकपाची गरज आसना. इल्लें इल्लें करून सवकासायेन सांगूं येता. एक आशिल्लो कोलो आनी एक कोली! अशें तेन्न ल्हान भुरग्याक काणी सांगिल्ले भशेन कथन करूंक फावो. 'आनी कोली' अशें म्हणीत परत एकदां क्रियापदाचीय गरज उरना. खूब खेपे कोंकणीच्या

सभावाक क्रियापद लागच ना. देखीक: फाल्यां राष्ट्रीय विज्ञान दीस. विज्ञानीक नदर वाडयात हो फाल्यांच्या दिसाचो विशय. रघुनाथ माशेलकार हे व्हड शास्त्रज्ञ. फाल्यांचे कार्यावळींत ते उलयतले. साद्या क्रियापदानूच एकेकदां भागता. देखीक: खूब तेंपान आयज मंत्री पत्रकारां मुखार येवपाचे आशिल्ले. आयलेच नात. शब्द उणेच वापरप म्हणल्यार तरी कितें? एका वक्त्याक विचारलें - अमूक विशयाचेर उलोवपाक तुका कितलो तेंप तयारी करची पडटा?

- कितलीं मिणटां उलोवंक जाय?
- एक वर.
- आतांच उलयतां.
- आनी फकत पांच मिणटां उलोवपाचें आसल्यार?
- आठ दीस अभ्यास.




कवी मनोहरराय म्हणटा - उतरां जोख, मागीर मोख.

एकल्यान मोगिणीक पत्र बरयलें. सुरवात अशी 'पत्र लांब जालां. ल्हान बरोवपाक वेळ ना.'

सुटसुटीत शब्दरचना आनी वाक्यरचना हे खातीर 1) लेखकाक वेळ जाय. 2) वाचप्याची पर्वा आसूंक जाय 3) कसब जाय.

गाडी चलोवप आनी रांदप सगलींच करतात. साप्प थोडे ते कलेंत फिशाल आसतात. सुटसुटीत बरोवप हीय एक कला. बरोवपी ताचो आनंद घेताच. वाचप्याकूय तातूंत बुडयता. गुंग करून सोडटा. भाशेक आसूंक जाय धार. लोट. प्रवाह. दिशा. शैली आसूंक जाय मादी, सोंपी, सरळ, संपन्न, स्पश्ट. रोसाळ, म्होंवाळ, उतरांची योग्य रांगोळी घालपाची कळाशी केळोवंक फावो. तशें जातकच एक मिलाग्र घडटा. जादू. बरप चकचकीत जाता. तिकतिकीत दिसता. तुकतुकीत. लिकलिकीत. सुळसुळीत. तिवतिवीत. सणसणीत. तेजिश्ट. घांसून पुसून नितळ. तांदळांतले आंशे-फातर वेंचिल्ले भशेन, सुटसुटीत वाक्यरचना जातकच घडटा अशें - वाचक पयलें वाक्य वाचिना फुडें निसरत निमाण्या वाक्या मेरेन सुळसुळून पावता. घसरगुंडी जावन ऑयलीचेर स्कुटर निस्सरता ते भशेन. भरपूर पावडर आसतकच कॅरम बोर्डाचेर

घुलो महजतायेन घुंवच्यो तशें. तेल आसतकच माक्न सोंपेपणान चलता तशें. बाजारांत 'पार्क' केल्ली एक सायकल पडटकच धडाधड तेंकून आशिल्ल्यो सगल्यो कोसळटात तशें. लेखकान वाचप्याक कळीत करूंक जाय. वाचनाचोच निखटो आनी निवळ आनंद दिवंक फावो. जर कोंकणींत बरयलां जाल्यार कोंकणीचो सभाव, नाद, संगीत वाक्यांनी झिरपूंक जाय. वाक्यां अशीं आसूं जाय. तर्कनिश्ठ, मुद्देसूद, वजनदार, मुदयेर थीक कशीं. स्फटिका भशेन स्पश्ट आनी पारदर्शक. लेख वा बातमी सोंपयतना निमाण्या वाक्यांत साहित्यीक लालित्य वा विचार आसल्यार शब्दशिल्प वा कृती घमघशीत जाता. कोरेंगाद जाता. उठावदार दिसता. समेर येतना नवल्जी 'झण्ण' करून थापटी मारता तशें तें निमाणें वाक्य उत्स्फूर्तपणान येवचें.

सुटसुटीत बरयतना असले शब्द वा वाक्यां नाकात. कठीण, क्लिश्ट, अंधूक, अस्पश्ट, बोजड, जडगुळो, खडबडीत, विस्कळीत. सोंपो शब्द आसा जाल्यार पांडित्याचें प्रदर्शन करपाक कठीण शब्द कित्याक? विवीधताय मुजरत आसची. देखीक: 1) वेवस्था आनी तजवीज 2) चर्चा आनी भासाभास 3) आळ आनी बगलांट अशे समानार्थी शब्द एकाच लेखांत वापरूं येतात. एक जतनाय घेवप म्हत्वाचें. बरपांतले मुद्दे कोंबयांनी शीत उस्तिल्ले भशेन आयसपयस शेंकानशेक पातळावंक फावोनात. केंस, गरजे भायर टिंव टिंव म्हणल्यार... आनी अवतरणचिन्नां टाळूंक जाय. वाचपी थंय आडखळटा. नाका उखलापी मांडावळ. अर्दकुटे संदर्भ. नाका हिसपा भायर पाल्हाळ. भारूड, भरडकथा, पत्रावळ, पुनरावृत्ती नाका. शुद्धलेखन आनी व्याकरण हांचें घाळपण माफ ना. अती शुद्ध अती साहित्यीक भास नाका. नकली खाजोवपाचो व्यायाम घडयल्यार मूळ संदेश वाचप्यां मेरेन पावचोच ना. विद्वत्ता टांकये भशेन मुजरत ओंतीत रावची. पूण विद्वान बरयता तेन्ना ताचो लेख 'ओव्हरफ्लो' जावंक फावोना. लाड वळटात तसो तो आटीव, घोंटीव, एकजिनसी आसूं जाय. लेखकान असक्याच उतरां भितर आपणाक बांदून घेवंक जाय. तरणाटो मोगांत पडटा हें साहजीक. तरणाटो, उदेतो लेखक उतरांच्या मोगांत पडटा हेंय समजूं येता. पूण सदांकाळ उतरांचे बोमाड आनी बाळबोध बरप उपकरना. परिपक्वतायेची तेंगशी हुपूंक जाय. केन्ना? कशी? थंय पावतकच अर्थाचो दिश्टावो आदीं जाता.

उतरां मागीर लेखकाक ल्हेंवतात. पाडकाक गाय चाट्टा तशी.

सोंपें बरोवप सोंपें करप ही एक प्रक्रिया. व्हड साधना. न्हय फकांडां. न्हय पोरखेळ. ते खातीर जाय चौफेर वाचन. सगल्या भाशांतलें. सगल्या तरांचें. व्यासंग वाडटा अशें. जाय सदांकाळ विद्यार्थी, जिज्ञासू, अभ्यासू वृत्ती. जोत, खोरें, कुदळ घेवन शेतकार शेतांत राबता. लिखणेचो नांगर आनी वाचन, चिंतन हीं आयुधां घेवन कश्टल्यार लेखक सुटसुटीत कित्याक बरोवचो ना?

क्रिकेट बरी कोणा भशेन खेळची हें दाखोवपाक कांय आदर्श आसात. ख्याल कसो सादर करचो ही देख सांगूंक बोट दाखोवपाक कांय गायक आसात. हिंदी, इंग्लीश, मराठी, कोंकणी भाशांतलें हांव वाच वाच वाचतां. सुटसुटीत बरोवपी मात फकत एकलोच दिसलो. रवींद्र केळेकार. 'अनुकरण म्हणल्यार आत्महत्या' अशें संवसारीक नामनेचो निबंदकार राल्फ वाल्डो एमरसन म्हणटा. तो मेळ्ळ्यार हांव एकूच सांगतलों - 'तुज्या नेमाक आडवाद आसा. तुवेंय क्लिश्ट बरयलां. रवींद्रबाबाचें अनुकरण करूंक जाय आशिल्लें.'



# 7. गाड, सणसणीत बरप

'ध्या ख्रंडांनी सांगलां तें एका पुस्तकांत सांगूंक जाय आशिल्लें. एका प्रकरणांत दिलां तें एका पानार दिवंक जाय आशिल्लें. एका पाना वयलें ध्या वळींनी आटोवंक जाय आशिल्लें. पूण जमलेंना.'

एका विचारवंताचे आनी लेखकाचे शब्द हे. ताका जे चिटमिटे पडल्यात ते जण एका लेखकाक पडपाक जाय. तेन्नाच ताच्या हातान घसघशीत बरप जातलें. वाचनीय अशें.

फळ पिकतकच देंठांतल्यान तुटून पडटा. अमृरपिकें आसतना न्हय. पिकतकच स्वताचो भार ताच्यान तोलना. झाडापिकें आंतेर भुंयेर घालून घेता. थपथपीत थापो कशें फुटटा. वासाळ गोरोप चोंयवशीं उसळटा. बियो फाफसतात. वाठारभर परमळ फांकीत सणसणीत बरप येवचें तर अशें.

असलें बरप गावं नजो जावन लेखकांतल्यान भायर सरता. तें कागदार ओतलेंना जाल्यार आपूण पिसो वी जावचों ना मूं अशें लेखकाक दिसता. अभिव्यक्ती जायना फुडें ताका ल्हव ल्हव दिसता. तळमळ आनी अस्वस्थताय पयस जावन तो शांत शांत जाता.

ख्रूब जाण प्रतिभावंत म्हणटात- आमी बिझी. एका तेंपार बरयताले. आतां ह्या व्यापांत घुसपलां. सृजनशील कुपां तकलेंत येवन उबून वतात. बरोवंक वेळ मेळना. हीं सगळीं बंडलां, फटी. जेवपा-ख्रावपाक, मंडासांत वचूंक आमी सगलीं वेळ काडटात. ख्रच्यांनीच्च आवड आसता तेन्ना सवड मेळटाच. विमानांत जेन्ना एक बायल बाळांत जाता, तेन्ना सकयल पावसर पासियेंस कित्याक काडलेंना, अशें

आमी तिका विचारूंक शकनात. खरें बरप अशें स्वयंस्फुर्तीन येता. ताचो उगम भितरले उमेंत आनी स्फुल्लिंगांत आसता. पायपाक चील पडटकच उदकाचें कारंजें उसळटा. भरते वेळार घावो जातकच रगत घोंट घेवन उसळी मारून भायर सरता. गाड आनी सणसणीत बरप अशेंच तरेन भितर शिजतकच घस्स करून भायर सरता. ताचे पयलीं खूब तेंप तें भितर incubate जायत आसता.

दोंगरागाळींतल्यान देंवपी शुद्ध वझऱ्या वरी असलें बरप ताजें आनी असली आसता. प्रामाणीक आसता. तातूंत छक्के-पंजे आसनात. फटाशी आसनात. अणभवाच्या करपांतल्यान हें कालूं भायर आयिल्लें आसता. उबयिल्ल्या तांतयांतल्यान पील भायर येवचें तशें. काजवाची बी पावसांत जमनींतल्यान घोडूक जावन तकली वयर काडटा तशी. असल्या बरपांत एक तेज आसपावता. आपलो जण एकलो वाचपी आपणा परस हुशार आनी सूज्ञ अशें समजून लेखक बरयता तेन्ना ताच्या बरपाक वेगळोच परमळ येता. गाड बरप हें suspension वखदा भशेन आसता. पातळ शारोपा भशेन न्हय. तातूंत केंद्रीकरण म्हळ्यार concentration आसता. तें भारीत आसता. आशयघन आसता. तातूंत शक्त आनी बळगें आसता. सुकणें कित्याक उडटा? ताचो धर्म तो. गावपी गुणगुणत कित्याक आसता? सहज घडटा तें. हांव स्वास कित्याक घेतां? मुदलांत हांव स्वास घेंच ना. तोच म्हज्यांत एकसारको पंप जायत आसा. न्हिदतना, उठ्ठना, चलतना, भोंवतना बरप हें अशें तरेन कांट्यार बशिल्लें आसता. मानगुटेर खट कशें दसता. हिचण नुस्त्या भशेन तें लेखकाक गिळटा. वाचन, चिंतन, मनन, अणभव, निरिक्षण, अभ्यास हातूंत लेखकाक तें बुडोवन, भिजोवन दवरता. अस्वस्थ करून सोडटा. ताचो मेंदू येवजून येवजून थपथपिल्लो आसता आनी काळीज शेणिल्लें उरता मन, बुद्दी, उतरां हांचे पेल्यानच्या अणभवांत. ताचोच बाय-प्रॉडक्ट वा सायड इफॅक्ट म्हणल्यार बरप. सगलेंच कितें लेखक शब्दबद्ध करूंक पावता अशें न्हय. शब्दांच्या मर्यादीत कॅमेऱ्यांत सगलेंच बंदिस्त करूं नजो. कांय निस्नट्टा, सटकता. तें उणेंच शेणोवप हीच हुशार लेखकाची कळाशी. पूण हे धडपडींतल्यान आनी संघर्शांतल्यान जें कितें चकचकयाळ येता, पसवता, पाझरता तें वाचप्यांक आनंद दिता. विचारधन दिता. चिंतूंक लायता.

1892



वाचप्याचो वेळ सत्कारणी लागिल्ल्याची धादोसकाय ताका दिता.

सणसणीत बरप म्हळ्यार फकांडां न्हय. कितें तरी सणसणल्यारूच भायर सणसणीत येता. बरप म्हळ्यार छंद वा विरंगुळो वा निवृत्त जिणेंतलो उद्देग अशें जांकां दिसता तांचे कडल्यान दाट आनी गाड बरप जायना. बरप म्हळ्यार गंभीरपणान केल्ली तपस्या, साधना. बरप मुदलांत सोंपें, सुटसुटीत आसूंक जाय. अभिव्यक्ती संदर्भसंपन्न आसूंक जाय. शैलीची, मांडावळीची नविदाद घेवन लेखकान वाचप्यां कडेन उलोवंक जाय. संवाद सादूंक जाय. शब्दांतल्यान मूळ संदेशाच्या undercurrent चो गाज वाचप्याच्या कानांत 'कुणूकुणू' संगीत कशें सादत उरूंक जाय. एकदां बरयतकच चिकित्सक नदरेन वाचून परत बरोवन काडूंक जाय. धोंगांपोंगां तासपाक, नाका आशिल्ले कपचे-कुडके कापपाक, गरज नाशिल्ले शब्द-क्रियापदां-वाक्यां संपादीत करपाक, एकदांच किल्याक, गरज पडल्यार परत परत बरोवन काडूं येता. संवसारांतलीं अजरंवर शब्दशिल्पां हेच प्रक्रियेंतल्यान घडल्यांत. लोणचें करमावपाक घालचें तशें साबार वर्सां पुस्तकां लेखकांनी निवळायल्यांत. म्हणुनूच तीं संवसारांतलीं श्रेश्ठ पुस्तकां जावपाक पावल्यांत.

10.58

फोगांतलो आसूं वा अणुबॉम आसूं, चिमटीभर गर्नालांत मळबा येदी शक्त सांठिल्ली आसता. तो घुम्म करून फुट्टकच कळटा. ताचो आवाज आनी उजवाडूच सांगता. ललीत बरप आसूं वा वैचारीक, नाटक आसूं वा कादंबरी, अग्रलेख आसूं वा सादी बातमी, ताचें फुटप सांगता ताची शक्त! तिळा इतल्या आटापांत ब्रह्मांडा इतली उर्जा ठांसून भरिल्ली आसची तशें. असल्या सणसणीत बरपाक साहित्य म्हणटात. हें साहित्य चिरंतन अभिजात आनी शाश्वत मोलाचीं माणकां-मोतयां घेवन सजप हो साहित्य साधनेंतलो परम उंचेलो बिंदू अशें म्हळ्यार अतिताय जावं नजो.



# ४. मुद्याक धरून...

श्रावणांत देवळांनी भजनां चलतात. गायक आवर्तनां, तानो घेत राग मुदार करतात. यमन, केदार, बागेश्री, तिलक कामोद... खूब खेपे तो मूल पदार येवपाक विसरता. शेणटा. खंय तरी निसरता. समेर येवपाक चुकता. सगलोच हालता. सूर ताल लये कडलो ताचो संघर्श आनी हाल पळोवं नजो जाता. रातीं न्हिदिल्लो मनीस लोळटकच सकाळीं फुडें शेंदरी एके कडेन, उशें एके कडेन, कुबेर्त एके कडेन फाफसुचें तशे तरेन खंयचे खंय व्हांवचो तशी ताची गत जाता.

खूब खेपे लेख वा साहित्य बरोवपी लेखक तशेंच बातमी बरोवपी पत्रकार असो शेणूं येता. मागीर क्लेश आनी दंडणा जाता ती वाचप्यांक. लेखकाचे तकलेंत गोंदळ आसूं येता. घरांतलें सामान अस्ताव्यस्त पातळिल्लें आसचें तशे मुद्दे विस्कटिल्ले आसूं येतात. वारो येतकच आंगणांत सुकत घाल्ले जिनस पत्र्या वांगडा हेवटेन तेवटेन उसळचे तशे. हे मुद्दे सारके तकलेंत वेवस्थीत आसत जाल्यार खूब खेपे ते सांगपाची वा मांडपाची कळाशी लेखका कडेन उणी आसता. कथेंत आडकथा गुंथ्थना लेखक मूळ गाभ्या कडली निशठा वगडावंक शकता. हे घसरगुंडेंत वाचकाक उबगण हाडून कश्टांचो व्यायाम घडटा.

अमीर खाँ सारको व्हड गायक साथ करपी तबलजीक सादो ठेको लाय अशें सांगतालो. तबलजीन झुमरा ताल वाजयतना सर्कशी केल्ल्यो ताका आवडनाशिल्ल्यो. ताचें गाणेंय संथ मंद उजवाती भशेन दरवळटालें. हालींच्या संगितांत वाद्यवृंदाचो कलकल आनी बोवाळ इतलो आसता की मूळ गायकाचो आवाज सोदतना नाकापुरो जाता. कालवांच्या तोंडाकांत कालवां गरोवचीं पडचीं तशें.

कांय लेखकूय अशेच फसतात. मीठ मसालो, भरमसाट घालतकच संदेश कितें आसा, नेमकें सांगूंक कितें सोदता तें कळपाक मार्ग आसना. हिसपा भायर भडक मेकप आनी अलंकार हांचो अडेचो झेत पळयतकच शीर्र जावप साहजीक. शब्दांचे पोळे, कायलोळ्यो अती जातकच लेखक मुदलांत कितें आळयता तेंच कळना. मागीर शब्दयेरादारी नेमांचो भंग करपी, उतरांचो नश्टखर्च करपी लेखकाक तालांव दिवचो अशें वाचप्यांक दिसता.

'हांव हें सांगूंक सोदतां' ह्या सुळसुळीत महामार्गार लेखकान धांवत रावचें. अर्दीमर्दी गरज आसतूच जाल्यार पुरक अशीं मोडणां-व्होल्तां जायतीं घेवचीं. पूण तो बरपाच्या प्रवासाचो वेगळावं नजो असो वांटो आसचो. महामार्गा कुशीच्या पायर्णीनीय भोंवर मारून येवचो. बायपास मार्गांचेरूय आनाळ्योगुनाळ्यो करून येवपाक हरकत ना. पूण आपूण हे आडवाटेच्या फोंडकुलांत रोमल्यार परत हमरस्त्यार धडधाकट उरून पावतलों मूं हाची जतनाय लेखकान घेवंक फावो.

अणू भितर nucleus आसता. तर्कशास्त्रांत universe of discourse सांगला. कायद्याचे भाशेंत arguments on merit आसता. प्रशासकी भाशेंत अखत्यार वा jurisdiction म्हणल्यार आटाप वा आवाठ ही संकल्पना घोळटा. तकनिकी भाशेंत command area म्हळ्यार ओलीत वाठार येता. भुमितींत वाटकुळाचो घेर वा परीघ आसा. तशेंच locus संकल्पना आसा. बीजगणितांत domain आसा. भौतीकशास्त्रांत centre of gravity येता. सामके सादे सोंपे भाशेंत सांगचें जाल्यार फोकस विसरनासतना मुद्द्याक धरून बरयेवपाची अभिव्यक्ती आसची. ह्या सगल्या लक्ष्मणरेशां भितर बरयल्यार तें वाचनीय थारता.

एकदां एका लेखकाचो लेख संपादकान परत धाडलो. वांगडा एक चीट लायिल्ली 'परत धाडटां. तुजो लेख दोनूय म्हणल्यार मौलीक आनी बरो आसा. जो भाग बरो आसा तो मौलीक ना. जो मौलीक आसा तो बरो ना. मुद्द्याक धरून ना. थंय digression म्हणल्यार विशयांतर जालां. कितें सांगूंक सोदता तेंच कळना.'

अशे 'वंये' भितर बरपाचें पीक काडप म्हळ्यार फकांडांचें काम न्हय. ते खातीर काबाडकश्ट लागतात. बुद्दीक, शैलीक आनी लिखणेक धार काडची पडटा. सातत्यान

अभ्यास करचो पडटा. विचार-बियां उबोवचीं पडटात. हॉटॅलांत वा खाणावळींत आमी नितळसाणीची अपेक्षा बाळगितात. अशी नितळसाण मुद्देसूद बरोवपांत येतकच वाचक ताची रूच विसरना.

कबीराचें एकं वचन आसा.

करत करत अभ्यास से जड मती होत सुजान।

रस्सी आवत-जात है सील पर पडे निशान॥

(अर्थ: अभ्यासा वरवीं जड फातर लेगीत शाणो, सुजाण जाता. फातराचेर दोरी घांशीत रावल्यार थंय लेगीत खांच पडटा.)

विसाव्या शेंकड्यांतलो म्हान कवी हडसन हाची ही खबर. तो सकाळचो पासयेक वतालो. एक उदेतो लेखक ताचे कडेन वाटेर उलोवपाक आंवडेतालो. एक दीस ह्या तरणाट्यान ताका गांठलोच.

म्हाका बरोवपाक कितें तरी विशय दिवन मार्गदर्शन करशात?

हडसनान थंयच मार्गार पडिल्लो घोड्याचे शेंपडेचो केंस ताच्या हातार दवरलो आनी सांगलें:

'विशय म्हत्वाचो ना. तुजी नदर म्हत्वाची. जिणेचे गतींतल्यान उसळून आयिल्लो हो केंस. ताचेरूच बरय. मात मुद्द्याक धरून.'

हडसनान दिल्लो असोच एक सल्लो म्हाका एका रसीक वाचक इश्टान सुनायलो. कालेराच्या दिसांनी फोंड्यां वताले. मंगेशी आयल्यान देंवतेर आडसरां घेवपाक थांबले. तवली उडोवन आडसराचे तकलेंत काडी घाली. तान लागिल्ली. हरशीं चिमटीभर उदक आसता. आयज मेळ्ळें गोड कळशीभर उदक. कातलीय जाय तशीच. नाल्ला भशेन दाट न्हय आनी सामकीच पातळ न्हय. फावो तशी.

इश्टाक म्हळें: 'देव बरें करूं. हें आडसर सदांच जिबेर घोळटलें. केन्नाच विसरचों ना.'

'तुमचें बरप्य अशेंच आसूंक जाय. पक्कें यादीक घट्ट उरपा सारकें', ताणें म्हणलें.

आडसर जिबेर उरलां. सल्लो कानांत घुमत आसा. 

# ९. प्रायवसी

दाराची बॅल वाजली.

दार उगडलें. सोयऱ्यां-धायऱ्यां मदलोच एक. तो सांगता, 'लागींचेच कॉलनींत आयिल्लों. पळेल्यार ताच्या दाराक कुलप. मोबायलाचेर संपर्क केलो. तो येवपाचे वाटेर आसा. ते मेरेन म्हळें, हांगा बसुया...'

हांव खंयच्च्या वावरांत मग्न आसां हें तो विचारिना. खबऱ्यो सुरू. हाच्यो ताच्यो...

हय. अशे तरेन प्रायवसींत कोणूय रिगना फुडें जाच सहन जायना. बेठीच तकली हालयत हां हूं करीत ताच्या गजालीं कडेन आयकल्ले भशेन करचें पडटा. तोडपूय योग्य न्हय. एक खरें, ती बडबड आयकतना जिवाची तडफड जाता. सोंसनात अश्यो वेदना जातात. कामाची तंद्री भंगली म्हूण 'मूड' इबाडिल्लो आसता.

म्हजे कडल्यानूय खूब खेपे अशे तरेन दुसऱ्याचे प्रायवसींत अतिक्रमण जाता आसतलें. ताकाय तसोच त्रास जाता आसतलो.

ना कोण म्हणटा? कुटुंबांत आनी समाजांत वावुरतना थोड्या भोव प्रमाणांत overlapping घडटलेंच. खटटखुटट जातलें. पूण ताकाय मेधा आसूंक फावो.

टॅलिफोनाचेर फोन घेवपी खंयचे स्थितींत आसा हें विचारिनासतना भरभरप म्हणल्यार प्रायवसीचेर घालो घालोच म्हूण समज.

पत्रकार लेखक खुशवंत सिंगान आपल्या घराक बॅली कडेन एक व्हड बोर्ड लायला. 'Appointment घेवंक ना जाल्यार घांट मारूं नाका.' हाचोच अर्थ असो की आदीं कळोवंक ना जाल्यार दार उकतें जावचें ना. लेखक जयवंत दळव्यान आपले एके मुलाखतींत म्हणलां: 'म्हगेर कोणेंच येवचें न्हय अशें म्हाका मना पसून

दिसता. तांची बडबड आनी त्रास सोंसनात. पूण ते येतात तेन्ना हांव मना आड पासियेंस काडटां. तकली हालयत आयकतां. कालांतरान तांचे भितर म्हाका म्हज्या साहित्यांतल्या पात्रांचे कितलेशेच धागे सांपडटातूय.' तांच्यांतलो एक लेखक आपलें निवांतपण अर्थांत प्रायवसी मोडली म्हूण घुसमट्टा. तांच्यांतलो दुसरो लेखक मनीस हें बरोवप्याचें कच्चें भांडवल हें जाणटा आनी ताचो लावूय करून घेता.

प्रायवसी ही सांगपा सारकी गजाल न्हय. भोगपाची आनी अणभवपाची गजाल ती. दुसरो पिडटा तेन्ना तातूंत भाजून भोगपाची. दुसरो पिडिना तेन्ना एकांतांत परमानंद अणभवपाची. प्रायवसी हें एक अंतराळ. मनमेकळें मळब. एक राज्य. एक आगाठ. तिका जायते आयाम आनी कंगोरे आनी पाकळ्यो. तर्काक धरून प्रायवसीची व्याख्या जायना. तुजे प्रायवसीचो घेर तुकाच खबर आसता. तुजे कालेतीचेर तो पातयेवन उरता.

म्हज्या जिवाभावाच्या इश्टांगेर गेलों जाल्यार हांव एक जतनाय घेतां. चर्चा लांबल्यार ताच्या बायले-भुरग्यांक आमचे चर्चेचो त्रास जावंक फावोना. तांकां त्या गजालींनी 'इंटरॅस्ट' आसना. कानार पडल्यार वीट येवं येता. इश्टा कडेन उलयत रावलों जाल्यार तांचें कुटुंबीक वेळापत्रक इबाडूं येता. चड करून चड उलोवपाचें आसल्यार हांव इश्टाक पासयेक व्हरतां. दर्यावेळेर वा गार्डनांत खबऱ्यो मारूंक आपयतां.

मुंबय वा हेर शारांनी वतकच हांव हॉटेलांनी रावप पसंत करतां. थंय प्रशस्त, आलिशान बंगले आशिल्ले जीव घालपी इश्ट आसात. तांच्या बंगल्यांनी हवेशीर गॅस्ट रूम आसात. सरबराय वा आदरातिथ्य म्हणचे कितें हें तांचे कडल्यान शिकचें इतले ते अपुरबायेचे.

दनपारचो जेवणाक वतां. खबऱ्यो मारतां. शक्य तितलो राती कडेन रावना. रावलों जाल्यार एकूच रात. मामकोच काकुळटेक येवन एकलो आगरो करता म्हूण हांव एके रातीक जुहूक उरलों. जेवन खावन जातकच इश्ट म्हणटा - 'भरपूर खबऱ्यो मारुया रे आज. खूब तेंपान मेळ्ळा...'

-'बाबा रे, इकरा जातकच म्हजे दोळे धांपूंक लागतात. आपशींच.' प्रायवसीचेर

आमी चर्चा केली. रोखडीच हांवें गुठली केली. हालींच मुंबय आयलो हुंवार. सगल्या इमारतींच्या तळमजल्यांचेर भरलें उदक. हो इश्ट दुसऱ्या माळ्यार रावपी. ताका त्रास जालेनात. पूण मालाडच्चीं ताचीं सोयऱ्यां तळमजल्यार रावपी. तांगेर घरभर उदक जालें. हीं हांगेर आयलीं. धा दिसांनी गेलीं. इश्टान फोन करून आपलो जीव ल्हव केलो.

-'आनीक धा दीस रावल्यार कांय हरकत नाशिल्ली रे. प्रस्न तो न्हय. आपलींच मनशां. पूण नखरे रे बाबा केदे! परिस्थिती आकांताची. हेंच खावपाक जाय. तें हिका आवडना. ती भाजी नाका. हें तिका पचना. हांव मागीर च्या घेतां. तुमी सध्या घेयात. आमच्या वेळा प्रमाण हांची तडजोड ना. पूण एकूच. तुजी खूब याद जाली. प्रायवसींचेर आमी केल्ली भासाभास कितली सार्थ तें होलमलें.'

एक मित्र शेनवारा बंगळूराक बसींत बसला आनी मोबायलार वयल्यान म्हाका फोन करून फरमायता 'फाल्यां सकाळीं गोंयांत पावतां.'

हो सभार्गी पयलेंच खेपे गोंयांत येता. म्हजो प्रोग्राम कितें तें आदीं विचारिना. हांवें पयलीं कितेंय कार्यक्रम आंखला आसूं येता हाचेंय ताका धंगण ना. हांव कसल्याय व्यापांत वा गर्टींनी घुसपलों आसूं येता हाची पर्वा ना. जण एकल्याचें दीसपट्टें थारायिल्लें वेळापत्रक आसता. कांय तारखो आदींच बूक आसतात. म्हयन्या पयलीं ताणें कळयिल्लें जाल्यार हांव ताचे खातीर वेळाचो व्हडलो भाग राखून दवरपाचों. धांवपळ टळपाची.

मूल्य शिक्षणाचेर विद्यापीठ जातलें काय ना हो एक स्वप्नरंजीत विचार. तशें घडलेंच जाल्यार म्हाका दिसता त्या पाठ्यक्रमांत एक धडो आसचो. 'प्रायवसी' ह्या विशयाचेर. ताचीं पयलीं वाक्यां अशीं आसचीं: 'म्हाका लागून दुसऱ्याक मात्तुय त्रास जावंक फावोना. ताचेर अन्याय जावंक फावोना. दुसऱ्याचे प्रायवसींत रिगून हांवें ताका दुखख दिवंक फावोना.'

त्या धड्यांत प्रायवसींच्या वेगवेगळ्या आंगांचेर आनी तासांचेर उजवाड पडचो. प्रायवसींचे वेगवेगळे थर आनी पापुद्रे विसकटावन सांगिल्ले आसचे. प्रायवसींत रिगपी अतिरेक्यां पसून आपणाक कशें वाटावचें हे विशीं कांय युक्त्यो आसच्यो.

आपल्याक कोणूय दंडणा करूंक येता अशें दिसना फुडें आपणा भोंवतणीं वंय कशी घालची आनी ताका दुखयनासतना कसो टाळचो हे विशीं कांय सुत्रां आसचीं.

जण एकल्याक प्रायवसी जाय. ल्हान भुरग्याक जाय. एक दीस तो थारायता - फाल्यां सकाळीं उठून आपूण घरा भायर मातयेंत खेळटलों आनी किल्लो बांदतलों. तो मनोराज्यां करून न्हिदता. सपनां रंगयता. दुसऱ्या दिसा सकाळीं उठून आवयबापायन जर ताका सांगलें, चल, आज आमी वेळेर या. घडये ताका वेळेर वचपाचें नासत. ताचीं येवजण मातये भरवण केल्यार तो दुख्खी जावं येता.

जो टायपींग करता वा संगणकार मजकूर कंपोझ करता ताचे फाटल्यान वचून उबो राव. ताची एकाग्रताय भंगलीच अशें समज. टेलिफोनाचेर कोणूय उलयता वा दोग जाण प्रत्यक्षांत उलयतात तेन्ना आपणें शाणेपणान अर्थ समजून कुशीक सरूंक जाय. बसींत आडसाट्या तरणाट्या चल्या-चलयेची जोडी अश्लील चाळे करून विटयता तेन्ना तांकां प्रायवसींतली गजाल उकत्यार भौसाक त्राशीक थारता हाचें भान आसना. अशाच विशयाचेर गजानन जोगाची एक सुंदर कथा आसा. 'दूधसागर'.

दोग इश्ट वा दोगी इश्टिणी उलयतात तेन्ना तांकां तिसरो नाका आसता. लग्न जाल्ल्या जोडप्याक प्रायवसी जाय आसता. नवेपण आसता तेन्नाच ती जाय अशें न्हय. शीला कोळंबकाराची एक अप्रतीम कथा आसा. 'इल्लें शीं इल्ली गरमी'. भुरगीं सुटयेंत मामागेर वतात. जोडप्याक प्रायवसी मेळटा. खूब खूब तेंपान. जाय जाय म्हूण वाट पळोवन वथरेल्लीं अशें खाजगीपण.

इश्टागेर गेल्लों. आर्किटॅक्ट आनी चित्रकार. दर्यावेळेर सुंदर बंगलो. स्थापत्यशास्त्राचो एक देखदिणो नमुनो. रसीक आनी सृजक मनाचें दर्शन घडोवपी. पोरसूं. धोलपी माड. ताणें कुडी दाखयल्यो. तिनूय भुरग्यांक स्वतंत्र कुडी. आपल्या बेडरुमाक तेंकून ताचो प्लान्त आनी चित्रां काडपाचो कक्ष.

-'हांगा चित्रां रंगयतना वा प्लान्त काडटना बायल लेगीत भितर आयल्यार म्हजो मूड इबाडटा.' तो सांगता. अकस्मात ताणें वणतूच धुकलिल्ले भशेन एक दार उकतें केलें. हिंदी फिल्मी दुनियेंतले भशेन एक कूड.

हो म्हजो प्रायवसी रूम. ताणें सांगलें.

हांवें भितर तोंड घालून पळेलें. ल्हानसोच रूम. वोल्तेर. धाकटुलो दिवाण. शेंदरी...

'म्हाका घराचो आराखडो रचतना दिसलें, म्हजो म्हूण एक रूम जाय. म्हाका एकल्याकूच. मूड मारता तेन्ना थंय विसव घेवपाक. चिंतपाक. थकतां तेन्ना लोडेवपाक. निरशेतां तेन्ना ताजोतवानो जावपाक. केन्नाकेन्ना बेठोच एकलोच थोडो वेळ स्वता वांगडा रावचें शें दिसता. तेन्ना हांव ह्या रुमांत येतां. थोडो वेळ सगल्या संवसारा पसून अलग. केन्ना केन्ना बेठेंच रडूंक येता. 'श्यामची आई' पुस्तक वाचून हुमसून रडिल्लों तसो. तेन्ना हांव ह्या रुमांत येवन खूब रडटां. ल्हान भुरगो जावन. कसलो तरी निचरो जायत आसा हें कळटा. दोळे गाळटकच दोळ्यांकूच बरें दिसता. दडपल्लें आनी चेंपिल्लें कितें कितें भायर सरता. काळीज ल्हव जाता.'

'गर्दींत आसून लेगीत आमच्या काळजाच्या एका कोनशांत अदींमदीं शांत विसव घेवंक जाय. भितर भितर खोल... जण एकल्यान घरच्यां वांगडा मेळून भरसून लेगीत अशे प्रायवर्सींत बुडूंक जाय. आरोग्यूय निकोप उरता...'

हांव अजापीत जाल्लों. पूण दाखोवन दिलेंना. तो केन्नाकेन्ना थंय फिरकता आसतलो. कदाचीत योगसाधना, मेडिटेशनूय करता बी आसत काय, कितलो वेळ थंय बसता आसत काय अशे कांय विचार मनांत गर्देन दाटले. ते विचारप म्हणल्यार प्रायवसींत घुसप.

एका उदात्त विचाराचो कवदो घेवन ताणें सुक्या करडाचें कुडें पेटोवचें तसो म्हाका पेटोवन घालो. 'प्रायवसी' विशयाचो आटाप आनी खोलाय केदी आसूं येता ताचो थाव घेतां घेतां हांव अजुनूय धगधगत आसां.



# 10. आनीक एक कोचींग क्लास

शिकिल्लो मनीस एकेकदां इतलो नालायक कसो कित्याक वागता काय? वाचूंक-बरोवंक जाणा जाल्लो मनीस एकेकदां जनावरांसारको कित्याक वागता काय? पदवी घेतिल्लो वा साक्षर वा कथीतपणान सुशिक्षीत मनीस असो विचित्र कित्याक वागता काय? शिकिल्लो लोकप्रतिनिधी येद्या व्हड प्रमाणार विस्वासघात कित्याक करता काय?

चिंतून चिंतून तकली विरार जाता. मुदलांत जीण मागिनासतना मेळ्ळी आनी सुदैवान शिक्षण नांवाची गजाल म्हाका आदळ्ळी. देखुनूच शिकिल्लो मनीस कित्याक घाळटा वा घाणटा ह्या विशयाचेर चिंतूंक पावलों. शिक्षण नांवाची गजाल जाका आदळूंक ना, ताका हे मनस्ताप नात. चिंतप हो चिंतपाची 'फॅकल्टी' विकसीत करपाचो बरो व्यायाम. स्नायूंक व्यायाम घडलोना जाल्यार तांचो वावर सारको जायना. पिसो जायना इतले मर्यादे भितर चिंतप ही तशी बरीच गजाल. शिक्षणान निदान म्हज्या चिंतपाच्यो कक्षा वाडयल्यात आनी हे प्रक्रियेक गती दिल्या.

फोन वाजतकच उखलना बाराबर उच्च विद्याविभूषित मनीस म्हाकाच विचारतात - 'कोण उलयता?' - आपली वळख म्हळ्यार सबंद नांव सांगून आपूण अमके कडल्यान उलयतां ही फोन करपी शिकिल्ल्या मनशा कडल्यान अपेक्षा धरप चूक काय? संवाद सादतना दुसरो मनीस उलयता आसतना ताका लक्ष दिवन बारीकसाणीन आयकल्यार ह्या मनशांचीं आंगां गळून पडत म्हण तो भियेता काय? दुसरो मनीस आदळटकच - जावं बाजारांत, जावं रस्त्यार, जावं बशींत, जावं बसकेंत, जावं कार्यावळींत आपणें किर्ने-कितलें-कशें उलोवचें हें शिकिल्ल्या मनाक कळना काय

आमची अपेक्षाच्च मळबा येदी आसता? आपणें दुसऱ्याक कितेंय काम सांगलें म्हणटकच तें जातकच करपी मनशाक 'तें जालें' (थँक्यू सोड) असो इल्लोय प्रतिसाद शिकिल्ल्या मनशा कडल्यान अपेक्षीत धरचो काय ना? आपणा पसून दुसऱ्याक त्रास जाता आसत हाची इल्लीय जाणवीक शिकिल्ल्या मनशाक कित्याक आसची न्हय? चिंतनाचें संपादन करिनासतना आपूण जेन्ना उलय उलय उलयतां, बडबडटां तेन्ना ताचे दुसऱ्याक क्लेश जातात आसत हाची जाणवीक कित्याक आसची न्हय? 'ब्रेन-फार्ट' म्हळ्यार मेंदवांतल्यान जेन्ना आपूण 'आयले तशे' पाद मारीत आसतां तेन्ना ताचे पसून कितलें भिरांकूळ प्रदुशण आनी हळशीक जावं येता हाची जाण शिक्षीत उचांबळ मनशाक आसता काय कितें? आपल्या शब्दांनी गोड उलोवचें सोडून गरज नासतना आपूण दुसऱ्याक जेन्ना दुखयतां ताची पर्वा आपणाक आसता काय कितें? निदान सांसवभर तरी भितरले विकार शिक्षण नांवाचें वखद उणें करूंक कित्याक 'फेल' वचचें? शिक्षण नांवान जो डोस दिवप चल्लां तांच्यांतल्यान भ्रमिश्ट गोंदळ्ळेलीं मनां तयार कित्याक जावचीं? हाडामासाच्या आपणा सारक्या दुसऱ्या मनशाक मनीस म्हणून त्रातार करपी मुल्यां केळोवपाक शिक्षण कित्याक अपेशी थारचें? दीस धांवर वतना तांबडोगुंज जावन, आज तुवें केलें कितें, अशें विचारपी सुर्याक पर्वा करपी मनां घडोवपाक शिक्षण कित्याक यशवंत जावचें न्हय?

'मेडियोक्रिटी' ह्या शब्दाक कोंकणींत कितें उतर आसा हांव नकळों. हांव उलयतां ती 'मेडियोक्रिटी' विचारीक वा बौद्धीक पांवड्या वयली निखालस न्हय. मनशाची वागपांतली 'मेडियोक्रिटी', बेजबाबदारपण, बेपर्वा, बेफिकीर, बेदरकार वृत्ती, फाजील अहंकार, मद, गर्व हीं सगळीं हे 'मेडियोक्रिटी'तल्यान उपराशिल्लीं भावंडां. ताचे परिणाम कितले खोल आसूं येतात आनी तें कितले तगून उरूं येतात हाका शीम-मेर ना. संस्थेचो एक वांगडी ह्या रोगान पिडीत आसत जाल्यार तो रोंटो कसो सबंद संस्थाच गिळटा. पंगडाचो वांगडी रोगी आसल्यार संघभावना सुसुत्रीत जावंकूच पावना. असलो एक लोकप्रतिनिधी आसल्यार तो सगळें शासन जाणटल्यांचें बेंस कशें खेळयता. 'मेडियोक्रिटी' च्या रोगान पिडीत मनीस कुटुंबाक पिडटा, समाजाक

त्राशीक थारता. सगली यंत्रणाच तो खावन उडयता. ताची स्वतासरींच संतुळा आसना. वागणुकेंतले 'मेडियोक्रिटी' चो हो रोग इतलो बळावला की ती सदचीच गजाल जालल्ल्यान रोगांचे वळेरेंत तो आमकां दिसना. कथीतपणान शिकिल्ल्या मनशाकूय ह्या रोगाचे जंतू बादतात हें एक अजापूच कशें!

मनशान उजू चलणुकेन वागचो, प्रामाणीक वर्तन करचें ही अपेक्षा शिक्षणा कडल्यान धरपूच चुकीचें काय? 'शिक्षण' नांवाची जी कितें गजाल भोंवतणीं चल्ल्या ताचें प्रयोजन जर बरो मनीस घडोवपाचें नासत जाल्यार कितें तरी चुकलां आसूं येता. मुदलांत फटींग आशिल्लो मनीस शिक्षणांतल्यान म्हाफटींग जावपाचे मार्ग सोंपेपणान आपणायता आसत जाल्यार मुळावणांतूच घटसाण उणी जावंक ना कित्या वयल्यान? विकृत मनशाक सुसंस्कृत करपाची तांक शिक्षणांत येवं येत काय कितें?

तर जाय कितें? मनशांतलें मनीसपण वाडोवपी आनी जागयत रावपी शिक्षण जाय. मनशा भितर विनय आनी विवेक सासणाचो जागो दवरपी शिक्षण जाय. भितरल्यान गुणांनी सुंदर मनीस घडोवपी ब्युटी-क्लिनिकां जाय. खऱ्या अर्थान संतुळीत, शाणो, सुसंस्कृत आनी शिकिल्लो मनीस कोण? जो आपटना बाराबर एक वेगळोच परमळ आमच्या रुंवारुंवांत भरून वच्चो, जो वाचेन उलोवचो ना पूण जाचें मुखामळ उलयतलें, जाका पळयना फुडें जिवाक बरें दिसून, तो जाय जाय कसो दिसून कृतार्थतायेन घाळ्ळ करून दुकां येवचीं असो तो गोड मनीस. असले गोड मनीस घडोवपी 'कोचींग क्लास' जाय. असली शाळा जाय. न्हय लोलो, बोमो, झेंपो, झेमो, भिजूड, अजागळ, अबरगत, टणटणमारी, अर्दकुटो.. पूण नमळ आनी तितलेच खरायेन तडफदार, आत्मविस्वास, धीट, कर्तृत्ववान आनी निर्भय असो चकचकीत चारित्र्याचो मनीस घडोवपी वेगळी शिक्षण संस्था जाय. कळावान शाळा सुरू जावनूय पाठ्यपुस्तकांची पुरवण करूंक शकनात असले घाळ कारबार ह्या यंत्रणांनी नाकात. शिक्षण कित्याक लावन खातात हें खबर नाशिल्लें वेवस्थापन हांगासर नाका. तोच सोरो दुसरे बाटलेंतल्यान दिवपाची चूक नाका. जिणेन दिल्ले चिमटीभर स्वास 'गिफ्ट' म्हणून आपणावन वेळाक आदर दिवपी भुरगे घडोवपी

कोचींग क्लास आमकां जाय. 'मेडियोक्रिटी' च्या दुर्येसान पिडीत अस्थीर लोक सरभोंवतणी शबय कांडटलो तेन्ना असहाय जावन आपल्या मनाची 'इक्वेनिमिटी' कुम्कुट्य हालची ना असलें टॉनीक दिवपी शिक्षण संस्था जाय. भायल्या शिगम्यांतलो बोवाळ आपले सूर बेसूर करचो ना, आपली लय हालची ना असली थंडाय दिवपी इश्कोल जाय. आंगठेबहाद्‌दरांक म्हणल्यार निरक्षरांक साक्षरां खातीरचें शिक्षणीक धोरण आंग्वपाची मेकळीक दिवपी यंत्रणा मनीस घडोवपी शाळांनी उपकारची ना. हांगासर अपुरबायेचे. शाणे शिकोवपी जाय. गलगल्याक आयिल्ले भशेन फकत 'नोकरी' करपी शिकोवपी नाकात. सेवा भावनेन मिशन समजून, लागणूक वळखून, पोर्टातडकीन जीण ओंपपी शिक्षक जाय. समाजाचे भलायकेचें आनी फुडाराचें जाका पडलां ते तानेवन आनी व्याकूळटायेन असले शिक्षक सोदूंक लागतले. भयाण वास्तवतायेंत फडफडपी कांय जाण स्वप्नरंजन अशें म्हणीत नाकां मुड्डूं मागीर! लागूं वेळ!! ते वर्ग घडटले!!!



# 11. पालकनिती आनी शिक्षकनिती

टेलिविजनाचेर एक व्याख्यान आयकतालों. एक विचारवंत उलयतालो. प्रस्न जबाब सुरू जाले.

एकल्यान विचारलें - भुरगीं आमी सांगिल्लें आयकनात. कितें करूं?

तुमी तांचेर प्रेम करात. जाप.

ताचो विचार बरोच खोल आशिल्लो. प्रेमांत विस्वासाची, सुरक्षीततायेची भावना आसली म्हणटकच आदेश दिवपाची गरज लागना.

झाडाक चड उदक दिल्यार झाड कुसतलें. उणें दिल्यार तें वाडचें ना. बावतलें.

भुरग्यांक दिल्लें शुद्ध प्रेम अशें आसचें. नस्त्यो अपुरबायो न्हय. भुरग्याचें व्यक्तीमत्व इबाडटा इतलें अती न्हय. जावं बर्ट्रांड रसेल, एरीक फ्रॉम वा साने गुरुजी वा हेर सगले लेखक आनी विचारवंत... सगल्यांनी ज्ञान आनी प्रेम वेगळावं नजो हाचेर भर दिला. नेमको हो उणाव आयचे शिक्षणीक रचणुकेंत दिसता. जो कितल्याश्याच समस्यांचें मूळ थारता.

भुरग्यांक मुल्यांचें, संस्कारांचे, नितीविचारांचें शिक्षण मेळ्ळेंना जाल्यार गंभीर परिणाम ताच्या व्यक्तीमत्वाचे घडणेंत जावं येतात. कश्ट, दगदग, अपमान, त्रास, क्लेश, समस्या, आव्हानां, आडखळी ह्यो जिणेच्यो वेगळावं नजो अश्यो गजाली हें भुरग्यांक कळूंक जाय. तांकां शिकोवंक जाय. देखीक- सदांच गाडयेन भोंवपाची संवय जडिल्ल्या भुरग्यांक एक दीस लोकल बशीन प्रवास करतना तांचीं तोंडां आनी हावभाव पळोवचे. हे अणभव तांकां दिवंक जाय. बसप्रवासा सारकींच हेर शेंकड्यांनी उदाहरणां दिवं येतात.

भुरग्यांक पालकांनी वेव्हारज्ञान शिकोवंक जाय. बाजारांत नुस्तें, कांदे, बटाट, गोड, साकर, भाजयो आनी हेर जिनस घेतना तांच्या हातांत पोती दिवन बाजारभाव, वाणपण, जिनस वेंचप हें तांकां शिकोवंक जाय वाचनाची संवय भुरग्यांक लावंक जाय. बरीं बरीं पुस्तकां, ज्ञानकोश, शब्दकोश, विज्ञान ग्रंथ, साहित्य तांकां दिवंक जाय. सामान्य गिन्यानाचीं पुस्तकां दिवंक जाय. चवकसपणां वाडटलीं अशें वातावरण दवरूंक जाय.

पुस्तकां पेल्यानूय जिणेअणभवाचे समृद्ध आयाम आसात हाची पक्की जाण आनी समज पालकांक आनी शिक्षकांक जाय. प्रगल्भताय आनी परिपक्वताय वाडोवपी शिक्षण जाय. भुरग्याचो बौध्यांक म्हणल्यार Intelligence Quotient (IQ) विकसीत करतनाच ताचो भावनीक बौध्यांक म्हणल्यार Emotional Quotient विकसीत करपाचेर चड लक्ष जाय. स्मार्ट भुरगो घडोवचे पयलीं बरोऽ भुरगो घडोवपाचेर भर जाय.

घरांत आयिल्ल्या सोयऱ्यां कडेन कशें उलोवचें, ऊठबस करचें, वासपूस कशी करची ही आदरातिथ्य आनी सेवेची भावना भुरग्यांक शिकोवंक जाय. जाण्ट्यांक आदर दिवपाचो गूण विंबीत करूंक जाय. फोनाचेर आपणें कशें उलोवचें. दुसऱ्याचो फोन येतकच नमळायेन कशें आनी कितलें उलोवचें हें तांकां देखींनी शिकोवंक जाय. दुसऱ्याक मोबायलाचेर फोन करतकच तो घडये गाडी चलयता वा मिटिंगेंत वा संडासांत आसत ही भावना मतींत दवरून 'एक मिनीट उलोवं?' अशें विचारपाचे संस्कार भुरग्यांचेर करूंक जाय. आमीच पयलीं ह्या संकेतांक पाळो दिल्यार मूं?

म्हजीं घरचीं सदांच कागाळ करतात - दोन आडवाद सोडल्यार तुका जितल्याय लेखकांचे वा हेर चड शिकिल्ल्यांचे फोन येत आसतात ते आपलें सगलें नांव आदीं सांगिनासतना नोकराक खबडसायिल्लेवरी विचारतात - मुकेश आसा? (कांय इश्टांचे वा सोयऱ्यांचे आवाज घरचीं वळखतात तांकां हो नेम लागू जायना.) अशें जो करिना तो आपलें उणाकपण दाखयता. भुरगीं हेंच शिकतात. दोश कोणाचो?

काल्यच एकलो सांगी. तांचे कॉलनींत खंय एक दोतोर रावता. दुसऱ्या माळ्यार. शेजाऱ्यां कडेन संपर्क ना. हटकप ना. आपलेच्च गुर्मेंत. अदींमदीं तो बायले भुरग्यां

खातीर भायलीं फास्ट फूड पॅकेटां हाडटा. खावन जातकच काशी आनी कांटे आनी हेर उश्टें सकयल उडयता. कांटे, सांगाडे, कागदां, सिल्वर फॉयली सकयल पडिल्ल्यो आसतात. फापसतात. पातळटात. झाडांनी, तुळशीच्या रोपांनी, जळामळा. हो दोतोर नितळसाणीचे आनी पर्यावरण राखणेचे आनी शेजारधर्माचे दुसऱ्याक पर्वा करपाचे कसले धडे भुरग्यांक दिता काय? दोश भुरग्यांचो?

पालक वा शिक्षक कितल्योश्योच गजाली उलयनासतना शिकोवंक शकतात. by example उलयनासतना वायट गजाली कश्यो शिकोवं येतात ताची देख वयर सांगल्या. भुरग्यां कडेन वा तांचे मुखार फट उलोवप, हेरांच्यो बकच्छायो करप समा न्हय. भुरग्यां मुखार कितें उलोवचें वा कितें उलोवंक फावोना हें खबर आसूंक जाय. ही जतनाय बाळगिलिना जाल्यार गंभीर परिणाम जावं येतात.

म्हज्या इश्टाचो एक चलो गोमॅकॉत सर्जन आसा. तो केन्नाय थंय पावल्यार जे नमळायेन आर्तेसांव दिता. त्रात दिता तें पळोवन जीव धन्य जाता. हाचें 99 प्रतीशें स्त्रय ताच्या बापायक वता. कारण हे संस्कार भुरगेपणांतल्यान बापायन केल्यात ते हांवें पळेल्यात. ह्याच दोतोराच्यो दोन गजाली सांगतां.

त्या वेळार तो सातवेक आसुये. हांव केन्नाय इश्टा कडेन तांगेर खबरी मारतालों तेन्ना हो मित्र पुताक आनी ताच्या भावंडांक भितर आपापल्या कुडींनी वचूंक सांगतालो. आमच्याच तिसऱ्या एका मोगाच्या इश्टाच्या सभावदोशाची वा हेर कसलीय चर्चा केली जाल्यार तीच गजाल भुरगीं मनांत धरून बसतलीं, तो मनिसूच वायट अशें तांकां दिसूं येता ही ताचे फाटली भावना. खरी ती.

होच दोतोर वैजकी शिकप करतना ताका बाकिच्यांक पळोवन मोटरसायकल जाय अशी हुक्की आयली. ताच्याच एका इश्टा फाटल्यान बसून वतना दोगांकूय एकदां अपघात लेगीत जाल्लो. तरी पूत हट्ट करता, तेन्ना बापायन म्हाका विनंती केली. 'आमचें दोगांयचें तो आयकना. तुका तो मानता. तुजें उतर मोडचो ना.'

म्हाका पटलें. अपुरबायेन समजायलो. आवयबापायचेर गुरगुरलो पूण ओगी रावलो. उतराक पाळो दिवन फुडल्या वर्सा बापायन आपली गाडी ताका अदींमदीं वापरपाक दिली. कालांतरान ह्याच दोतोरान आपली बरी गाडी घेतली. मोटरसायकलीची याद

करतकच आयजूय तो हांसता. नमळायेन. भोंवतणचें वास्तव पळेयात. आवयबापूय दीसभर कामाक. भुरग्या खातीर तांकां जाय तितलो वेळ मेळना. शिक्षणीक सर्तीच्या ताणतणावाक लागून गोंयांत भुरग्यांच्यो फाटोफाट दोन आत्महत्या जाल्ल्यो.

धा बारा दीस ताचे फाटल्या कारणांची उस्तवारी करून प्रसार माध्यमांनी प्रसार केल्लो. पूण ते नदरेन घाळ रावल्यार परत आत्महत्या वा खून वा हिंसा असल्यो समस्या उचकूं येतात हें विसरून चलचें ना.

भुरग्यांत गुंतवणूक करप गरजेचें. ते खातीर पयली गजाल जाय म्हणल्यार वेळ. हो वेळ दिवप हीच खरी गुंतवणूक. एक जापसालदार, कर्तृत्ववान नागरीक घडोवपाक अगपूण वेळ दितां हो समज वेळ दिवप्याक आसूंक जाय. भुरग्या कडेन मेकळेपणान उलोवपाक वेळ काडूंक जाय. फकत ताका पंदरा हजारांचो मोबायल आनी स्कूटरी वा मोटरसायकल आनी पयशांचे कवळे दिवन चलचें ना. कोण सांगता भुरग्यांक तापोवंक जायना म्हण? मस्ती आळाबंदा हाडपाक वा शिस्तीक लागून भुरग्याक उजरावचोच. गरज पडल्यार मृदारपा खातीर सौम्य ख्यास्त दिवची. पूण एक आं - आमी जाणटेल्यीं गरज नासतना एकामेकांक दुस्वासान वा कुसकेपणान जशीं दुखयतात, मुझ्यार करतात, तोंकार करतात ते तरेन पालकान वा शिक्षकान बालमनाचेर कारण नासतना गंभीर आघात केन्नाच करचे न्हय. एक शिटकावणी - निळू म्हजो निळू, कोलत्यांनी खेळूं, घर म्हजें जळूं पूण निळू मात खेळूं अशे तरेन फाजील लाड केल्यार असले अविकसीत निळू भौशीक मळांचेर कांड कांड काडून फुडारांत खूब लुकसाण करतात.

'पोरशनाची' हुंबकळपी तलवार तकलेर आशिल्ल्यान शिक्षकांक बऱ्यो गजाली विंवोवपाक वेळ आसना हें कारण सार्थ आसा. पूण कांय गजाली उलयनासतना शिकोवं येतात. देखीक- निवळस्माण. जो शिक्षक निवळ कपडे घालून येता, वेळोवेळ केंस मारता, दीसपट्टो खाड करून निवळ आसता (खाडये आडवाद) तातूंतल्यान अनुकरण करपासारक्यो जायत्यो गजाली शिकयता. जो शिक्षक शिस्तीचो, वेळ राखपी आनी हेर रेक्तपणाक पाळो दिता, तो उलयनासतना खूब कितें शिकयता. जो निश्क्रीयपणान वाजेता, उबगता, विटिल्लो आसता, परवडो, पिरंगता तो हे न्हयकारी



तरंग सोडटा.

खरो शिक्षक हो पयलीं एक बरो विद्यार्थी आसता. स्वताच्या तानेल्ल्या विद्यार्थीपणाक लागून तो दर दिसा वाडटा. खरो शिक्षक विद्यार्थ्यांचो पेलो फकत भरिना. तो गिन्यानाच्यो वेगळ्योवेगळ्यो तानो ताच्यांत निर्माण करता. विद्यार्थ्याक कळच्यो नात अश्यो ताचे तांकींतल्यो शक्यतायो तो ताका उलगडून दाखयता. राष्ट्रपती वा राज्य पुरस्कार ही शिक्षकाची खरी जोड न्हय जावंक ना. पूण आपल्या सहवासांत आयिल्ल्या विद्यार्थ्यांचे मानगुटेर कायम बसप आनी विद्यार्थ्यान घडींघडीं शिक्षकाची याद काडप हें ताचें खरें इनाम.

खलील जिब्रानान प्रॉफॅट पुस्तकांत शिटकायलां, 'भुरग्यांचेर तुमचीं मतां, तुमचे विचार लादूं नाकात. स्वतंत्रपणान येवजुपाची कला तांकां शिकयात.' खरें तें. अयोग्य मार्गान वतात जाल्यार तांकां अवश्य मार्गदर्शन करचें. पूण साक्षात्कारी बापायन भुरग्यांकूय भक्त जायात अशें मत तांचेर लादचें न्हय. आनी बुद्धीप्रामाण्यवादी, पुरोगामी विचारांच्या बापायन सत्य सोदतना तानेन व्याकूळ जावन आत्मज्ञान वा आध्यात्म हांचे कडेन वचपी भुरग्याक आडावचो न्हय. हय पालक कसलेय विचारसणेचो आसूं, आपलो भुरगो स्वताच्या पांयांचेर उबो रावपी बरे तरेन वागपी मनीस जातलो हाचे कडेन लक्ष दिलेंना जाल्यार पालकनिती-शिक्षकनिती 'फेल' गेली म्हूण समजुचें. बरें वागपी म्हणजे कितें? दुसऱ्याक केन्नाच आपणाक लागून त्रास जावचो ना हे विशीं जागरूक रावपी, जमल्यार दुसऱ्याक मजत करपी पूण केन्नाच पिडपी न्हय असो. नम्र पूण झेंपो आनी मेंगो न्हय. शूर, धाडसी पूण उर्मट आनी सुबेज न्हय. असले शीलवान भुरगे आनी तरणाटे घडोवपी पालकनिती आनी शिक्षकनिती आमकां जाय.

जीण ही एक सुंदर यात्रा आनी आत्मसोद (self-discovery) घेवप हें शिक्षणाचें अंतीम ध्येय. तो फोकस स्पश्ट आसल्यार... आव्हान जिखलें!

आनी निमाणें - पांच वर्सां पिरायेचे आपले धुवंक घेवन एकली बायल एरीस्टॉटला कडेन गेली. हाका बरें मनीस करूंक जाय. केन्ना सुरू करूं?

- पांच वर्सां कळाव जाला, जाप आयली.



# 12. नातें स्वताचें स्वता कडलें

हांव हाका वळखतां. ताका वळखतां. थोड्यांक वयलेवयर. थोड्यांक लागींच्यान. कांय जाणांचो इतिहास, भुगोल, खाजगी जीण सगलें सगलें जाणून घेवपाची एक उत्सुकताय म्हज्यांत नाचत आसता. म्हजे इश्ट, सोयरीं, थळावे-राष्ट्रीय-आंतरराष्ट्रीय पांवड्या वयले आनी गांवा वयले, जगा वयले लेखक, संगीतकार, कलाकार, अभिनेते, खेळगडे हांचे धवळे म्हाका मना पसून आवडटात. तांच्यो खबऱ्यो जाणून घेवपाक हांव तानेल्लों आसतां.

हांव हाची वळख ताचे कडेन करून दितां. ताची हाचे कडेन. हय रे सायबा! पूण हांवें म्हाका स्वता कडेन केन्ना 'इण्ट्रोड्यूस' केला व्हय? स्वताक वळखुपाचो अर्थ तरी म्हाका कळ्ळा व्हय? ती रीत तरी म्हाका खबर आसा व्हय? हांवें म्हाका केन्ना जाणून घेवपाचो येत्न केला व्हय? केन्ना स्वताक नियाळ्ळा? अभ्यासला? कितले खोलायेन आनी गांभिर्यान ही खटपट आनी धडपड केल्या? मुदलांतूच ह्या येत्नांची गरज तरी आसा काय कितें? आसल्यार कित्याक?

जर स्वता कडेन हांव म्हजें नातें जुळोवंक शकलोंना जाल्यार हाचे परस व्हड ख्याश्त आनीक दुसरी आसत? हाचे परस आनीक कठीण दंडणा आसत? ना. देखूनच तें टाळपाक हांव म्हजें स्वता कडेन नातें चड आनी चड घट आनी स्पश्ट करपाक वावुरतां.

म्हजी म्हज्याच ठांय सुसुत्रताय, ताळमेळ आनी संतुळा नासतकच तरेतरेच्यो समस्या उपरासतात, जगाचे फाटी वयलीं व्हडलीं व्हडलीं गेरां कांयच न्हय. म्हज्या स्वता कडल्या नात्यांत 'हार्मनी' नासतकच म्हज्यांत एक म्हाभिरांकूळ गेर उसळटा.

भावभावनांचे अनियंत्रीत कल्लोळ, तिडक, किंवाटो, दुस्वास, वखवख... ह्या झुजा रंगांक अंत ना. म्हाका ते हालोवन खिळखिळावन सोडटात. ह्या झुजांत बळी पडटात म्हजी शांती, समाधान, थिराय.

म्हाका म्हजे कडलें नातें खेळकर, मेकळें मेकळें, सहज, पारदर्शक दवरूंक जाय. तातूंत आसा स्वातंत्र्य, पांखां लावन आनंदाच्या अंतरिक्षांत उडपाचें तें 'लायसन्स'. ह्या नात्याच्या धाग्याक गांठ पडली जाल्यार हांव अस्वस्थ, बेचैन जातां. भोंवतणच्यांक पिडापीड जाता. संपर्कांत येवप्यांक क्लेश जातात.

बोवाळ गोंदळ हांचें प्रदुशण चालूच उरतलें. वयल्यान तें वाडटलें. पूण तातुंतूय हांवें म्हजे कडलें नातें आनी ते विशींची लागणूक विसरूंक फावोना. हें नातें हाल्लें जाल्यार म्हजी कृती कशी बेसूर जाता, लय हालता, सम चुकता... तें हेरांक कळना जाल्यार म्हाका कळटाच कळटा. कळटकच हांव सादूर जातां, सांवरतां, भानार येतां आनी ह्या नात्याचो जो अंतर्नाद आसा तातूंत हांव विसावतां. म्हजें म्हजे कडलें नातें हो जिणेच्या प्रवासांतलो नांगर!

भूक लागतकच खावप, तान लागतकच उदक पियेवप हातूंत सुवार्थ आसा? ना मूं? मागीर म्हजें स्वता कडलें नातें वाडोवपांत कसलो सुवार्थ आसा? भितरल्यान लखख, निवळ, शुचिर्भूत आसल्यारूच हांव म्हाका बरे तरेन समजूंक शकतलों. भितरल्यान नेमान सान्न मारल्यारूच हांव हें नातें निवळ दवरूंक शकतलों. भितरली चिकचीकसाण पयस करूंक पवित्र विचारांचें न्हाण घेतल्यारूच हें नातें तगतलें.

वेळ म्हजे मुठींत ना. हांव ताचे मुठींत आसां. खावपाक, जेवपाक, न्हिदपाक, संडासांत वचपाक वेळ काडटां. स्वता कडलें हें नातें चकचयाळ दवरपाक दर दिसा वेळ काडचोच पडटलो. कित्याक? हो रियाझ, ही साधना जिणेचे यात्रेंत सांगात दितली. स्वता कडल्या नात्याच्या ह्या सुक्षीम धाग्यार बसून हांव धोलतां आनी तातूंत रमतां. तेन्ना घडटा एक खरीखरी कविता. बरोवंक नाशिल्ली. कारण ती बरोवंकूच नजो जाल्यार!

कित्याक! हे मायावी जात्रेंत हांव शेणूंक फावोना. हे यात्रेंत हांव स्वता पसून व्हांवूंक फावोना. पार्ट करता आसतना हांवें स्वता कडलें नातें वाडोवपाचें कर्तव्य

विसरूंक फावोना.

जगा कडेन संपर्क सादपाक आसा मन आनी बुद्द. स्वता कडल्या नात्याची जोडणी एकाच मार्गान जाता. तो सांकव म्हणल्यार काळीज! अंतस्करण. ताका उपाशीं उडयल्यार हांव फसतलों. समूळ मुशीं.

स्वासाचें ल्हार म्हज्यांत खेळत आसता तेन्नाच म्हज्या आसतेपणाक अर्थ आसता! किनलें अळंग आनी अचळय उडटा हें स्वासपाकुलें! स्वासांची ही सरपळी मर्यादीत. वागपणां केल्यार बाजार उलगता. म्हजें स्वता विशींचे नातें समजलेंना जाल्यार निमाण्या खिणाक पस्तावतलों.

अंतीं जावं जायना खंती! देखून त्या वेळा वयली उपरती, पश्चात्ताप, तळमळे, तडफड, अतृप्ती टाळपाक आयजूच म्हाका स्वता कडलें नातें समजूं दी. समजून तातूंत नंदूं दी.

अर्थ ह्या शब्दाचो अर्थ शब्दकोशांत दाखोवचो आसल्यार ह्या नात्याची देख दिवंक जाय. म्हज्या स्वता कडल्या ह्या नात्यांत जिणेंचो आसा अर्क. ना बुद्दीप्रामाण्यवादाचो तर्क. ह्या नात्याक आसा अर्थ! ना अंत...



# 13. घर हें आनी तें!

भुरगेपणांत दर्यादेगेर रेंवेंत बंगले बांदले. पांय मुंगरून दवरचो, रेंव थापची, पांय काडचो आनी त्या बिला वयर एक घर उबारवें. फस्का काडयांची वंय बांदची. मागीर छंद जडलो सिगाराचीं पाकिटां पुंजावपाचो. तातूंतलीं बेगडी कागदां पुस्तकांत घालपाचो. तीं पाकिटां एकार एक रचून बांदचीं घरां. वाऱ्याची व्हाळीक येना फुडें भस्स करून पाकिटां कोसळचीं. केन्नाय इस्पिको खेळून वाज येतकच पानांची बांदची बिल्डींग. तीय कोसळची. शाळेंत गेलों. तेन्ना पाठ केल्लें एक वाक्य - मनशाच्यो तीन गरजो म्हणल्यार अन्न, वस्त्र आनी निवारो. जिणेच्या ह्या मोडणार आयजवेर घराचे कितले आयाम नदरेक आयले हांचें कोंत करूं नजो. रावपाक पाखें जाय. वणटी जाय. 'प्रायवसी'चें म्हूण थळ जाय. रावतिका. सदन. भवन. केदें आसचें? कशें आसचें? भितर कितें दाळचें?

खोंटांनी मॅगझिनां येतात. 'इंटेरियर डॅकोरेशन ॲण्ड डिझायनिंग' विशयाचेर. भितरलें फर्निचर, मंडास, बेझिनां कशीं आसचीं हें सांगपी. वास्तूशास्त्र, स्थापत्यशास्त्र, फेंग-शुई मांडावळ, जनेल खंयचे दिशेन आसचें हें सांगपी धर्मीक शास्त्रां... पुस्तकां आनी नेमाळीं. घे गा... इल्लोसो आसतना सावन शेवण्यांक पळेतां. त्योच काडयो आनी बडये कुडके पुंजावन तेच तरेंचे घोंटेर तांचे. आयजवेर एकूच डिझायन. आमचीं घरां? झाडां कापून कापून जमीन बोडकी. प्लॉटूच प्लॉट. बिल्डिंगोच बिल्डिंगो. ऊंच ऊंच. शेवण्यांक लेगीत पिडापीड बडयो सोदपाक. मेळ्ळ्यार मूं? झाड सोदपाक. झाडाचें खांकोळ सोदपाक. घोंटेर बांदपाक. कुमान्नीचें घर पळे. फाटीर घर घेवन भोंवपी गोगलगाय पळे. आमकां मात इमारतींचें लागलां पिशें.

पर्यावरणाचें शेर्मांव ही आर्विल्ली फॅशन! हालींच एका चित्रकार इश्टान आपलो बंगलो दाखयलो. ताच्या मतान आगळो नमुनो. ताचो आर्किटॅक्ट इश्ट आनी हो चित्रकार हांणी एकठांय येवन घडयिल्लो एक कलाविश्कार. कशें लागलें तुका? प्रस्नाक हांव फकत हांसलों. मनांत दाटलीं विचारकुपां आनी लागलीं घसघसपाक.

द्वारपाल आसूं वा मुदलांत दार नासूं. बंगलो आसूं, खोंप आसूं, कितें फरक पडटा?

जनेलां मात व्हडलीं आसूं. घरांत मेकळेपणान वारें खेळूं. घरांतल्या मनशांचीं भितरलींय जनेलां अशींच व्हड आनी उकतीं आसूं. विचारांचें वारें मेकळेपणान घोळोवपाक. मनशांचें शुद्ध. निरपेक्ष. निर्व्याज प्रेम घोळूं घरांत. तो सुगंध सगल्याक दरवळूं. घरांत खेळूं संस्कार. वसूं शांती. समाधान. मनशां मदलें मनीसपण, समजिकाय, भावपण, एकचार.

घरांत वाडूं मूल्यांचीं बियां. शुचिता, ऋजूता, शुद्धताय, पावित्र्य... येत्या वत्याक घरांतलें हें वातावरण जाय जाय शें दिसूं. आगांतूक आयिल्ल्या सोयऱ्यांचीय सरबराय सेवा भावनेन जावं. घरांत आसूं थंडाय. शितळसाण, थीर थीर स्पंदनां...

ह्यो गजाली सांगपी मॅगझिनां कित्याक येवंक नात काय?

नितळसाण आसूं. लखख. चक्क. वास्तूची आनी मनांची.

घरांत पुस्तकां आसूं. पेपर आनी नेमाळीं. वाचिल्लीं. अधोरेखीत केल्लीं. आपलो रुशेंत घरांतल्यांनी दवरल्या देखून धादोस्भरीत जाल्लीं.

घर सजय. पूण सजय, सजय, सजय... असलो भयरांजोळोप नाका.

कित्याक?

काणयेंतल्या कोल्याचें घर पावसान व्हांवन गेल्लें. कोल्येचें मेणाचें घर वतान कडून गेलां आसतलें.

सूर्र करून भुंयकांप आयल्यार म्हजें घर मातये भरवण जातलें. हुंवार आयल्यार व्हांवन वतलें. आकांतवाद्यांचे बॉम पडल्यार... पिठो. खिणयाळ्या आनी अनिश्चीत घराचो फाजील थातोमातो हांव करचों ना. म्हाका पडलां त्या घराचें. जंयसावन हांव आयलों आनी अंतीं जंय वतलों. व्हान कूकूलीं भुरगीं म्हणटात, म्हज्या पप्पाली

गाडी व्हऽडली. तेच धर्तेर हांव म्हणीन - म्हजें तें खरें घर व्हडलें, व्हडलें...

कोणें बांदलें तर हें? कोण बिल्डर हो? तो बिल्डर जाला आनी ताणें माया जमयल्या म्हूण होय भौतीक नदरेन कथीतपणान श्रीमंत जावपाचे लालशेन वेवसायांत पडचो तसलो अडे बाटगो न्हय तो!

म्हाका पडलां 'त्या' चिरंतन निरंतर घराचें. खीणयाळे जिणेंतल्या खीणयाळ्या घराचे वांशे केन्ना घुंवत आनी घर केन्ना घुंवत हाची शाश्वती ना. पूण तें घर कसल्याच भुंयकांपान हालना. मोडना. चळना. ढळना. ह्या मातयेच्या घरांत रावपी शरिराच्या कानांक गायन वादनाचें 'आहत' संगीत जायूच. पूण शरिरांत रसरसपी तें चैतन्य त्या घरांतल्या 'अनाहत' नादब्रह्मांत भिजूं... भितरले अंतरंग त्या दिव्य रंगारंगांनी रंगूं... 'त्या' घरांत वतना हांव परकी कसो चोरपावलांनी वचचों ना. लजत-बुजत, खांकुडिल्ले भशेन वचचों ना. मातयेच्या घरांत रावतना कोंसियेंसाच्या पेल्यांत हांवें निर्मळ करण्यांची जी पुंजी केल्या तो 'व्हिजा' घेवन हांव त्या घरांत प्रवेश करतलों. ओंर्राद. झेतान. नेटान. ल्हान भुरग्या भशेन धांवत वतलों दुडूदुडू... त्या महालांत. नीज धाम तें. परम धाम!



# 14. भाई

कांय व्यक्ती म्हजे मानगुटेर सासणाच्यो बसल्यात तातूंतली भाई ही एक. भाई म्हणल्यार म्हजो इश्कोलांतलो हेडमास्तर रवीन्द्र नमशीकार. ताका नागेशींचे लोक भाई म्हणुनूच वळखताले.

भाई हो हाडाचो शिक्षक. एक बरो कलाकार. आनी पिंडान आदवोगाद. तल्लख बुद्द. तडफदार सभाव. ताचें व्यक्तीमत्वूच कोणाचेरूय भुरळ घालीत अशें. सदांच ताजोतवानो. पोलें गुलार्बाच कुळागरांतल्या जांबां भशेन वा काश्मीरी सफरचंदां भशेन.

वाद घाल्नूंक लागना फुडें जसो सराचो रागाचो पारो वाडटा तश्यो नाकापुडयो फुलत रावच्यो. वाद घालपाची वाट्च पळेंत आसता काय हो अशेंच दिसचें. एकॅडेमिक्स आनी आदवोगाशी हांची वादा वेळार अशी भरसण करून भाईन मखलाशी करून मोडची की प्रतीस्पर्ध्याक खरस हाडची. भाई हें अशें तरेन वादळी व्यक्तीमत्व जाल्ल्यान कोणूच भाईचे वाटेक वचनाशिल्लो. भाईच आपणाक जाय तेन्ना जाय तसो अन्याय करतल्यांचे वाटेक वचून तांच्या नाकातोंडांत फेंस हाडटालो.

पिरवळा शिक्षा सदनांत हांवें पांचवे यत्तेंत प्रवेश घेतलो तेन्ना नमशीकार सर हेडमास्तर.

शिस्ती खातीर ताची नामना आशिल्ली. आमकां पांचवेक, सवेक नमशीकार सरान शिकोवंक ना. पूण सर आठवेचो वर्ग शिकयतना म्हाका पांचवेच्या वर्गांत रेकाद येतालो.

'तुका हेडमास्तरान आपयला.'

थंय वतकच ताणें म्हाका कसलेंय स्पॅलींग विचारचें वा उतराचो अर्थ विचारचो. हांवें सादेपणान जाप दिवची. 'वच आतां' असो आदेश मेळटकच हांवें परत क्लासांत येवचें.

त्या वर्गाक त्या उतराचो अर्थ खबर ना पूण पांचवेच्या भुरग्याक लेगीत कळटा अशें तांकां दाखोवन लज करपाचो तो उपाय आशिल्लो. अश्यो तरातरांच्यो क्लृप्ती ह्या अध्यापकाच्या रगतांतूच आशिल्ल्यो. नाटकी ढंगान मस्त्या, टणटणमारी, आडांगी भुरग्यांक त्रोसां, थोमणे अशे मारचे की कोणाचेर बाण मारला हें ताका नेमकें होलमुचें. भाई तापार जातकच एटम बॉम. शी सायबा! मागीर तो बेगीन न्हिवनासलो.

णव्वेक इतिहास आनी धावेक इंग्लीश आनी इतिहास हे विशय हेडमास्तरान आमकां शिकयले. ताची शिकोवपाची धाटणी जादू केल्ले भशेन. *पिनड्रॉप सायलन्स* नांवाची एक ओपार इंग्लीशींत घोळटा. हे ओपारीचो खरेलो अर्थ हांवें नमशीकार सराच्या पिरयडा वेळार अणभवलो. आदल्या पिरयडाची घांट जातकच जर नमशीकार सरालो पिरयड आसत तर सबंद क्लासभर एक धीरगंभीर मसंड शांतताय आनी स्तब्धताय पातळटाली.

म्हाका स्वताक जाल्यार नमशीकार सराचो पिरयड म्हळ्यार एक सांठोवन दवरपाचो अणभव कशें दिसतालें. तांच्या शिकोवपाक तरातरांच्यो कळा आसताल्यो. वेगवेगळे ढंग. दर दिसा कितें तरी नवें. एकेक दीस इंग्लीश धडो शिकयतना एकूच परिच्छेद शिकोवचो. केन्नाकेन्नाय आख्खो धडो 35 मिणटांच्या पिरयडांत सोंपोवचो. धड्याची कालेत पळोवन. तांचे कडेन अभिनय आसतालो. कारण भाई नमशीकार हो गुणी कलाकार आनी अभिनयाची तांक ताचे ठांय रगतांत आशिल्ली. ताका लागून तांच्या शिकोवपांत एक भारीत करपी जादू आशिल्लो. इतिहास शिकयतना, नागरीकशास्त्र शिकयतना सरभोंवतणच्यो जित्यो जिव्यो देखी दिवन शिकोवपाचें आगळेंवेगळें कसब तांचे कडेन आशिल्लें. तांच्या शिकोवपांत एक चैतन्य, उर्बा आसताली. जें शिकयता तें थेट बुद्दीच्या आयदनांत रकतालें.

उलोवपाची शैली प्रवाही, खणखणीत आनी आत्मविस्वासान भरिल्ली आसताली. मदींमदीं भेदक आनी मार्मीक विनोदाचे फवारे आसताले. तेन्ना हांसून

मुड्डो जावचो. रोखडेंच धीरगंभीर आवाजान ताणें मुखार शिकोवपाक सुरवात करची. बोवाळ वा मस्ती करपाची कापाझदाद टणटणमारी भुरग्यांक लेगीत जायनाशिल्ली. कारण हेडमास्तराचो दरारो, जरब, शिस्त आनी धाकूच तेदे तांकीचो. केन्ना आवाज तापत हाचो नेम नासतालो. सातवेक आसतना वर्सभर ताणें आमकां 'कम्युनिटी लिवींग' हो एकूच विशय शिकयलो. सप्तकांतल्यान एकूच पिरयड. पूण त्या पिरयडाचो आनंद घेवपा खातीर आमी आठवडोभर वाट पळोवची. एक दीस एका विद्यार्थ्यान 'कूड' ह्या इंग्लीश उतराचो अर्थ 'कुल्ड' असो केलो. सरान हांसत हांसत ताका सुदरायलो. तरी बरें पोटांत कुळ्ळ जाता तशें कुळ्ळ म्हणलेंना म्हूण!

नमशीकार सर जात्याच बुदवंत, हुशार. व्हड तांकीचो उर्जेचो ट्रांस्फॉर्मर कसो. म्हजी अपुरबाय केली ती ह्या हेडमास्तरान. असले हेडमास्तर मेळपाक भाग्य लागता. सातवेक आसतना म्हाका एकदां मुकूर पर्वरीच्या युनिटी क्लबान घडोवन हाडिल्ले निबंद स्पर्धेंत इनाम मेळ्ळें. तें घेवपा खातीर हेडमास्तर एका आयतारा सुद्दम म्हाका घेवन पर्वरी गेल्लो. ती सुवात बरीच पयस आशिल्ली. शेतां माड्डीत कांय किलोमिटर चलत आमी गेले. बक्षीस घेवन आयले. पणजे पावले तेन्ना रात जाल्ली. एक व्हडलें सफरचंद सरान म्हाका दिलें. त्या सफरचंदांतलें प्रेम अजून तशेंच आसा.

म्हज्यांतले अभ्यासांतले गूण पळोवन ह्या हेडमास्तरान हांव सातवेक आसतना सगळ्या टिचरांची एक मिटींग घेतली. म्हाका खास मार्गदर्शन करपाक. हांव धावेक आसतना म्हाका गोवा बोर्डाच्यो आदल्यो सगळ्यो प्रस्नपत्रिका हाडून दिल्यो. णववे मेरेन हांवें तिसरी भास मराठी विशय घेतिल्लो. धावेक कोंकणी घेतल्यार सबंद टक्केवारी बरी मेळटली देखून हो विशय घेवपा खातीर हेडमास्तरान विनंती केली. स्वता कोंकणीचो तांणी मोगी आशिल्ल्यान म्हाका भोव खुशालकायेन हो विशय घेवपाक दिलो. इतलेंच कित्याक, स्वता तो विशय म्हाका एकल्याक वर्सभर शिकयलो. तें मेरेन शिक्षा सदनांत कोंकणी विशय सुरूच जावंक नाशिल्लो. धावेक सरान आमकां इंग्लीश (पद्य) आनी इतिहास-नागरीकशास्त्र हे विशय शिकयले. अजूनय याद येता तेन्ना तांचो क्लास दिश्टी पडटा. रसमाण जावन शिकोवपी हेडमास्तर

दिसता. म्हाका मार्गदर्शन करपी सराची ती ऊब जाणवता. आनी आंगार कांटो फुलता. एक फुरफुरो येता, भाईभशेनूच.

भाईकडेन एक सादेपण आशिल्लें. सभाव काटकसरी. नाका थंय फसफस करून नश्टखर्च करिनासप. सगलें जाय तितलेंच नेमकें आनी वेवस्थीत. स्वता आकांताचे गतीन टायपरायटराचेर टायप करपी. बसप सरळ, एका खाशेल्या झेतान. संगितांतली पेटी लयबद्द वाजोवची तशें टायप करचें. आदीं कांय वर्सां मुंबय सारिल्ल्यान तांकां ह्यो कितल्योश्योच कला येताल्यो. तांचें घराणें कलाकारांचें. हेडमास्तर स्वता एक कुशळ नाट्य कलाकार. तांणी नागेशीं अंत्रूज ललितक ही संस्था उबारली. स्वता नाटकां बरयलीं. तीं कला अकादेमीचे कोंकणी नाट्य सर्तीत सादर केलीं. त्या तेंपार आमच्या इस्कोलाच्यो प्रवेशिका कला अकादमीच्या शालेय एकांकी सर्तींत तांणी घालच्यो. आमकां पणजे व्हरचे. स्वता दिग्दर्शन करून. तांणी स्वता एकदां नाटकांत दोन वळींचो संवाद उलोवन सर्तींत अभिनयाचें गुणवत्ता प्रशस्तीपत्रक मेळयलां. हाचे वयल्यान भाईची अभिनयांतली जाणकारी कळटा. सकाळीं एसेम्ब्ली वेळार हेडमास्तरान एक नेम केल्लो. पेपरां वयल्यो हेडलायनी वाचप. इंग्लीश आनी मराठी. तेन्ना कोंकणी पेपर सुरू जावंक नाशिल्लो. अदींमदीं म्हजी वाचपाची पाळी आसताली. एक दीस हांवें मर्डरर (खुनी) म्हणपाचे सुवातेर चुकून मर्डर (खून) असो उच्चार केलो. वर्गांत इंग्लीश पिरयडा वेळार घे गा, भाई टणटणटा. तुवें चूक केलीच कशी? तेन्नासावन हांवें हेडलायनी वाचतना दक्षताय बाळगिली ती सासणाची. अजुनूय हांव आकाशवाणीचेर बातम्यो वाचतां तेन्ना हेडमास्तरान एके चुकी खातीर हटकिल्लो ती याद जाता.

म्हज्या भुरगेपणांत पिरायेक लागून खूब खेंपे हांवें हेडमास्तरा कडेन जायते वाद घाले. तांचे कडेन वाद घालतना लेगीत एक कैफ मेळटालो. वाद घालचे ते वाद आवडटा अशा हुशार लोकां कडेन. भाईसारक्यां कडेन. शालेय शिक्षणांतलो कायदो आनी देवळांचो कायदो हे कायदो नेम भाईक तोंडपाठ आशिल्ले. तांचो कीस तो काडटालो. निवृत्त जातकच भाईन थोडो तेंप आदवोगाशी केली. फोंड्यां कोर्टांत तो वसताला. दुसरे आदवोगाद वा आरोपी युक्तीवादांच्या जाळ्यांत घुसपलो

रे घुसपलो, भाई ल्हान भुरग्या भशेन भितरले भितर हांसतालो.

भाईक कोंकणी भाशे विशीं उपाट मोग आशिल्लो. तो म्हाका आवडटालो. भाई वादग्रस्त. भाई म्हळ्यार नागेशींचें एक अशांत वादळ. अन्याया आड पेटून उठपी. आनी त्या वेळार मखलाशी करपाक ताका कोणूच लागचो ना. मिटिंगो गाजोवच्यो जाल्यार ह्या भाईन. सभा गाजोवच्यो जाल्यार ह्या भाईन. भाशणां गाजोवचीं जाल्यार ह्या भाईन. प्रशासन, संघटण कुशळटाय, आयोजन, वेवस्थापन ह्यो गजाली भाईक पळोवन कोणेंय शिकच्यो. स्मरणशक्त तल्लख. ताणें रिपोर्ट केन्ना वाचलेच नात. फकत यादींच्या म्हालवजार धडाधड घसघसो कसो अहवाल सादर करचो. आयकतल्याक अजापूच जावचें. असो हो भाई. असलो शिक्षक म्हाका मेळ्ळो हें म्हजें भाग्य. नागेशीं केन्नाय कमल्याय कारणाक लागून वचूं, हांव सरागेर भितर सरून खबरी मारल्ले बगर वचनाशिल्लों. भाई खोश्शी जातालो. ताचे परस हांव चड खोशी जातालों. भाई कडेन क्लृप्ती आशिल्ली. तो बुद्दीबळ खेळपीच. वेव्हारांत लेगीत जाय नशे फांशे उडोवपी आनी चाली रचपी. देखून भाई कडेन उलोवपाक म्हाका सदांच एक धुंदी मेळ्ळी.

वचना तो रगतांत भरसल्लो भाई! तो जिणेच्या वेगळ्यावेगळ्या मोडणांचेर म्हाका तुकलायत आसता. कुटलायत हांसता. तेजिश्ट पोले फुलोवन धवेफुल्ल दांत दाखयत किर्टकिटत आसता. खतखतो आयिल्ले भशेन. आनी त्या खिणाक हांवूय बी भाई भशेन उर्जेवंत जीण जियेतां असो भास म्हाका जायत रावता. खऱ्यांनीच!



# 15. आजयेलें पोरसूं

आजोळचें घर खूब व्हड आशिल्लें. रासवळ स्वरुपाचें. घरा मुखार आंगण. घरा सरभोंवतणीं जायती सुवात आशिल्ली. थंय आजयेन पोरसूं वसयिल्लें. आंगणा मुखार गोठो. तातूंत गोरवां, गोठ्या वयर पावसांत वंय घालून मळो फुलतालो.

मळ्यांत पिपऱ्यांची वाल, घोंसाळीं, चिबडां, काराथीं जातालीं. इल्लोसो मळो, भेंडे जाताले. वांयगीं जातालीं. तातूंत नाचणें लेगीत लायतालीं. लांकडी माटवा वयल्यो इल्ल्योश्यो सुकुंड्यां भशेन दिसपी पिपऱ्यो हांव आजयेची नदर चुकोवन केन्नाय खातालों. गोठ्याच्या तणाच्या पांख्याचेर दुदणी चडटाल्यो. दुदी हुमकळटात ते पळोवपाक मजाच दिसताली. सणसणीत कुळकुळीत दुदी. ते फोडटकच तांचे कुडके कितल्याशाच वांटेकाऱ्यांगेर पावताले. दुदया पसून भर्त आसतालें. खतखत्यांत फोडीय आसताल्यो. गोठ्याक तेंकुनूच म्हशींग आशिल्लो. म्हसकाचीं हळडुवसार फुलां पडटालीं. हांव तीं पुंजायतालों. तांचो वापर कणंगांचे भाजयेंत जातालो. म्हसकाच्यो सांगो जाताल्योच. घरच्यो आशिल्ल्यान हुमणाक वा रोसाक एक वेगळीच रूच येताली.

मळ्यांत केन्नाय तांबडे भाजयेचीं बियां किल्लायताले. त्या इल्ल्याश्या तांबड्या रोंप्यांक जतनायेन उदक शिंपचें पडटालें. मळ्यांत दोन-तीन पेरीचीं झाडां आशिल्लीं. एकाक कापीं म्हणल्यार भितरल्यान कातले भशेन लागपी धव्या गोरपाचीं पेरां लागतालीं. बाकीच्यांक भितरल्यान गुलाबी कोराचीं.

गोठ्यांतल्यान वयर वतनाच एक लकिल्लो पारजत आशिल्लो. पिसा शारांतल्या लकिल्ल्या मनोऱ्या भशेन तो बावगल्लो. घम्म्य करून जमनीर केन्नाय घालून घेत

अशेंच दिसचें. पूण तो केन्नाच लंवडलोना. वादळी पावसांत लेगीत. सत्यभामेच्या पारजताचीं फुलां रुक्मिणीच्या आंगणांत पडचीं तशीं ह्या पारजताचीं नखेत्रां भशेन दिसपी फुलां जळींमळीं गोठ्यांत, तेंकून आशिल्ल्या मार्गार, मळ्यांत सगळ्याक शिंपडचीं. गोठ्याचे उजवे वटेन मावळिंगेचीं झाडां आशिल्लीं. आनी तांकां तेंकून कुळागर सुरू जातालें.

आमी मळ्यांत त्या कुळागरांतल्या पाटाचें उदक शिंपपाक आजयेक मदत करी. त्या उदकाची मयाय शुद्ध. वयर दोंगरा वयल्यान एके तळयेच्या उगमांतल्यान तें येतालें. पावसा दिसांनी वालींक दिशा दिवपाक आजी थंय वावुरताली. नडणी करताली. पावस पडटकच्च आमी धांवत सकयल घरा येतालीं. घराचे दाबे वटेन वेगळेंच पोरसूं फुलिल्लें. केळी आशिल्ल्यो. अनशी आशिल्ल्यो. एक बिमलीण झेतान उबी आशिल्ली. बिमलां हुमणाचो सुवाद वाडयतालीं. करबिलाचीं झाडां आशिल्लीं. त्या पानांक बरो जायजायसो दिसपी वास येतालो. वयर वट्टेलांव लायिल्लो. वोकडयो आशिल्लो. गंजन आशिल्लें. वखदी वनस्पत धरून सगल्यांचो वापर दीसपट्ट्या आहारांत, जिणेंत जातालोच. एक व्हड पणस आशिल्लो. माकडांनी अर्दे खाल्ले पणस वा कुसके कुंवले धब्ब करून केन्नाय नळ्यांचेर पडटाले. एका पावसांत पणसाचो एक खांदोच घराचेर कोसळ्ळो. तरी माणसुकी, कोणाक कांयच जालेंना. नळ्यां सुवातेर जायतना तेंप पत्र घाल्ले ताची याद जाता. कारण घराक घशटून कांय माड गेल्ले तांचे बोंडे टणण करून आनी सुकीं चुडटां केनाय धों करून नळ्यांचेर पडटालीं.

घरा फाटल्यान झाडां आशिल्लीं. दोन आंबुल्ल्यो, एक पानवेल लायिल्ली. आंबुल्ले कडेन इश्टागत साद्न पानवेल तिच्या खांदार रेवडत गेल्ली. ती मातशी पयस आशिल्ल्यान तिका उदक घालपाक जिवार येतालें. 'पानवेलीच्या धर्मान म्हसकाक उदक' ही म्हण उदक शिंपतना सदांच याद जावची. पोपायो आशिल्ल्यो. निरपणस लायिल्लो. कालांतरान तो रोगी मेलो. पोरसांत निरपणस आसप वायट अशें आजी मागीर 'द्राक्षां आंबट' शैलींत म्हणटाली. तिणें हळद लायिल्ली. हळडीचीं पानां पातोळ्यांक उपकारा येतालीं. आळूं, कारांदे, कणंगां, आलें, सुरण, तारवटी

मिरसांग... अंत ना!

घराच्या चारूय वटांनी आजयेन जीं फुलझाडां लायिल्लीं तांची विवीधताय अजाप करिसारकी. आंगणांतल्या तुळशी वृंदावनाक तेंकून कुंजांचें झाड आशिल्लें. तें गलगल्याक आयिल्ले भशेन लकतालें म्हूण त्या वालींक तेंको आनी धिगी लावन माटव घाल्लो. पोंदाक बारीक बुराक आशिल्ल्या आलेमिनाच्या आयदनांत आमी कुंजां पुंजायतालीं. लागीं मोगरेच्यो वाली आशिल्ल्यो. त्योय कुंजिणींत भरसल्ल्यो. तांचेंय कळे त्या आयदनांत पुंजायतालीं. गुलाब, धाल, बटमोगरीं, कणेरां, आबोलीं, रतनआबोलीं, रोजां, शेंवतीं, दसणीचीं तांबडीं फुलां. वेगळे जातीचीं गुलाबी दसणीचीं फुलां, सदाफुली, अनंत, जांबळीं, गुलाबी, धवीं गोठलां, शब्दुलीं, देवकेळम्याचीं फुलां...

आजो सामको देवभक्त. देवपुजेचीं फुलां काडपाक तो स्वता आपलो कुरपणो घेवन सकाळीं फेरयेक वतालो. वांगडा कासाचें आर्म व्हरचें तशी उंचा वयलीं फुलां खुटपाक कोंड्या बडयेची तेंकडी आसताली. स्वेटर, कानतोपी परिधान करून शिंया कुडकुड्यांत लेगीत फांत्यापारार आज्यालो हो फुलां काडपाचो नेम नेमान चलतालो. व्हड भक्तीभावान तो आसकळ विसकळ व्हडले देवाकुडींत बसून पुजा करतालो. दत्तम्हाराजाच्या आनी हेर देवांच्या पांयजेलांक तो फुलां ओंपतालो.

म्हाड्डोळ हो मुदलांतूच फुलांचो गांव अशें म्हणल्यार अतिताय जावं नजो. देवपुजेक लागपी फुलां काडून जातकच उरिल्लीं सगळीं फुलां आजी फुलकारांगेर विकूंक धाडटाली. हळयो, वळेसर, फांतयो, गजरे, हार आनी हेर कामां खातीर तांचो उपेग जातालो. हीं फुलां घालून धाडपाक आजयेन दोन तीन रंगांच्यो पोतयो कपड्या पसून स्वताच शिंविल्ल्यो. तिचो हिशोब चोख आसतालो. अकांवण्टण्टांक लजयत असो. पोरसाचो सांबाळ आजी स्वता सांज सकाळ आवडीन, निश्ठेन, आस्थेन करताली. शिंपणावळ शिस्तीन जाताली. आटाप खूब व्हड. पूण शिटूकसार्णान, प्रशासकी कळाशेन आजी सगळें पोरसूं पळेताली. झाडांची कुयदाद घेताली.

आजोळच्या त्या घरा भोंवतणीं पोरसूं आशिल्लें अशें म्हणप समा न्हय. व्हडलें

पोरसूं आशिल्लें झांडां झाडांचें आनी तातूंत मदीं एक घरूय आशिल्लें अशें म्हणप योग्य.

आजयेल्या पोरसांतलीं झाडां तिच्या सहवासान एके तरेन मनशाळिल्लीं. ती तांकां सांसपिताली. म्हऱ्यांत वताली. पळेताली. तांची वासपूस करताली. अर्थ अपुरबाय करताली. मनशालो सहवास असले रुखावळींत आनी वनस्पतींत वेगळें चैतन्य भरता हें मांगपाक वनस्पतीशास्त्रज्ञ कित्याक जाय? 'आजयेचो बोटवो' नांवाची एक ओपार आस्सा. 'आजयेलें पोरसूं' म्हजे जिणेंत एक सार्थ ओपार थारलां. त्या पोरसांतलीं फुलझाडां ज्या जोमान, नेटान वाडटालीं तांच्याच गोपांत आमच्या हाडांची, आंगाची वाड आनी पोसवण जाली हें आमचें भाग्य!



# 16. माई

आवय म्हणल्यार वात्सल्य. ममता, स्नेह, प्रेम - शुद्ध नितळ, निवळ, अटी नाशिल्लें. घर ही पयली शाळा आनी शाळा हें पयलें घर अशें म्हणटात. पयले शाळेंतली पयली शिक्षिका म्हणल्यार आवय.

म्हजे घडणींत आनी भुरगेपणांत संस्कार जावपाक कांय प्रेरणास्त्रोतां कारण आसात. तातूंतलो पयलो खांबो म्हणल्यार माई. आमची आवय. मामा आनी मावश्यो तिका 'माई' म्हूण उलो मारतालीं. आमीय भुरगेपणांत तोच शब्द उखल्लो. तीं तिका 'गो, आगो' करतालीं. आमीय 'दी गो', 'हाड गो', 'वाड गो' अशेंच म्हणटात.

माई रांदपाक फिशाल. तिच्या हातांक हो जादू आवय कडल्यान बडीन आयला. ते भायर आवयचें कडक शिस्तीचें प्रशिक्षण तातूंत आसा. पूण रांदपाक माई अन्नपूर्णा, अशें तिच्या भावांलीं आनी भयणींलीं भुरगीं तांच्या भुरग्यांक आंवडे घोंटीत सांगीत आसतात. शिवराक आसूं, नुस्त्याचें आसूं, कितलेय सोयरे आसूं. बेगोबेग ताकतिकेन फटाफट आनी सहज कितलेशेच जिनस तयार. रुचीक, सुवादीक, जिबेक अर्थ हाडपी. रसना तृप्त करपी.

सुकें-वेल्ल्यांचें, गालम्याचें, सुंगटांचें, जित्या फडफडीत तशेंच सुक्या बांगड्यांचें आसूं, आंबटतिखट, बिमलां घाल्लें हुमण आसूं, गाजर, फुलावर हांची सुकी भाजी आसूं, दिवाळे कडले तरातरांचे फोव आसूं. फोडणां घाल्ले बटाटफोव, कालयिल्ले, गोडांतले, रोसांतले, दुदांतले फोव, चण्यांची उसळी, आंवाड्यांची करम... चवथी सारक्या सणा परबां वेळार तिणें सवळें न्हेस्पून गांदिल्लें खतखतें, रोस, वन्न, भाजयो

वा तरातरांचीं गोडशीं आसूं, माईक तो खेळ कसो.

म्हजो मावशेभाव सिद्धेश इंजिनियर. बंगळूराक आसलो. भुरगेपणांतल्यान अजून मेरेन ताका माईल्या हातचो चिवडो आनी बेसन लाडू आवडटात. माईन केल्लें लोणचें, आमलेच्या सुक्या सोलांचें-बिमलांचें-करमलांचें-गाजर फुलावराचें लिंबू पिळिल्लें. दोणांत घाल्ल्या आमल्यांचें लोणचें वा आमले फोडींचें, दिखाळ तरण्या तोराची मिरसांगे पिठो घाल्ली करम हातूंत माईचो हात धरपी कोण लागना अशें तो अभिमानान सांगता.

जिनस खातना हांव तिची तोखणाय करतां. म्हणटां- हाचें स्रय तुका न्हय गो. तुजे आवयक. तिणें तुमकां शिस्त लायली. चिमटीभर मीठ लेगीत उणें जाल्यार खरडपट्टी काडली. तोखणाय केन्नाच केलिना. म्हणुनूच तुमी फिशाल जालीं.

केन्नाकेन्नाय विचारांत वा विवंचनेंत आसतकच कितें खालां-जेवलां हें मनांत वा जिवेर रजिस्टर जायना. जिनस रुचीक आसुनूय हांवें तुस्त करूंक ना हें माईक कळटा. ती म्हणटा - ''आज हुमण सुरबुशीत जावंक ना रे?'' हांव म्हजेच तंद्रेंत सांगतां - ''जालां. लक्ष नाशिल्लें. बरेंऽ जालां.''

म्हजे आवय भितर तिच्या आवयबापायचे गूण आयल्यात. देवभक्ती, सादेपण बापाय भशेन. शिटूकसाण, हुशारी, रांदपाची कळाशी, क्रियाशीलताय आवय भशेन. दोगांय भशेन कश्टी आनी उद्यमी.

माईन आजयवेर आमकां वयर काडपा खातीर तागलें भोगलें. कश्ट उसपिले. अपमान सोसले. कितलें लाचारी-मिंधेपण तिच्या वांट्याक आयलें ताका शीम-मेर ना. तिचे परसूय गुपाट काळखांतल्यान मार्ग काडपी आवयो आसतल्यो. पूण कठीण, वादळी, प्रतिकूल परिस्थितींत तिणें आपलें मनीसपण, शांती, समाधान, थिराय आनी विशेश म्हणल्यार आवयपण जपलें हें विशेश. तातूंत खंयच अळणीपण, उणेपण, सदळसाण येवंक दिलिना. जिणेंतल्या सत्वपरिक्षां वेळार धीर खचूंक दिलोना. केन्नाच ढळ्ळिना.

खंयूय वतकच, मेळटकच कांय जाण विचारतात, ''माई कशी आसा? माई बरी मरे?''

खीणभर म्हाका भिरभिरी मारता. म्हजी वासपूस ना. चवकशी ना. खबर माईची. थोड्या वेळान होलमता, माई ही एक शक्त. स्रोत. स्नेहाची उशणताय दिवपी. सगल्यांक जायजाय शी दिसपी. आनिकूय थोड्या वेळान कळटा, हे आवयचो पूत जावपाची पात्रताय म्हज्यांत ना.

'वळेसर' ह्या म्हज्या निबंदझेल्यांत सुरवातीचीं दोन उतरां बरयतना माईचो उल्लेख असो केला - अहंकार फुगत म्हूण केन्नाच तुस्त, अपुरबाय करिनासपी माईचे उपकार. फाटल्यान सोडातूच, भुरग्याची तोंडार केन्नाच तुस्त करची न्हय. भुरगीं इबाडटात हो दावो ती देखी दिवन स्पश्ट करता. म्हाका व्हडलो भाव आनी दोन धाकल्यो भयणी. चवगांय भितर अजुनूय ती सगल्यांत चड म्हाका उजरायता. केन्नाकेन्नाय बाकीच्यांचोय किंवाटो म्हजेर काडटा हें कळटा. पूण तातूंत उपाट प्रेम आसता. उतरांचो मार खातल्याक तें कळटा.

''आमी चौगांय वेंचणुकेक उबीं रावलीं जाल्यार तूं कोणाक मत मारतली?'' ह्या म्हज्या प्रस्नाक जाप दिवप ती टाळटा. कांयच उलयना. तें मत म्हाकाच पडटलें असो भ्रम म्हाका जाता.

तुमी मात तिका विस्वासांत घेवन म्हजे विशीं विचारल्यार ती एक पाडोच वाचतली. ''कर्माचे लेखक हे. बेजबाबदार. अवेवस्थीत. मेजा वयलीं कागदां, फायली, वस्तू पळे कश्यो अस्ताव्यस्त. एक वस्तू जाग्यार दवरिनासप. कसल्या चिंतनांनी बुडिल्ले आसतात कोण जाणा...''

माई मराठी शिकल्या, पुर्तुगेज शिकल्या. कुळारची प्रियोळकार. व्हड इतिहास संशोधक अ. का. प्रियोळकार तांचे दायजी. पूण थळयांच्या घरांत पावतकच ती कोंकणी मोगी जाली. संगीत रसीक जाली. तिका नाच पळोवपाक आवडटात. कला अकादमीच्या पणजे वा म्हाड्डोळा जावपी नाच महोत्सवांत ती फांकिवंत नृत्यांगनांची अभिजात कला रसीकतायेन आनी दोळे भरून पळेता. कथ्थक, कुचिपुडी, कथकली...

माई नेमान पेपर वाचता. केन्नाय बारीकसाणीन सबंद. कसलेय बातमेचो खोल तपशील तिका म्हजे परस एकेकदां चड बरो खबर आसता. आकाशवाणीचो

वृत्तनिवेदक म्हणपाक म्हाका तेन्ना लज दिसता.

बरें पुस्तक मेळटकच ती आख्खें वाचून उडयता. तेन्ना आमी नगरांत रावतालीं. प्रियोळा. रवींद्रबाबाल्या घरा सकयल दोनशें मिटरांचेर. तिका हांवें तातोलें 'महाभारत-एक अनुसर्जन' दोनूय खंड हाडून दिले. तातूंत तोंड घालिनाफुडें ती बुडली. वोल्तेरांत लंवडून ओक्ल लावन अभ्यासू प्राध्यापका भशेन ध्यासान ती वाचीत रावली. ते पंद्रशेंत रांदप-वाडप आनी हेर घरकामांतलें हरशीं कांटेकोर आसपी तिचें वेळापत्रक वयरसकयल जालें. हांवें म्हणलें, "तुका आतां पुस्तक दिवपूच ना. निदान आमकां जेवणखाण वेळार मेळटलें जाल्यार!" तातोलीं कितलींशींच पुस्तकां तिणें वाचल्यांत. कितलेशे कोंकणी लेखक वा तांचें साहित्य बेरीज करून एकठांय केल्यार तातो मुखार ते फिके पडटले अशें ती अभिमानान म्हणटा. तातो विशीं तिका उपाट आदर.

कालांतरान आमी खोरले रावपाक आयलीं. एक दीस माई तिचे आवयगेर म्हाड्डोळा वचपाक बसींची वाट पळेत राविल्ली. इतल्यान एक गाडी मुखार वचून थांबली. रिवर्सांत फाटल्यान आयली. विमानतळा वयल्यान तातो घरा प्रियोळा परततालो. सगल्यांची वासपूस करीत तातोन तिका लिफ्ट दिली. 'पांय जमनीक तेंकिल्ले उरचे' ही गजाल म्हाका जाणोवपाक ती अदींमदीं मनीसपणाच्या गुणाची याद करपी ही घडणूक परत परत सांगीत आसता.

खूब तेंप जालो हे गजालीक. हांव तातोगेर गेल्लों. तांगेरच्या सुण्यांचो पयलीं भंय दिसता. दारार मारलें. नातू तांवू आयलो. उलो मारीत भितर गेलो. "तातो, माईलो चलो आयला रेय!" तातो भायर आयलो तोच म्हजो दुबाव, अजाप पयस करीत. "तो तुका माई वयल्यान वळखता. तुमी सकयल रावतालीं तेन्ना तो भुरगेपणांत सांजवेळा तुमगेरूच आसतालो. फोलिनांतले लाडू जाय तितले, जाय तेन्ना खावपाची मेकळीक माईन ताका दिल्ली."

माईक भुरगीं म्हणल्यार जालीं. भुरग्यांकूय माई जाय. बटाटवडे, सामुशे, चॉकलेटी, बिस्किटी आनी हेर खावपाचे जिनस ती दीत आसता. अजुनूय तिच्या डब्यांनी, फ्रिज्यांत घरांत येवपी भुरग्यां खातीर खावपाची वेगळी तजवीज आसता. मायेर खंगटे मेळना फुडें माईची चवकशी करता. आमी मडगांवां पेडार रावतालीं तेन्ना

शेजरा आपणा सयत सगल्या भुरग्यांक माई आयस्क्रूट दिताली ही याद माया काडटा. अशें सांगपी कितलेशे जाण मेळटात.

आवयन भुरग्यांचेर बरे संस्कार करचे हें तिचें म्हणणें. भुरगें बरें जावपाक वा इबाडपाक आवयचो हातभार आसता अशें ती म्हणटा. भुरग्यांचे फाजील लाड करचे न्हय. तांकां फटींगपणां-चिकानेरी-कपट शिकोवचें न्हय अशें माई पोटतिडकीन सांगता. मन लावन अभ्यास करात. निबंद सर्तींनी, उलोवपाच्या सर्तींनी, नाटकां, क्वीझ सर्तींनी वांटो घेयात अशे संस्कार ती शेजारच्या वा सोयऱ्यांच्या भुरग्यांचेर करीत आसता. देवाची प्रार्थना नेमान करात हो तिचो आनीक एक संस्कार. कितल्याश्याच भुरग्यांक तिणें गणपती स्तोत्र आनी हेर स्तोत्रां हाडून दिल्यांत. भुरगेपणांत आमकांय दिल्लीं. आमी चौगांय शिकून पांयार उबीं रावलीं तीं माईक लागुनूच. शिक्षणा इतली पवित्र गजाल ना अशें माई म्हणटा. केन्नाय क्लिश्ट गणितां सोडोवपाक म्हजे कडेन भुरगीं येतात तेन्ना हांव वाजेत म्हूण माई शिटकायता - ''विद्यादान ही श्रेश्ठ गजाल. जितलें वापरीत तितलें ज्ञान वाडटा. चकचकता.''

शब्दकोशांत 'स' अक्षराचे शब्द सगल्यांत चड आसतात. देखून जिणेंत सोंशीकसाण आनी सहनशीलताय खूब खूब आसूंक जाय हांचेंच तें द्योतक अशें संतांनी सांगलां. देवाचेर विस्वास आनी सोंशीकसाण हे गूण म्हजे आवय कडेन व्हड प्रमाणांत आसात. तांचेरूच तिणें तग मारल्या.

पूण आंतऱ्यापयऱ्यान भोंवतणची परिस्थिती पासियेंसाचो बांद फोडटा. तकली फुट्टा. भणभणटा. हांव अस्वस्थ जातां. भितरले भितर फणफणटां. तेन्ना माई म्हजें व्हडें नांगराक बांदता - ''जिणेंत अनंत पासियेंस आसूंक जाय हें फकत तोंडान उलोवप मरे?''

माईच्या ओंठांतल्यान परत परत निस्तल्लीं बोधवाक्यां तकलेंत घोळत आसात. वेळाप्रसंगार तीं उजवाड दितात. मार्गदर्शन करतात. दिका स्पश्ट करतात. तुजें कर्तव्य मन लावन कर. एका वेळार एकूच काम कर. ते अर्दकुटें सोडूं नाका. पूर्ण कर. दुसऱ्यान कितेंय म्हणूं. दुख्ख दिवपाचो येत्न करूं, तूं ताका परती जाप दिवं नाका. देवाक साक्षी दवरून विस्वासान मुखार वच. सत्य कळावान दिश्टावो

घडोवं. पूण सत्याचेंच जैत जाता. दुसऱ्यागेर वता आसतना हात झेलयत वचूं नाका. कितें तरी खावपाक वा फळां व्हर. तूं जोडटा तातूंत तुजो एकल्याचोच वांटो आसना. गरिबांक, भुकेल्ल्यांक, गरजेवंतांक तातूंतलो वांटो दी. दानत वाडय. कर्तो करवितो भगवंत. 'हांव'आनी 'हांवें' ह्यो मदाच्यो बडायो नाकात...

ग्रंथांच्या कितल्याश्या आरमारीं परस तिच्या परिपक्व अणभवांचीं उतरां म्हाका सांगात दीत आसात.

आकाशवाणीच्या पणजी केंद्रार एर्मेलिन्दा दीयश हें हुशार अधिकारी खबरां विभागाचें मुखेल आशिल्लें. सिवील सर्विसीस परिक्षा पास जावपाचो मान ताणें मेळयिल्लो. म्हायती सेवा फांटो ताका मेळिल्लो. स्कूटरीच्या अपघाताक लागून हांव घरा रजेर उरलों. दीयश खबरेक आयलें. माईक तें एकदांच मेळ्ळें. पूण उपरांत खूब खेपे तिची याद काडी. ''तुजे आवयच्या तोंडार एके वेगळेच तरेचें तेज आसा. हांसो आसा. प्रसन्न, निरागस, शांत 'ट्रँक्विलिटी' आनी 'सॅरॅनिटी'.'' हें आयकतना म्हाका बरेंय दिसतालें. वायट्य. ही कांत म्हज्या म्हौंवाळ्याचेर येवंक ना हें दुख्ख!

दिल्ली सावन आमी सगलीं कुटुंबीय ट्रेनीन गोंयां येतालीं. माईची इश्टीण वांगडा आशिल्ली. गाडी धडधडटना तरातरांच्यो खबरो चलताल्यो. आमी चौगांय बशिल्लीं. मदींच तिणें आमकां पळेत म्हणलें - ''तुमकां चौगांकूय एकठांय केल्यार माई मुखार तुमी फिकीं. तिच्या मुखामळार एक कश्टांचें, सत्याचें तेज विलसता तें आगळेंवेगळें!''

माई वांगडा हांवें शुक्राराचो वाणस्ताराचो बाजार कितलेशे खेपे केला. तिचीं वाणपणां आनी वागिकसाण पळेल्या. कांदे बटाटां वेंचतना, नुस्तें खारें घेतना, भाजी फळां विकत घेतना. अजूनय तिच्या आदेशा प्रमाण हांव बाजार करतां. पूण नुस्तें मोव आसल्यार ती तें उजरावचे पयलीं म्हाका उजरायता. ''ह्यो वेल्ल्यो मिक्स केल्यात. ताज्यो आसात तातूंत थोड्यो मोव भरशिल्यात. तुजे सारक्या गिरायकांचीं तीं वाट्च पळेत आसतात. नागोवपाक.'' असलीं प्रमाणपत्रां, पदकां, पुरस्कार म्हाका खूब मेळटात.

माईक रांदतना हांव जायत्यो गजाली सांगतां. घरच्यांच्यो. भोंवतणच्यो. जगा वयल्यो. खबरी आनी खबरो. म्हज्यांतलो लेखक आनी पत्रकार तिच्यांतल्यो प्रतिक्रिया

तटस्थपणान पळेता. तेळटा. केन्नाकेन्ना मुडांत नासतना वा रांदपांतली एकाग्रताय भंगल्यार ती वितरागताय. कोंकणी-इंग्लीश शब्दकोशाची रचना चलतना तिचो जीव हांवें जायतो खाला. पिडापीड केल्या. ह्या शब्दाचो अर्थ वा व्युत्पत्ती कितें? तुजी आवय हो शब्द, ही ओपार वापरताली? अजुनूय कोंकणी उतरावळी विशीं तिका हांव विचारीत आसतां.

हांव खंयूय वचूं, गोंयांत लेगीत खंयूय आसूं, दर दिसा तिची फोन करून खबर घेतां. केन्नाय फोना वयल्यान फकांडां करीत. शिळोणी बी घालतकच ती विचारता, ''बेकार रे? कांय उद्देग ना?'' फोन केलोना जाल्यार ती फोन करता. ''आज तुवें फोन करूंक ना म्हूण फोन केलो.''

माईक हांवें कितलींशींच नांवां दवरल्यांत. त्या नांवांनी पाचारतांय बी. कोडू काळखंडाच्यो यादी मनपटलाचेर उदेवच्यो, उफेवच्यो न्हय म्हूण तिका हांव हांसयत आसतां. तिवल्योबावल्यो करून, तिच्या उतरांनी 'बागण्यो' करून!

चारचौगांत बस-ऊठ करपाक, दुसऱ्याक हटकुपाक, घरांत आयिल्ल्यांची सरबराय करपाक, वासपूस करपाक आवयन भुरग्याक शिकोवंक जाय हें माईचें सांगणें. हे धडे शिकयलेनात जाल्यार भुरग्यांचीं व्यक्तीमत्वां सारकीं फुलनात. तीं फुडारांत कुटुंबाक, समाजांत काम करपी आस्थापनांत वा वेवसायांत बाकीच्यांक त्राशीक थारतात हाची विसकटावणी म्हजी आवय वेव्हारीक पांवड्यार करता.

आवयक केन्नाच दुखोवची न्हय. तिणें कितेंय म्हणूं, उलोवं, तापोवं, तिचे दांत भुरग्यांक लागनात. माजर पिलाक तोंडांत धरून उखलून व्हरतना पिलाक दुखता? भुरग्यान, जावं पुतान जावं धुवेन, आवयच्या अंतस्कर्णाचेर दावखूल मारल्यार ती माऊली कळवळटा. कितली?

एक काणी आसा. एकलो पूत खंय बायलेचे साप आदीन जाल्लो. तिचे सांगणे वयल्यान आवयकूय त्रास करी. एक दीस बायलेन फर्मायलें - ''म्हाका तुजे आवयचें काळीज हाड आत्तांचे आत्तां.'' तो आवयचें काळीज घेवन धांवत पळत बायले सरीं वतालो. फातराक आपटून पडलो. मुठींतल्यान आवयच्या काळजांतल्यान आवाज आयलो - ''पुता, शाण्या म्हज्या, लागूंक ना मरे?''

संवसारांतल्या सगल्या साहित्यांत आवयची व्हडवीक गायल्या. पुराणां, संतवाङ्मय, इतिहास. साहित्याचे सगले प्रकार, लोकसाहित्य... सगल्या मळांचेर जननीक उखलून धरल्या. आवय ही मुदलांत एक बायल. घर सांबाळपी. भुरगीं घडोवपी. अमेरिकेंत 'मदर्स डे' मनोवपाक सुरवात जाली. तांचें अनुकरण आमीय करतात. ती भोगावळ एका दिसाची आसूंक फावोना. आवय विशींची कृतज्ञताय सदांच व्यक्त जावंक जाय. आनीक कसलेंय भिकाड्डेपण परवडलें. आवयची माया जाका मेळ्ळिना ताचे इतलो भिकाड्डो जगांत कोण ना. *स्वामी तिन्ही जगाचा, आईविना भिकारी* अशी ओपार मराठींत आसा.

'श्यामची आई' वाचून वाचून भुरगेपणांत उशीं दुकांनी भिजयलीं. अजुनूय म्हजी माई आनी श्यामची आई एकूच कशीं दिसतात. हांव मात श्यामाचे लायकेचो ना हें खबर आसून.

आवय म्हणल्यार एक घोंटेर. मायेचो, उबेचो, उर्जेचो. वत पडटकच ते सावळेंत विस्सव घेवचो. 'मदरींग' म्हणल्यार आवयपण सोंपें पूण 'पॅरेण्टींग' म्हणल्यार पालकत्व सोंपें न्हय. ती कला 'हाव टू बी ए गूड मदर' हें पुस्तक वाचून येना. म्हज्या घरांत पालकत्व आनी हेर सगले गूण दांमून भरिल्लें आवयपण हाडामासाच्या रुपांत चलता भोंवता. माईच्या रुपांत म्हज्या रगतांत हेंच तत्व घोळत आसता. म्हाका तुकलायत. कुटलायत. शिटकायत. थीर करीत. दिका दाखयत.

बाळकाचो भाव घेवन भक्त भगवंताक आवय ह्या नात्यान होरायता. पाराथ्था. निश्कपट काळजाच्या कुकुल्या भुरग्याक आवय होच भगवंत आसता. केदें विस्वासाचें नातें हें ! गू मूत काडटना, म्हेळो जावपी आपल्या भुरग्याक परत परत न्हाणयतना, धुवन पुसतना आवय केन्नाच वाजेवंक ना. धन्य ती माऊली, माता!

तिका पांयां पडल्यार ती भुरकुटना मुरगटना. वंदन करिना जाल्यारूय ती रागारफुगार जायना. मागीर कित्याक नमस्कार करचो तर तिका?

तशें करतना आपल्या जिवाक बरें दिसता म्हूण!

मातृदेवो भव.



# 17. गणीत अध्यापनाच्यो यादी

गणीत विशयाचें पिशें म्हाका इश्कोलांतूच लागलें. कठीणकठीण गणितां सोडोवपाक एक वेगळोच आनंद मेळटालो. पूण हांवें गणिता विशीं खोलायेन कितेंय विचारलें की ताची जाप दिवपाक खूब खेपे शिक्षकांक कठीण वच्चें. ते टिचर गणीत विशयांत स्पेशलायझेशन केल्ले नाशिल्ल्यान म्हज्या खोल प्रस्नांच्यो जापो दिवन समाधान करप तांकां जमनाशिल्लें. पूण ही गजाल म्हाका ते पिरायेर कळनाशिल्ली. हांवें तांचे कडेन झगडचें. मुदलांत जापो मेळूंक नाशिल्ल्यान हांवें निराश जावचें.

गिमाळ्याचे सुटयेंतूच हांवें फुडल्या स म्हयन्यांच्या पोर्शनाचीं गणितां म्हजो व्हडलो भाव अमोल हाच्या मार्गदर्शना खाल सोडोवचीं. तोय गणितांत स्कॉलर. पावसाळ्यांत नव्या वर्सा शाळेंत प्रवेश घेतकच अर्दो अभ्यास पयलींच जाल्लो आशिल्ल्यान म्हाका ह्या विशयाचेर आनीक चिंतन करपाक बरोच वाव मेळचो. मागीर हांवें हेर उच्च अभ्यासाचीं पुस्तकां घेवन तातूंतले कठीण आनी कूट प्रस्न सोडोवपाक बसचें. जे जमनात ते विशीं टिचरांक विचारचें. तांचे कडेन वाद घालचो. हांव वर्गांत आसप म्हणल्यार त्या शिक्षकांक केदी आडखळ जाल्या आसतली ते विशीं कल्पना करूं नजो. आमी धावी एसएससी जाले. पूण आमचे आदल्या (इकरावेच्या) अभ्यासक्रमांत आठवलेस आल्जॅब्रा बरोच गाजतालो. तातूंत कठीण गणितां, कुवाडीं खूब आसतालीं. हांवें तीं्य सोडोवचीं. तातूंतलीं म्हाका जमनात तीं गणितां शिक्षकांक विचारलीं की तांकां घाम येवचो.

म्हजे आवयन म्हाका एक मार्ग सुचयलो. म्हजी जिज्ञासा अंत नाशिल्ली हें तिणें पारखिलें. हांव गणिताच्या दर्यांत खोल खोल बुचकळ्यो मारूंक पळेतां हें तिका

होलमलें. तिचो एक मामेभाव बनारसाक इन्स्टिट्यूट ऑफ टॅक्नोलॉजींत इलॅक्ट्रॉनिक्स इंजिनियरींग विशयांत बिटॅक पदवेचें शिकप घेतालो. नांव जयवंत ऊर्फ प्रदीप प्रियोळकार. आयआयटी जोंड प्रवेश परिक्षेंतल्यान ताणें थंय प्रवेश मेळयिल्लो. तो हुशार आशिल्लोच. आवयचे सांगणेन हांवें ताका पत्रांतल्यान म्हज्यो 'डिफिकल्टी' धाडप. पत्र दाट जावचें. तेन्नाची टपाल यंत्रणा ती. आतांय सुदारल्या म्हणपाचें धाडस करूं नजो. निदान आतां कुरियर, ई-मेल, मोबायल असली तरी सुविधा आयल्या. पंदरा दिसांनी पत्राक जाप येवची. म्हज्या दाट पत्रा परसूय ताचें पत्र दाट.

बीजगणीत, भुमिती ह्या म्हज्या प्रॉब्लॅमांक समाधान करपी दीर्घ जापो तातूंत आसताल्यो. म्हजो आनंद मार्गार वल्लेंत धरना आनी सुपांतूय धरना असो जावचो. गणिताची तान आनीक वाडची.

खूब खूब खोलायेन हो विशय शिकपाची जबरदस्त भूक अशे तरेन बळावत गेली. बुद्दीबळ खेळाचेंय पिशें लागिल्लें. पट मांडून हांवें ग्रॅण्डमास्टरांचे डाव खेळचे तातूंतलेय कूट प्रस्न सोडोवपाक वरांचीं वरां सारचीं.

तातूंतल्यान एक कैफ मेळचो. बुद्दीक धार येवची. तशें पळोवंक गेल्यार बुद्दीबळाचो आनी गणिताचो संबंद कांयच ना. संवसारीक बुद्दीबळ वस्ताद गणितांत फेल जावपा इतले बोंडेर आशिल्ल्याच्यो पती आसात. पूण गणितांत चकचकपी हुशार भुरगे बुद्दीबळांत चकचकतात अश्योय केसी आसात.

गणितांत स्पेशलायझेशन केल्लो शिक्षकूच गणीत विशय शिकोवपाक न्याय दिवंक शकता हें म्हाका होलमलें.

ह्या विशयांत स्पेशलायझेशन करून इस्कोलांत गणीत शिकोवपूच अशे तरेचें एक तेम रगतांत घट जावंक लागलें.

विज्ञानांत प्रवेश घेतलो. फकत गणिताच्या मोगान. भौतीकशास्त्र म्हणल्यार अर्दें गणीत. बाकी विशयांनी म्हाका व्हडलोसो रस नाशिल्लो. फुडें बारावी जातकच गणितांत सगले (सय) पेपर घेवन बिएस्सी केली.

गणिता विशीं आनी गणितज्ञां विशीं खूब जाणून घेतलें. वाचून घेतलें. धेंपे कॉलेजींत निमाण्या वर्सा म्हजे वांगडा फकत चार विद्यार्थी आशिल्ले. तातूंतले दोग

जाण सावंतवाडीचे, थंय गणीत विशयाचें स्पेशलायझेशन ना म्हूण ते हांगा आयिल्ले. हाचे वयल्यान गणितांत पदवी घेवप्यांचो आंकडो तुमकां कळटलो. तातूंतले कितले शिक्षक जातात आनी कितले जाण तगतात ती गजाल वेगळी. म्हणटकच गणीत अध्यापनाचो दर्जो कितें तेंय कळटलें.

पदवी घेतली 1985 वर्सा. त्याच वर्सा हांवें फोंडेंच्या आल्मैद हायस्कुलांत मुलाखत दिली. मॅनेजमॅण्टाचे लोक आनी विशयाचे जाणकार अशे जायते जाण थंय बशिल्ले. तातूंत आशिल्लो एक इलॅक्ट्रीक इंजनेर. ताणें म्हाका कॉर्डिनेट भुमितीचेर कांय प्रस्न विचारले. हांवें अचूक जापो दिल्यो. म्हजी निवड जावन म्हाका दुसऱ्या दिसा तांचोच, गोवा विद्याप्रसारक मंडळाचो, फांटो म्हणल्यार खांडेपारा एमआयबीके हायस्कुलांत गणीत शिकोवपाक धाडलो.

थंयचो एक शिक्षक बिएड करपाक गेल्लो. ताचे सुवातेर एका वर्सा खातीर म्हजी ही नियुक्ती जाल्ली.

खांडेपारचें हें इश्कोल म्हाका खूब आवडलें. ना गांव, ना शार असो शांत वाठार. भुरगे टणटणमारीय न्हय आनी घरांत खूब साक्षरताय आशिल्ले भशेन हुशारूय न्हय. मध्यम प्रमाण, पूण भुरगे आज्ञाधारक.

हेडमास्तर आशिल्लो सी वी फेर्नांदीश. अणभवी, केरळी, लांब. आदलो फुटबॉल खेळगडो बी.

- तुजे सारको भुरगो ह्या वेवसायांत सो?

भितर सरतनाच ताचो प्रस्न.

- तुवें आयएएस वा हेर वेगळ्या मार्गान वचून करियर करपाचो.

आतां ह्या सभाग्याक सांगतलों कितें?

खंयचें तरी एक तेम धरून हांव गणीत अध्यापनांत सरलां, ही सगली 'स्टोरी' हाका कशी सांगप?

गणिताचो ध्यास घेवन हांव जगतां. बरे तरेन हो विशय, गरज पडल्यार कोंकणींत वा मनोरंजनात्मक तरेन शिकोवन, हांसत-खेळत शिकोवन तो विद्यार्थीप्रीय करचो, भुरग्यांक ह्या विशया कडेन आकर्शीत करचे हो म्हजो हावेस. हांव थोड्या तेंपान

कांय सर्तींच्यो परिक्षा दिवन थंय वच्चों ना कित्या वयल्यान? मुदलांतूच हे अनाहूत सल्ले कित्याक?

यो, तुजे सारके भुरगे ह्या वेवसायांत जाय, तुमी हांगाच रावंक जाय, ह्या मळाचें भांगर जातलें अशें उलोवचें सोडून हें रे बाबा कितें?

- हांव सध्या एमएस्सी करतां. सासणाचो इश्कोलांत रावचों ना.

विशय सोंपोवपांत शाणेपण आसता.

स्टाफरुमांत भितर सरलों. थंयूय तेच बास्कळ प्रस्न. ताच्याक पाश्ट.

- खरें म्हणल्यार हें मळ बायलांक बरें. तुजे सारकिल्याक न्हयच.

शिक्षक आनी शिक्षिका दोगांचेय आगाऊ, अनाहूत, आगांतूक सल्ले परत सुरू.

पूण म्हज्यांत कितें धगधगता तें तांकां कशें कळटलें?

दुसरी म्हत्वाची गजाल. जो कोयर उरला, जो गाळ उरला तांणी हें काम करचें अशी जी वृत्ती आसा. बायलांनीच अर्दवेळाची ही नोकरी करची ही जी वृत्ती आसा तिका लागून हो वेवसाय खंयच्या थरार पावला हाचो अदमास येवये.

म्हजें ध्येय म्हाका स्पश्ट आशिल्लें. हांव उमेदीन कामाक लागलों. उमेदीक नाशिल्ली शीम मेर. ती मळवा येदी. आपणाक जाय तें मेळप हाचे सारको आनंद ना. मागीर तें काम उरना. तो जाता आनंद सुवाळो. उत्सव. एक खेळ. भुरगीं म्हाका आवडलीं. म्हजे शिकोवपाचे विनोदी शैलीक लागून हांव भुरग्यां भितर रोखडोच लोकप्रीय जालों. सुरवातीक हांव मातसो गतीन शिकयतालों. कॉलेजींतल्यान निकतोच भायर सरिल्लों. भुरग्यांची पातळी केदी आसा, खंय आसा हाचो थाव येवपाक कळाव लागलो.

एक दीस हांव णववेक आल्जॅब्रा शिकयतालों. अकस्मात हेडमास्तर भितर सरलो. निरिक्षण करपाक. फाटल्या बांकार बसलो. तो इंग्लीश शिक्षक. हांव डॅसिमल फ्रॅक्शनांचो आनी भागाकाराचो विशय शिकयतालों. पिरेड जायसर हेडमास्तर बसलो. उपरांत ताणें म्हाका एकूच सुचोवणी दिली. आंकडे मोटे काड.

खांडेपारचें तें इश्कोल सॅमाच्या घोटेरांत वसलां. एके वटेन काजी आनी हेर रानवटी वनस्पत. दुसरे वटेन हायस्कुलाचें सोबीत सुंदर पोरसूं. एकलो शिक्षक त्या

पोरसाची घरच्या पोरसा भशेन कुयदाद घेतालो.

शिकयतना घोग्यांनी पावस पडचो. धवोफुल्ल. भायले वटेनचीं तीं फुलिल्लीं गुलाबां जीव आनिकूय फुलयतालीं. उमळ जावन खळखळपी व्हाळांचो आवाज कानाक गोड लागचो.

तरातरांचीं फुलां लायिल्लीं. इतलेंच कित्याक, स्टाफरुमाक तेंकून एक म्हौंवामुसांचें पोळें आशिल्लें. ताची खास पोसवण आनी जतनाय चलताली. तेवटेन वचपाचें हांव सहसा टाळटालों. पाड पडलेले मूस चुकून फुर्योझ जाले आनी आंगार आयले, चाबले. सोंड मुजलें जाल्यार तें आनीक लचांड नाका हो म्हजो भैरोजोळोप. म्हज्या कवीमनाक न्या पोरसान भुरळ घाली. उटंगाराच्या पावसान जीव टवटवीत केल्लो. हांवें जायतें बरप केलें. तेन्ना सुनापरान्त जल्माक येवंक नाशिल्लो. राष्ट्रमतांत तें आयतारा उजवाडाक येतालें.

भुरगीं भितर सरतात ते सुवातेर एक फळो आशिल्लो. ताचेर कांयच बरयनात तें पळोवन हांवें तो निवळ करून ताचेर दीसपट्टो एक सुविचार बरोवपाक सुरवात केली. विशेश म्हणल्यार मनोहरबाबाचीं कोंकणी पिसोळींय कोरांतपाक सुरवात केली.

शेवणीं जाय? घरांत पांजरो लावं नाक, पोरसांत झाडां लाय अशे आनीक कितलेशेच कोंकणी. इंग्लीश सुविचार ताचेर बरोवपाक सुरवात केली. सगल्या शिक्षकां भितर हांव पिरायेन तरणो. तुवें हांगा एक वेगळेंच चैतन्य हाडलां अशें चडशे टिचर म्हणूंक लागले. थोडे कांयच म्हणिनासले. तांचो दुस्वास दोळ्यांतल्यानूच कळटालो. थोड्या पगारी शिक्षकांक बरें घडूं वायट घडूं, कांयच पडूंक ना हेंय कळटालें.

म्हजें कुटुंब संगीतमोगी. संगिताचें तीन पिळग्यांचें दायज घरांत खेळपी. हांवें भुरग्यांक प्रार्थना शिकयल्यो. गितां शिकयलीं. पिरवळच्या शिक्षा सदनांत जंय हांव शिकिल्लों थंय आमी दर दिसा वेगवेगळ्या भाशांतल्यो प्रार्थना म्हणटाले. तातूंतल्योच कांय प्रार्थना हांवें भुरग्यांक शिकयल्यो.

ओम ततसत् श्रीनारायण तू पुरुषोत्तम गुरू तू

सिद्ध बुद्ध तू स्कंद विनायक सविता पावक तू

ही प्रार्थना हांवें सातवेच्या भुरग्यांक शिकयली.

भुरग्यांक हांव हांसयत खेळयत गणितां शिकयतालों. सर्कल शिकयतना बटाटवड्याच्या आकाराचें आनी त्रिकोण शिकयतना सामुशाच्या आकाराचें अशें सांगून हांसयतालों. थिएरम आनी रायडर हे किचकटीचे विशय समजायतना जातात तितले सुटसुटीत करून शिकयतालों. जाय जाल्यार परत परत स्पश्टीकरण दिवपाचो विस्वास तांकां दाखयतालों. गणिताचें मुळावण मुळावे यत्ते सावन कितलें घटमूट आस्मूक जाय ही गजाल तांचे उणाव दाखोवन सिद्ध करतालों. तोंकार करून न्हय. हे यत्तेंत परत फ्राक उरल्यार फुडले यत्तेंत कितले त्रास जातले हें तांकां समजायतालों. व्हड पासियेंम्सान तांचें मुळावण घट करपाचो यत्न करतालों. ल.सा.वि. (लघुत्तम सादारण विभाजक), म.सा.वि. (महत्तम सादारण विभाजक), फॅक्टर वा हेर संकल्पनां विशीं मुळावण कच्चें आसत जाल्यार केदोय बरो शिक्षक आसलो तरी वयल्या यत्तांतल्या भुरग्यांक कसो समजायतालो? वेळ तरी खंय आसता? तकलेर तलवार पोर्शनाची. तातूंत वर्गांतल्या चाळिसां वयर भुरग्यांक व्यक्तीगत लक्ष दिवन शिकोवप म्हणल्यार एक व्हडलें आव्हान. म्हज्यांत एक उजो आशिल्लो गणीत विद्यार्थीप्रीय करपाचो. रगत सामकें हून. म्हजे परीन हांव सगले यत्न, खटपट करी.

बोर्डार खडवान बरयतना टी-शर्ट वा बुशकोट हांचो त्रास जाता देखून मेकळेपणान बरोवपा खातीर हांवें बरे पातळ, मदळ, डिझायन बी आशिल्ले अशे सदरे मुंबयच्यान मागयले. एकलो शिक्षक इश्ट मुखी मनशाचे सदरे म्हण म्हाका चाळयतालो. भुरग्यां मुखार आदेसभर उलोवन उलोवन, आड्ड्न आड्ड्न जीव थकतालो, जाम जातालो. दनपरां जेवन आड पडटालों आनी घोरेवंक लागतालों.

सकाळीं फुडें बेगीन उठचें पडटालें. संवय नाशिल्ल्यान जिवार येतालें. हांव तितलो कडक न्हय, तापोवपी न्हय, शिक्षा दिवपी न्हय, जॉली म्हण भुरग्यांनी म्हजी धास्ती घेवंक नाशिल्ली. म्हज्याय सभावांत तापातापी, शेक गाजोवपाची वृत्ती तशी जाल्याच ना. पूण केन्नाकेन्नाय जाय तेन्ना मदळसाण वाडल्यार हांव आवाज मातसो एकदांच चडोवन अभिनयान, हावभावानूच वर्गाचेर नियंत्रण हाडटालों. भुरग्यांक सप्तकांतल्यान एकदांच पांच गणितांचो होमवर्क दितालों. तीं गणितां

हांवूच घडोवन दितालों - जांचीं सोल्युशनां सपसप खंयच्याच गायडार मेळचीं नात अशीं. दुसऱ्या दिसा वर्गांत वचून आवाज लायतालों -

- कोणें होमवर्क करूंक ना ते उबे रावात.

मुखामळांचेर नदर मारल्यारूच कोणें कितलीं केल्यांत, कोणें बाकिच्यांचीं कॉपी मारल्यांत, कोणें अर्दी केल्यांत ताचो हव लागतालो. कित्याक करूंक नात ताचीं कारणां विचारतालों. येत्न तरी केल्लो काय म्हूण विचारून खडसायतालों. मातसो तिडकल्ले भशेन नाटक करतालों. एक वेगळीच स्मशान शांतताय वर्गांत पातळटाली. गांभिर्याचें ल्हार वर्गांत अळंग देंवतालें. ल्हवल्हव हांव पासेय मारून गणितां तपासून निशाणी करतालों. केन्नाय भुरग्यांक भायर घालतालों. म्हज्या होमवर्काक भुरगे दचकताले.

एका डिविजनांत हांव फिझिक्स शिकयतालों. हांसत खेळत बऱ्यो बऱ्यो वेव्हारीक देखी दिवन शिकयतकच भुरगीं रंगतालीं. म्हज्या पिरेडाची तीं उमळशिकेन वाट पळेत रावतालीं. तांचे दोळेच उलयताले.

हाचें आनीक एक कारण म्हणल्यार दुसऱ्या डिविझनांत शिकोवपी टिचर शिकनाशिल्ल्या बेशिस्त भुरग्यांक ख्यास्त दिताली. देखून हीं फिझिक्सेचीं भुरगीं म्हजे सारको सर तांकां शिकोवपाक मेळ्ळो म्हूण खूश आशिल्लीं. भुरग्यांनी सर, सर, मुकेश सर अशें म्हणटकच बेठयोच खातकुतल्यो जावच्यो.

पयलोच युनीट टॅस्ट जालो. हांवें दाट गुळगुळीत लागपी बरें तांबडें बॉलपॅन घेतलें. त्याच दिसा एका वर्गाचे पेपर तपासले.

दुसऱ्या दिसा स्टाफरुमांत ती कवळी पळोवन इंग्लीश-इतिहास शिकोवपी वल्लभ वेरेंकार म्हणूंक लागलो-

नवोच आसा. मातसो राव. मागीर कंटाळटलो.

गणिताचे पेपर तपासपाक वेळूय लागनाशिल्लो. बेगीन जाताले.

चडश्या शिक्षकांक मात हेडमास्तर पेपर बेगीन दियान म्हूण धोरायत आसतालो.

वल्लभाक म्हजी तोखणाय आशिल्ली. ताका हांव तरेतरेच्यो माहितीपूर्ण गजाली सांगून रिजयतालों.

बेकार आसतकच स्टाफरुमांत पदां, गितां गावन दाखयतालों. वेळ कसो पासार जातालो कळच नाशिल्लें.

वल्लभा वांगडा हांव टेबल टॅनीस खेळटालों. म्हजे पॉयंट चड जातकच तो लापीट एक आयडिया करी. सर्वीस करता आसतना बॉल खूब वेळ सांसपी. म्हजें फॉर्मांत आयिल्लें मन विचलीत करपाक. पासियेंस इबाडपाक. ताचें खाड बरें दिसतालें. ताचेर तो इतिहासीक नाटकांतल्या मोगल सम्राटा भशेन मदींमदीं हात भोंवडायतालो. झेतान.

हांव आनी हिंदी शिक्षक गुरुदास उगवेंकार फांतोडेर धुक्यांत साडेसातांकूच इश्कोलांत पावताले. ताच्या हातांत तरूण भारत पेपराची कवळी आसताली. हांव ती वाचतालों. आनी रवी प्युना कडल्यान लायब्ररीची चावी घेवन सरळ पुस्तकां धवळूंक वतालों. इश्कोलाची लायब्ररी ती. तातूंत पुस्तकां कितलीं आसतलीं? हांवें तींच पुस्तकां परत परत वाचचीं.

त्या वर्सा कोंकणी राजभास चळवळ तेंगशेर पाविल्ली. सतीश दळवी खांडेपाराच शिकयतालो. तोय गणीत आनी भौतीकशास्त्र शिकयतालो. आमी दोगांयनी एन शिवदास, रवींद्र नमशीकार, जॉन आगियार, सोयरू वर्दे हांचे सयत फोंड्यां बसका आयोजीत केल्यो. कोंकणी प्रजेच्या आवाजाची विराट सभा पणजे जावपाची आशिल्ली. ते खातीर जनजागृताय आनी लोकांक एकठांय करपा खातीर पिकपीन भोंवन हांवें मायकार घोशणा, सुचोवण्यो दिल्यो. बांदोड्यां, खांडेपारा, पिरवळा, म्हाड्डोळा आनी फोंडेंच्या सरभोंवतणच्या वाठारांनी आमी ही भोंवडी केली. फोंड्यां बस स्थानकाचेर आमच्यो सभा जाताल्यो. हांवेंय थंय पोटतिडकीन भाशणां केलीं.

दुसऱ्या दिसा इश्कोलांत स्टाफरुमांत एके टिचरीन (म्हाका उद्देशून) कमॅण्ट मारलो-

- काल आनीक बस स्टॅण्डार कोंकणी भाशे खातीर ताळो सरांटून कोण भाशणां ठोकताले?

थेट विचारपाची कापाझदाद ना. असल्या अर्दकुट्यांच्या तोंडाक शाणो मनीस लागना!

हांव ओगी रावलों. कालांतरान हांव गोवा विद्यापिठांत पावतकच हेच टिचरीक कोंकणी विशय शिकोवपाक दिल्लो अशें आयकल्लें. तेन्नाय ही कोंकणी उलोवपी गोंयकार टिचर 'तांची कोंकणी ती' अशें पिरंगत शिकयताली जाल्यार देव जाणा.

एक दीस सतीश दळव्यान म्हजे कडेन माहिती मागली. आठवेच्या भौतीकशास्त्र पाठ्यपुस्तकांत घन, द्रव, वाय आनी प्लाझ्मा हीं मॅटराचीं चार रुपां अशें दिल्लें. प्लाझ्माचो आसपाव त्या वर्सा नव्यानूच केल्लो. ह्या प्लाझ्मा विशीं सतीशबाबाक सविस्तर माहिती जाय आशिल्ली. माहिती सोदप आनी संशोधन करप हे म्हजे आवडीचे विशय. हांवें वेगळ्यावेगळ्या विश्वकोशांनी आनी ज्ञानकोशांनी तकली घालून ही माहिती एकठांय केली आनी पद्दतशीरपणान बरोवन सतीशबाबाक दिली. भुरग्यांक चिमटीभर शिकोवचे पयलीं आपणाक खोलायेन खोंटलोभर खबर आसूंक जाय ही ताची वृत्ती आवडली.

सुरेश फडटे नांवाचो एक चित्रकार शिक्षक आशिल्लो. चित्रां बरीं काडी. ताचे कपडे सदांच चकचकीत, अपटूडेट आनी प्रसन्न. दिसपाकूय गोरोपिट्ट, गोंडस. एक सोबीत चित्रूच कशें. तो पेटीय वाजयतालो. संगिताचें दायज ताका म्हजे भशेन घरांतूच मेळिल्लें. ते खेरीज म्हजे भशेन ताचें मूळ पेडणें वाठारा लागचें. आमची इश्टागत जुळ्ळी.

खांडेपारच्या त्या इश्कोलांत मैदान व्हडलें आशिल्लें. केन्नाय हांव आनी वल्लभ भुरग्यां वांगडा क्रिकेटूय खेळटाले. अर्थात टॅनीस बॉलान. सिझन बॉलाचो म्हाका सदांच भंय दिसचो. हांवें बॅटींग करतना धां वयर केन्नाच स्कोर काडलोना. बोलिंगूय घाली. त्याच मैदानार वर्सुको खेळांमेळ जालो. म्हाका वेगळोच अणभव.

टिचरांची पिकनीक तांवड्या सूर्ला गेल्ली. पिकनीक हो विशयूच म्हाका आवडना, पूण गेलों. म्हादेवाचें मंदीर पळेलें. थंय सुकिल्ल्या व्हाळांतले पेपरवेटाच्या आकाराचे चार पांच फातर हांवें पुंजावन हाडले. मोल्यां रॅस्ट हावसांत जेवले.

हांव धावेक शिकयनाशिल्लों. पूण ते यत्तेचो निरोप समारंभ म्हाका काळीज पिळवटपी प्रकार दिसलो. पयलीं सगल्या भुरग्यांनी आमचे कडल्यान (शिक्षकां कडल्यान) ऑटोग्राफ घेतले. मागीर वर्गांत भाशणां बी जातकच घे[illegible] भुरग्यांचो

रडून आकांत. भावनीक कल्लोळ. इश्कोल सोडून वतना भुरग्यांक वायट दिसतालें. सगल्यांनी रडून तोंडां सुजयिल्लीं. म्हजें बावकें तोंड पळोवन हिंदी शिकोवपी सोमणान म्हणलें - आरे, शिक्षक म्हूण तुका हो पयलोच अणभव. आमी हातूंत सिझण्ड जाल्यात (मुरल्यात).

खांडेपारच्या इश्कोलांत हांवें म्हजे जोडीचो पयलो पगार घेतलो. खूब आनंद जालो. मुंबय विद्यापिठाची पदवी घेवन हांवें जिणेंतल्या विद्यापिठांत पावल घालें ताची पयली कुणगी म्हणल्यार हें इश्कोल.

कितल्याश्याच गजालींचें सिझनींग थंय सुरू जालें. परिपक्वतायेची प्रक्रिया थंयच सुरू जाली.

हांवें जायत्यो नोकऱ्यो केल्यो. पूण ही पयली नोकरी. गणीत अध्यापनांतले अणभव, शिक्षणीक मळार कितें चल्लां, ताचो थेट, प्रत्यक्ष अणभव. तातूंत आकंठ बुडून घेतलें.

गणीत शिकोवपाची उमेद भागयतना एके व्हडले गजालीचो दिश्टावो थंय जालो तो हो की बरो शिक्षक फकत भुरग्याचे निजाचे तांकी इतलीच फूक ताचे उपजत बॅटरेक मारूंक शकता. वर्गांत फकत धा बारा भुरगे गणितांत पास जातात, तो आंकडो हांव कसोच बदलूंक शकना. भुरग्याचे तकलेंत गणीत शिकपाची जेदी 'चीप' आसा तितलेंच तो शिकूंक शकता. बरो शिक्षक ताचे चिपीची तांक वळखून ती पुराय फुलोवंक शकता इतलेंच.

अजुनूय खांडेपारचे भुरगे मेळटात. व्हडलें तोंड करून येवन हडकितात. सर, तुज्यो बातम्यो रेडियोचेर आयकतात, तुका टिव्हीर पळेल्लो वा पेपरार तुजें वाचिल्लें अशें भुरगीं सांगतात. तेन्नाचीं चिमटीभर भुरगीं आतां व्हडलीं जाल्यांत, लग्न जावन भुरगींबाळां बी घेवन वतात हें पळोवन कॉमीक शी दिसता. तींय म्हणटात- सर तेन्ना तूं बारीक आशिल्लो. तांचें वाक्य हांव पूर्ण करतां - आरे, हांव आयज सायझीन डबल जालां.

खांडेपारच्यो गोड यादी काळजांत घर करून उरल्यात. केन्नाय त्यो मनाच्या पटांगणाचेर नाचत आसतात. खेळत आसतात.

शिक्षणा सारकी पवित्र आनी 'नोबल' गजाल आसा? पूण आयज ह्या मळार जे प्रयोग चल्ल्यात. आनी ह्या मळाची जी आवतिकाय जाल्या ती पळोवन काळीज कळवळटा.

फांत्यापारार आयजूय सपन पडटा. हांव खांडेपारच्या पयल्या मजल्या वयल्या एका वर्गांत शिकयत आसां. पॅण्टीर, सदऱ्यार, आंगार खडवाचो पिठो उसळ्ळा. श्रमजिवी गिरणिकाराच्या आंगार पीठ माखता तसो.

निश्कपट आनी निरागस काळजाचीं भुरगीं उमळशिकेन भरिल्ले दोळे करून गणिताचो जादू पळोवन तटास जाल्यांत...

परत हांव डस्टराक हात घालतां... परत परत बोर्ड पुसून हात वळ्ळा. कॉड्रॅटीक इक्वेशन शिकोवंक वतां. इतल्यांत खडबडून जागो जातां... खंती जातां... आरेरे! हें सपन वास्तव आस्पूंक जाय आशिल्लें ही खंत त्रास करीत रावता. तोपत रावता.



# 18. कोंकणी विश्वकोश

गोंयचें विद्यापीठ निकतेंच दिमखुऱ्यांनी चलूंक लागिल्लें. पयलेच कुलगुरू, इतिहासतज्ञ. डॉ. बी शेख अली हांणी कोंकणी विश्वकोश प्रकल्प उबारपाक फुडाकार घेतलो. जायरात आयली. विज्ञानाचो पदवीधर, अणकार-संपादन-कोंकणी बरप हे विशीं अणभव आशिल्लो संशोधन सहाय्यक जाय. अर्ज केलो. जाप आयली.

लेखी परिक्षा जाली. तातूंत अणकारपाक कांय उतारे दिल्ले. हिंदी आनी इंग्लीशींतल्यान कोंकणींत करपाक. ज्ञानकोशांतल्यो त्यो नोंदी अणकारल्यो. मुलाखत आनी तोंडी परिक्षेंत कांय जाणांचें मंडळ बशिल्लें. मुखेल संपादक मनोहरराय सरदेसाय हांणी म्हजें गणीत विशयांत specialisation आशिल्ल्यान ताचेरूय जायते प्रस्न विचारले. देशांतल्या, आंतरराष्ट्रीय पांवड्या वयल्या गणीततज्ञांचीं नांवां विचारलीं. तें सांगतकच गोंयचे गणीततज्ञ कोण असो प्रस्न विचारलो. बाबला सिंगबाळ, दामोदर धर्मानंद कोसंबी हांचीं नांवां सांगतकच तांकां बरें दिसलें. calculus म्हणल्यार कोंकणींत कितें, तांणी विचारलें. हांवें सांगलें - कलनशास्त्र. तातूंतल्या खंयच्याय एका विशयाचेर कोंकणींत उलय अशें सांगतकच हांव limits हे संकल्पनेचेर पांच मिणटां उलयलों. म्हजी विज्ञानीक परिभाशीक उतरावळ कितली आसा हेंय तांकां पळोवंक जाय आशिल्लें जावये.

निवड जाल्ल्याचें पत्र मेळ्ळें. गणीत अध्यापनाची नोकरी सोडून हांव कामार रुजू जालों. तेन्ना विद्यापीठ बांबोळे आशिल्लें. सध्या वैजकी म्हाविद्यालय आसा ते इमारतींत. डॉ. तानाजी हळर्णकार कार्यकारी संपादक. प्रशासकी वावरांत प्रतिमा मदत करी. मनोहरबाब चडशे दनपारचे येताले. ते म्हाका फ्रँच लेखकांच्या चरित्र

नोंदीं विशीं डिक्टेशन घालताले. भुरगेपणांत काका, म्हणल्यार तांचे बापूय लक्ष्मणराव सरदेसाय, आमगेर येताले आनी केन्नाय डिक्टेशन दिताले ताची म्हाका याद जावची. दोगांयच्या मुर्तीं भितर साम्य सोदपाची तकालस हांवें घेवची. मनोहरबाबांच्या scholarly व्यक्तीमत्वाचें, कवीगुणांचें लागींच्यान दर्शन जालें. अदींमदीं शब्दांच्यो कोटयो करून विनोद करपाची तांची कळाशी आगळीवेगळी. मनोहरबाबांक लागींच्यान पळोवपाची इत्सा कॉलेजींत आसतना जाल्ली ती पुराय जाली. संस्कृत धरून कितल्योश्योच देशी-विदेशी भासो तांचे जिबेर अक्षरशा आनाळ्योगुनाळ्यो करून लोळटाल्यो तें पळोवन अजाप दिसतालें. पयल्या खंडा मेरेन तांचें मार्गदर्शन मेळ्ळें.

कालांतरान विश्वकोशांत संपादकी सहाय्यक म्हूण कांचन शेल्डेकार (आतां मोर्डेकार) आनी पंढरीनाथ सुरसुरे रुजू जालीं. कला आनी मानव्य फांट्यांच्यो नोंदी बरोवपाक, अणकारपाक, संपादन करपाक आनीक एका संशोधन सहाय्यकाची सुवात निर्माण जाली. त्या जाग्यार शैलेंद्र मेहता आयलो. तो म्हजे गांगडा म्हाड्डोळचे शाळेंत पयली ते चवथी यत्ते मेरेन मराठी शिकिल्लो. विद्यार्थी चळवळींत आनी आंदोलनांनी तो सक्रीय आशिल्लो. PSU चो कार्यकर्तो. कलाकार आनी कवी. चोखंदळ आनी चौफेर वाचक. विद्यापिठांतले नोकरे वरवीं ताचे जिणेक एक शिस्तबद्ध मोडण मेळ्ळें. शैलून आपले खिलाडू वृत्तीन वातावरण खेळकर केलें. आमी शाळेंत केल्ली ती मस्ती, फकांडां, लिला ह्यो गजाली तो रसभरीत वर्णना सयत सगल्यांक सांगतालो. आपुणूच किटकिट्टालो. हांसयतालो. कठीण-क्लिश्ट-गहन-खोल संशोधनाच्या वावरांत जें अदीमदीं सुसह्य करपी विनोदाचें रसायन जाय आशिल्लें तें शैलून हाडलें. कांय जाणांची नक्कल ताणें हुबेहूब करची. सोदाची बाटली फोडिल्ले भशेन फसफसून आपणेंय हांसचें आनी हेरांकूय हांसोवचें. ताची स्मरणशक्त दांडगी. सध्या तो मुंबय आसा पूण अजुनूय थंय वतकच विश्वकोशांतल्यो यादी काडटा. पंढरीनाथ सुरसुरे हो गुणी भुरगो. खूब कामसू. अक्षर सुंदर. ताणें एक दीस काकोडेंच्यान हाडिल्ले घरचे आंबे. पातळ कातीचे. मासाळ. अजुनूय जिबेर आसात. तो विम्या कंपनींत गेलो आनी ताचे सुवातेर कल्पना कुडटरकार (आतांचें वाळके) आयलें. प्रतिमाची दुसऱ्या विभागांत बदली जाल्ल्यान ताचे सुवातेर नियती

हेदे (आतांचें कामत) आयलें. कांचन, कल्पना आनी नियती हीं बऱ्यांतलीं नाट्य कलाकार. मडगांवच्या संस्कृतीक आंगणांत खेळत आयिल्लीं. दनपारचो हांव विसवा वेळार वेगळ्यावेगळ्या तरांचीं पदां, गितां गावन दाखयतालों. सगल्यांचेंच संगिताचें गिन्यान वाडटालें. शैलेंद्राक 2-3 गितां खूब आवडटालीं. तांची फर्माइश तो परपरत करी. ह्या मैफिलींची याद तीं अजून काडटात. सप्तकांतल्यान एकदां सहभोजन आसतालें. हरशीं भायर जेवपाक वचपी शैलेंद्राक सगलीं जाणां घरचें जेवण खावपाक आगरो करतालीं. एकाच मेजार मस्करी करीत जेवप. एक दीस शैलूची आवय म्हाइ्डोळा मेळ्ळी. तुजे आवयन केल्ली बांगड्यांची किसमूर पुताक खूब आवडटा म्हण तिणें म्हाका दाद दिली. विश्वकोशाचे टिमीचीच वर्सुकी षिकनीक आसताली. जड वावरांत आनंदाचें वातावरण खेळत उरतालें.

विद्यापिठांत काम करतात म्हण आमकां एके वेगळेच तरेचो रेश्पैत वेगळ्यावेगळ्या थरांनी मेळटा हाचें सुखद भान आशिल्लें. विश्वकोशाच्या नोंदींचीं कार्डां तानाजीबाबान तयार केल्लीं. फळां, फुलां, वनस्पत, मोनजात, देश, वाठार, व्हड मनशांचीं चरित्रां, विज्ञानीक, संस्कृतीक संकल्पना, शास्त्रज्ञ...... गोंयचेर विशेश भर दिल्लो. वेगळ्यावेगळ्या भाशांतले ज्ञानकोशांचे पोटले थंय संशोधना खातीर संदर्भ वावरा खातीर तयार आशिल्ले. गरज पडल्यार ग्रंथपाल नावेलकार सदांच मदत करताले. Encyclopaedia Britannica आनी हेर इंग्लीश भाशांतले ज्ञानकोश, ज्ञानकोशी शब्दकोश आनी निरब्रट शब्दकोश हांवें थंय चाळ्ळे. सांसपिले. हिंदी विश्वकोश वापरले. हिंदी भाशेंत विज्ञान धरून सगल्यांच परिभाशीक उतरावळी पळोवन थक्क जालों. पुस्तकांचें आनी गिन्यानाचें मुदलांत पिशें आशिल्ल्यान हांव कोशांतलो किडो कसो विश्वकोशांत मन लावन चरूंक लागलों.

रमलों. तन्मयतेन. दीसभर हें भायल्यान पळेतल्याक तकलेफोडीचें दिसपी काम करतना आमकां परत एक वेगळोच कैफ येवचो. हुरूप, सुखद थकवो येवचो. सुस्त न्हीद लागची. गिन्यानाची भूक भागत गेली. कितलें शिकूंक मेळ्ळें हाची मेजणी कोण करतलो? नव्योनव्यो वाटो, नव्यो शक्यतायो, नवीं दालनां हांचो थाव आनी सुलूस ह्या मार्गार लागलीं. कोंकणींत तेन्ना व्हडलेश शब्दकोश येवंक नाशिल्ले.

शुद्धलेखनाचे नेम जाग्यार आनी थाऱ्यार पडपाच्या मार्गार आशिल्ले. विश्वकोशाक सर्वांसपणान लागतात असलीं साधनां निकतींच तयार जावंक लागिल्लीं.

साधनांचें संशोधन करपाकूच खूब वेळ खर्चतालो. ह्या कठीण वातावरणांत पयलो खंड आकाराक येतालो. तानाजीबाब हांवें बरयिल्ल्यो नोंदी तपासून योग्य मार्गदर्शन करतालो. आटीव, घोटीव असो intro आपल्या उतरांनी बदलतालो. मनोहरबाब अचूकतायेन चुकी हेरतालो. ऱ्हस्व-दीर्घ तांचे नदरेंतल्यान कशेंच सुटनासलें.

'अद्ययावत' असो म्हजे नोंदींत शब्द आयिल्लो. मनोहरबाबान कोशांत तपासपाक सांगलें. हांव कसो चुकलों अशें म्हाका दिसलें. मनोहरबाबान दुबाव काडला म्हणजे तोय चुकूंच नजो हाचो भरवंसो आशिल्लो. शब्दकोश काडलो. 'अद्यावत, अद्ययावत' अशी नोंद थंय आशिल्ली. दोगूय बरोबर आशिल्ले. अश्यो कितल्योश्योच गिन्यानान संपन्न आनी समृद्ध जावपा सारक्यो संदी थंय मेळ्ळ्यो. तांचो हांवें पुरेपूर लाव घेतलो. तानाजीबाबाच्या व्यक्तीमत्वाच्यो कितल्योश्योच पाकळ्यो हांवें थंय लागींच्यान पळेल्यो. पासियेंस, चिकाटी, कश्ट, कोंकणीची भक्ती, कोणेंय कितेंय म्हणूं, ताका बाडगनासतना काम करीत रावप, कठीण प्रसंगां वेळार धिरान डगमगनासतना तोंड दिवप, ध्येया वटेन मुखार सरत रावप..... सल्लागार मंडळांच्या बसकां वेळार तांची चपळटाय पळेली. मॅमो दी, तापय, सताय असल्यो गजाली तांच्या होलमाक नाशिल्ल्यो. काम कशें करून घेवचें हे प्रशासनाचे आनी वेवस्थापनाचे गूण ताचे ठांय उपजत आशिल्ले. संदर्भ खंय आनी कशे बेगीन सोदप, नोंदी थोड्या उतरां भितर सुटसुटीत उतरांनी कश्यो मांडप, संपादन, अणकार, संशोधन, प्रूफ रिडींग आनी हेर गजाली तांच्या मार्गदर्शना खाला थंय आंगवळणी पडल्यो. तांची दाटायेन संवकळ जाली.

बांबोळेच्यान ताळगांव सड्याचेर नवे इमारतींत आमी स्थलांतर केलें. नव्यानूच उबारिल्ले वास्तूंत वतकच सुरवातीक जें सोंशीकपण जाय तें आमी शिकले. राज्याच्या सर्वोच्च विद्यामंदिराची ही इमारत भोव ओडलायणी; सुंदर. विश्वकोशाचो पयलो खंड छापपाक गेलो. प्रुफां तपासपाक पानांच्यो राशी येवंक लागल्यो. नोंदींचे फोटे

सोदपाचोय वावर चलतालोच. कांय लेखकांक नोंदी बेगीन पुराय करपाचो आगरो सुरू जालो. तेन्ना आतां जाल्या तितली छापणावळीची सुदारणा जावंक नाशिल्ली. बाणस्तारी छापखान्यांतल्यान फकत फोटे trace करपाक घोग्यांनी पावसांत पणजे धांवचें पडटालें. आतांच्यो संगणकी करामती तेन्ना येवंक नाशिल्ल्यो. धांवपळ खूब जाताली. पूण खंय तरी व्हड वावरांत हात लावपाची भांगराची संद मेळ्ळ्या हें समजून हट्टें भरून येवचें. जगन्नाथाचो असलो रथ ओडपाक जांचे हात लागले ते भाग्यवान हो समज आशिल्लो.

विश्वकोशांत खूब जाणांचें यो-वच जातालें. लेखक, प्राध्यापक, तज्ञ लोक... तांचे कडेन interaction करतना आमी शाणे जायत आसात हाची खोशी जावची. नामनेचे लेखक आनी समिक्षक, डॉ. भालचंद्र नेमाडे विश्वकोशाच्या सल्लागार मंडळाचेर आशिल्ले. बसकां वेळार ते येतालेच. पूण कॅण्टिनांत च्या घेतना वा खातनाजेवतना तांचे कडेन उलोवपाक मेळटालें. डॉ. नंदकुमार कामत, गणिताचे प्रा. गिरीश वाल्लावल्लीकार आनी प्रा. मॅवी, कोंकणी विभागांतलें माधवी सरदेसाय, इंग्लीश विभागांतली डॉ. किरण बुडकुले. आनी हेरां कडेन चर्चा करप हो एक शिकपा सारको अणभव आसतालो. कुलगुरू, डॉ. पद्माकर दुभाषी हे वडील आयएएस अधिकारी. तांचेसारकी तल्लख स्मरणशक्त हांवें थोड्याच जाणांकडेन पळेल्या. दिक्षांत सुवाळ्या वेळार वर्साच्या कार्यावळींचो आख्खो अहवाल तांणी चिटारो लेगीत घेनासतना घडाघड सांगचो. विद्यापिठाच्या त्या प्रशस्त परिशद सभाघरांत साबार परिसंवाद, कार्यशाळा, चर्चासत्रां, व्याख्यानां, कार्यावळी जाताल्यो. तातूंतल्यान भितरसून प्रगल्भ आनी परिपक्व जावपाची संद आमी सोडलिना.

विश्वकोशाच्यो नोंदी बरोवप म्हळ्यार फकांडांचें काम न्हय. माहिती थोडे भितर आटोवन मांडप ही एक कळाशी. गागर में सागर भरपा सारकेली तकालस ती! मुद्द्याक धरून मांडटना म्हाका गणीत अभ्यासाचो फायदो जालो. तज्ञ लोक बरयताले. कोंकणींत बरयल्यार ती नदणी करून आमच्या format त बसयतासर खरस मारची. इंग्लीशींत आसल्यार कोंकणींत अणकारतना नाकापुरो जावचें. गोंयच्या थळाव्या मिनकामा विशीं एका भूंयगर्भतज्ञान बरयिल्ली नोंद अणकारपाक म्हाका

आयतारा घरा व्हरची पडली. कठीण उतरावळी कडेन झुजतना ज्यो वेणो भोगच्यो पडल्यो ताची यादूच जाल्यार कलकलता. आयतार वगडायलो अशें तेन्ना दिसलें खरें पूण आज त्या कश्टांचो वालोर कळटा. 'कोंकणी चित्रपट' नांवाचे नोंदीन तर सारकोच जीव खालो. तानाजीबाबान फिल्म इंडस्ट्री कडल्यान माहिती मागयली. त्या त्या संस्थां कडल्यान. थोडी आयली. तीय अगळपगळ. विश्वकोशांत बसोवपा सारकी न्हय. गरजेक पावलो फेलीसबाब कार्दोज. ताणें स्वता 'आमचें नशीब' पिक्चरांत काम केल्लें. ते भायर तो कोशांचो भक्त. ताणें माहिती बरोवन धाडली. नोंद जाग्यार पडली तेन्ना सू ऽऽ जालें. तितले म्हणसर दुसऱ्यो नोंदी जीव खावपाक रांकेंत तिश्टत उब्यो आसताल्यो. त्या वावरांत एक झपाटिल्लेपण आसतालें. बोल्सांत, बॅगांत, मेजार, फायलींनी, घरा - तारखो, शब्द, माहिती हांचे चिटारे चोंबडे कशे भरताले. बोल्सांतल्यो 'स्पायरल' धाकटुल्यो डायऱ्यो रोखड्योच भरताल्यो. तकली जाताली झोंज deadline नांवाची तरसाद तकलेर हुमकळत आसतानीच.

नोंद परिपूर्ण करपाच्या ध्यासान केन्नाकेन्नाय हांव ती घांशीत बसतकच तानाजीबाब एक दृश्टांत सांगी: आमच्या बांदोड्या गांवांत मरे, दादी म्हूण जाणटेलो आशिल्लो. चवथीक गणपती पावोवपाक आंगणांत हाडलो, तरी हो दादी मखराक फोलींच्यो कपयो दसयत आसतालो. ल्हायो घाल्यो तरी दादी मखर सजयत आसतालो. मजकूर छापूंक वचपाचो जालो, आतां आनीक घश्टूं नाका, हो ब्रेक 'सर' मारतालो.

पूण एक. नोंदी कडेन लडटना, भास-व्याकरण-क्रमवार मांडावळ हांचे कडेन झुजतना मेंदवाच्या जिमांत (व्यायामशाळेंत) वावुरतात असो भास जावचो. मेंदवाक असलो व्यायाम दिलो जाल्यार पेशींची गुणात्मक वाड जायत रावता आनी जाणटेपणांत याद उरनासपा सारकीं दुयेंसां जायनात अशें स्वताकूच समजायत हो तकली-संघर्श हांवें सोंसचो.

कठीण वावरांत आमी गंभीरपणान मग्न आसतनाच कोण तरी विनोदी मनीस भितर सरचो आनी ताणें वातावरण हलकें करचें. एक दीस सुतकी माहौलांत आमी वाचनांत-संशोधनांत मुंगरिल्ले. इतल्यान पावलो प्रकाश थळी. म्हजो काका. ताणें बुदवंत कोटी केली.

- तानाजी, आख्ख्या विश्वाक पांच खंड मरे. तुज्या कोंकणी विश्वकोशाक मात तिनूच?

हांशाचीं कारंजीं उसळ्ळीं. कालांतरान आटापा येना म्हूण तीन खंडांनी आदीं थारायिल्लो विश्वकोश विद्यापिठाचे मंजुरीन तानाजीबाबान चार खंडांनी आसपावन घेतलो.

हरशीं विनोदी लेखक अना म्हांबरो गोंयांत केन्ना येता आनी केन्ना वता हाची सुलूस कोणाक लागना. पूण त्या तेंपार गोंयांत येना फुडें हो ज्ञानपिपासू, व्यासंगी स्कॉलर विश्वकोशांत मुजरत येतालो. ताका पळेतकच बेठेंच हांसूंक येवचें - ताच्या पुस्तकांतल्या हांसून मुड्डो जावपा सारक्या उताऱ्यांची याद जावन. तो उणेंच उलोवपी. चिंतनांच्या शांत दर्यांत बुडिल्ले भशेन आसतालो. विश्वकोशांत आल्बर्ट आयन्स्टायन हे नोंदी खाला अनाचो फोटो दिलो जाल्यार कोणाकूच कळचें ना अशें हांवें वांगड्यांक म्हणलें आनी तांणी हांसत दाद दिली. आयन्स्टायनाचो पन्नाशींतलो फोटो आनी अना हांच्यांत बेटेंच साम्य दिसता. विनोदी, त्रोसात्मक, पियादात्मक, उपहासात्मक बरोवपी दिलीप बोरकार आंतऱ्यापयऱ्यान पासेय मारतालोच. धवोफुल्ल भेस, धवेंफुल्ल खाड. तेन्ना ताची 'बोरकारी' घोंसार आशिल्ली. तो तातूंतल्यान सडीक उजरायतालो. मदींमदीं आमच्योय विकेटी उडयतालो. ताका पळेना फुडें ती याद जावन हांसूंक येवचें. तो आजो कसो खडस्सायतालो - हांसतात शे रे? ... काम करात. आमचे कितलेशेंच इश्ट पणजे बी मेळटकच वासपूस करी. आरे, तुमचो शब्दकोश केन्ना येतलो रे? ह्या सवंगांक कसलो कोश तोच खबर नाशिल्लो. एकलो आनीक मदांच विचारी - तुमचो 'सुडोपोडिया' केन्ना येता? ह्या शाण्याक सुडोपोडिया काय एनसायक्लोपिडिया तेंय खबर नाशिल्लें. सुडोपोडिया हे अमिबा ह्या जिवाचे हालचाल करपाचे अवयव, जें सगलेच जाण इश्कोलांत biology त शिकतात. हे सगले विनोद चिंतून चिंतून आमी हांसताले. विनोद सोदपाची कास्तीक पडनासली.

कोंकणी विश्वकोशाचो पयलो खंड नामनेचे कन्नड साहित्यीक आनी ज्ञानकोशकार शिवराम कारंथ हांचे हस्तुकीं उजवाडाक आयलो. ज्ञानपीठ पुरस्कार मेळोवपी ह्या

तपस्वी लेखकाचें सान्निध्य हांव केन्नाच विसरचों ना. कारंथा कडेन सांजे कुलगुरूंच्या पाचव्याचार लॉनार जाल्ली भासाभाशेची कार्यावळ रंगली. ज्ञानकोश, साहित्य, समाजकारण, अर्थकारण, कला, संस्कृताय, संगीत.... सगल्याच विशयांचेर कारंथ उलयले. गिरसप्पा घसघसो कसो. तिशेक लेखक आशिल्ले. प्रस्नांक सहज जापो दिल्यो. विचारतल्याच्या तोंडाक पळेनासतना. तात्काळ. इल्लीशी अभिव्यक्ती कितली प्रभावी आसूं येता हें सांगपाक तांणी 'वद जाऊं कुणाला शरण मी' ह्या नाट्यगिताच्यो वळी गावन दाखयल्यो. ज्ञानकोशाचे आपले अणभव तांणी सांगले. यक्षगान आनी हेर लोकवेदाचेर मोलादीक विचार मांडले. ह्या पितामह विद्वानाच्या वाऱ्यानूच कोणेंय भारावन आनी भारीत जावन वच्चें. कवी चाफ्रा द कोश्त कार्यावळीक आशिल्ले. दुयेंत आशिल्ल्यान तांणी माथ्याक लेंस रेवडायिल्लो. च्या बी जातकच तांकां आमी सुदेश लोटलीकाराचे गाडयेन व्हरून सांताक्रूझ संदेश-प्रशांतीगेर पावयले. कोणाक खबर चाफ्राबाबाची ती निमाणी भेट आसत म्हूण! त्याच सप्तकांत ते भायर पडले अशी खबर आयली आनी चिटमिटे पडले.

पयलो खंड उजवाडाक येतकच दुसऱ्या खंडाचें हातबरप अर्दें जाल्लें तेन्ना हांवें आकाशवाणीर उडकी मारली. पत्रकारितेचें पिशें आशिल्ल्यान वृत्तनिवेदकाची परिक्षा पास जावन हांव थंय रुजू जालों. नवो अध्याय थंय सुरू जालो. पूण विद्यापिठान आनी विश्वकोशान म्हाका सोडलोना. चारूय खंड पुराय जायसर म्हजे कडल्यान कांय नोंदी बरोवन घेतल्यो. चारूय खंडांच्या प्रकाशना वेळार सुत्रसंचालनाची जापसालदारकी म्हजेर घाली. दुसऱ्या खंडाचें प्रकाशन म्हजे आवडटे लेखक आनी नाटककार गिरीश कर्नाड हांचे हस्तुकीं जालें. गिरीशबाबान अस्खलीत शुद्ध कारवारी कोंकणींत उलोवप करून सगल्यांक अजापीत केले. धारवाड कॉलेजींत आसतना आपणें, तेन्नाचे गोंवा विद्यापिठाचे कुलगुरू बाळकृष्ण सोंदे आनी हेरांनी कोंकणी हातबरप काडिल्लें आनी तातूंत शणै गोंयबाबाचेर लेख बी आशिल्लो हाचो उगडास तांणी काडलो. उपरांत तांणी इंग्लीशींत शब्दांची बांसरी वाजयली. तांचोय सांगात म्हाका गिरेस्त करून गेलो. तिसऱ्या खंडाचें प्रकाशन मराठी लेखक मे. पुं. रेगे हांणी केलें. घारशे दोळे. दिसपाक सारको वृत्तनिवेदक अनंत केळकार कसो. ह्या मितभाशी

विद्वान लेखका कडेन जेवणा वेळार खूब गजाली मारल्यो; प्रस्न विचारले. मेजक्या शब्दांनी तांणी जापो दिल्यो. निमाण्या खंडाचें प्रकाशन राज्यपाल महंमद फाजल हांणी केलें.

कोंकणी विश्वकोश ही गोंयांतली आनी कोंकणीच्या मळा वयली एक इतिहासीक घडणूक. एक वाटचिरो. ताका फावता आनी सोबता अशी झगझगीत प्रसिद्दी देशभर अचकीत मेळ्ळी. केबल टिवी येवंक नाशिल्लो त्या वेळार दूरदर्शनाची एकमेव वाहिनी देशभर शेक गाजयताली. ताचेर 'सुरभी' ही सप्तकी कला आनी संस्कृतायेची वळख घडोवपी कार्यावळ लोकप्रीय जाल्ली. तातूंत गोंयचेर एक 'एपिसोड' जालो. पयल्याच वांट्यांत आमचो कोंकणी विश्वकोश प्रकल्प दाखयलो. मुंबय आनी हेर शारांतल्या इश्टांनी तो पळेलो आनी पुस्तकांच्या गराड्यांत म्हजें दर्शन जातकच परब्यांचो शिंवर केलो. गुजरातांत दीपक पटेल ह्या इश्टाक आनी ताच्या बापायक मुकेश'भायक' पळोवन आनंद जालो तो वर्णन करपाचो विशय न्हय. तांणी बरयिल्ल्या पत्रांत तो उपाट थपथपून भरला.

कला अकादमीच्या आंगणांत कालांतरान एक व्हडलें पुस्तक प्रदर्शन भरिल्लें. शेंकड्यांनी मांड पडिल्ले. हांव आकाशवाणी वयल्यान घरा परतल्लों. म्हजो व्हडलो भाव ॲड. अमोलूय ताच्या आदवोगाद इश्टां सांगाता प्रदर्शनाक वचून परतल्लो. ताणें जायतीं पुस्तकां हाडिल्लीं. "प्रदर्शन कशें आशिल्लें?" हांवें ताका विचारलें. एकूच गजाल ताणें लक्तुबायेन सांगली. 'तानाजीबाबाची तोखणाय दिसली. कोंकणी विश्वकोशाचो मांड आशिल्लो. तानाजीबाब एकलोच थंय उबो आशिल्लो. निश्ठावान सेवक कसो. विद्यापिठाचो आनी कोंकणीचो....' ते कवतुकाचे उदगार आयकून म्हज्या दोळ्यांत दुकां आयलीं. ज्या आस्थापनाच्या म्हालवजार आपूण रोजीरोटी खातां आनी जी आवयभास आपले जिवेर घोळटा म्हणून आपूण मुदलांत उलयतां त्या दोगांय प्रती केदी निश्ठा ही!

1988 ते 1993 अशीं पांच वर्सां हांवें विद्यापिठांत काम केलें. काम न्हयच तें. कोंकणीची सेवाभावना उकतावपाची ती एक मंद आशिल्ली. ज्ञानविज्ञानसंपन्न जावपाचो तो एक मुवाळो आशिल्लो. म्हजे जिणेंतलो भांगराचो काळ तो. गोड.

सूखदिणो. आत्मचरित्राचें एक प्रकरण.

विद्यापिठान म्हाका दिलें कितें? मेजूं नजो. ताळेबंद काडूं नजो. academic exposure दिलो. मान-प्रतिश्ठा दिली. कंवळे पिरायेर जापसालदारकी सांबाळपाचें, आव्हानां पेलपाचें शिक्षण मेळ्ळें. बुद्दीच्या पात्याक चकचकीत धार हाडली. कोंकणी, इंग्लीश, हिंदी भासो सुदारल्यो. तें एक प्रशिक्षण, एक डिग्री कशी - इतलेंच हांव मानतां. आयजूय त्या सुखाच्या यादींच्या झोंपाळ्याचेर अळंग धोलतना जीव हलको जाता. ल्हवपीक... विचारीक दिवाळखोरीच्या भोंवतणच्या जंवजाळांत बुद्दीक उपासमार जावन सुकतडो लागता तेन्ना हांव ह्या वल्या वल्या उगडासांच्या मळबांत उडणां मारतां...मनपांखाटो फुलोवन.. मेंदवाच्यो पेशी तापतात, फुरफुरतात आनी एक स्फुल्लींग पेट घेता. स्फुरण चडटा. अंत ना अशा गिन्यानाच्या मळबाचो थाव घेवपाचें... भार आयिल्ले भशेन जाता. स्वताचो विसर पडटा.. सगलो शीण नाच्च जाता....



# 19. खबरो आनी खबरी

भुरगेपणा मावन म्हाका रेडियोचें आकर्शण. तेन्नाचें तें एकमेव शक्तीशाली माध्यम. गितां, पदां, श्रुतिका आनी खास करून बातम्यो हांचे विशीं तल्लीन जावन आयकुपाची आवड आशिल्ली. 'दत्ता कुलकर्णी आपल्याला बातम्या देत आहे' अशा खणखणीत आवाजांत बातम्यो सुरू जाताल्यो. 'आकाशवाणी-मुंबोय आनी पोणजे, जीएल गोम्स तुमकां कोंकणींतल्यान खोबरो दिता' ह्योय खबरो आयकुपाक मजा येताली.

आकाशवाणी पणजी केंद्राचेर सुरेश नायक अप्रतीम ढंगांत खबरो सांगतालो. ताची एक अपिलींग शैली आशिल्ली. काळजाक हात घालपा सारकी. 'हें आसलें आयचें प्रादेशीक समाचार दर्शन' ह्या आवाजान 'थीम' संगिता सयत ताणें सोंपयिल्ली 'न्यूसरील' कार्यावळ सगल्यांकूच भावताली. इतली की, याद आसा, कॉलेजांतले भुरगे तेच शैलीन आवडीन परत परत ती 'मिमिक्री' करताले.

कॉलेजांत आसतना हांव जरी गणीत विशयांत स्पेशलायझेशन करी तरिकूय म्हजें लक्ष कितल्याश्याच अवांतर गजालींनी चड रमतालें. रेडियो वयल्यो बातम्यो आयकप आनी पेपरा वयल्यो बातम्यो अथ पसून इथी मेरेन वाचप हो छंद जडिल्लो. टायगर नांवाचो फिलिप्स कंपनीचो एक पोर्टेबल ट्रान्झिस्टर भावान हाडिल्लो. तिळसांजचे कातरेर हांव तो घेवन पिरवळा आमी रावतालीं ते चाळी भायर एका सोप्यार बसून बातम्यो आयकत बसतालों. पयलीं हिंदी बुलेटीन, ते उपरांत इंग्लीश, मराठी, कोंकणी. एकार एक सगलीं बुलेटिनां बारीकसाणेन आयकतालों. कोणेंय तिरायतान पळेल्यार ताका दिसुये - हो पिसो आसतलो.

केन्नाकेन्नाय हांव त्यो बातम्यो चालू आसतना मेजार एक कागद दवरून जाता तितले गतीन त्यो झरझरीत बरोवन काडटालों. म्हजो धाकलो मामेभाव तें पळोवन हांसतालो. म्हाका ताची पर्वा नाशिल्ली.

इश्कोलांत आसतना एसेम्ब्ली वेळार हेडमास्तर रवींद्र नमशीकारान पेपरा वयले माथाळे म्हणल्यार मुखेल खबरो वाचपाची संवय लायिल्ली. केन्नाय म्हजी पाळी येताली. हांव इंग्लीश बातम्यो खणखणीत वाचतालों.

एक दीस मर्डरर म्हणजे खुनी हो शब्द हांवें मर्डर असो निसरड करून उच्चारलो. हांव जाणाच आशिल्लों हेडमास्तर उपरांत ती चूक नदरेक हाडटलो म्हूण. जालेंय तशेंच. ताणें त्या दिसा वर्गांत म्हाका तो शब्द चुकलोच कसो अशें घश्टून घश्टून परपरत विचारलें. तूं कसो चुकूंक शकता असो ताचो आव आशिल्लो.

इश्कोलांतल्यो सांस्कृतीक कार्यावळींच्यो बातम्यो तयार करून त्यो पेपरांनी धाडपाक नमशीकार सर उत्तेजन दितालो. त्यो राष्ट्रमत दिसाळ्यांत छापून येतकच बरें दिसतालें. म्हाड्डोळच्या आझाद मैदानार फुटबॉल, क्रिकेट खेळ आनी हेर सांस्कृतीक कार्यावळी जाताल्यो. तांच्योय धाकटुल्यो बातम्यो हांव उमेदीन बरोवन धाडटालों. बातम्यांनी म्हायती आसता आनी तरेतरेच्यो गजाली शिकूंक मेळटात, शब्द मेळटात, सामान्य गिन्यान वाडटा अशीं तरातरांचीं कारणां ह्या छंदा फाटल्यान आसतालीं.

कॉलेजांत आसतना हांव गोंयचे पेपर लायब्ररींत बसून वाचतालों. चिमटीभर पयशे दीसपट्ट्या खर्चा खातीर मेळटाले तातूंतल्यान मुंबयचे टायम्स, इंडियन एक्सप्रॅस सारके इंग्लीश पेपर वाचतालों. ते चडशे तेन्ना सांजे पावताले. विमानां सांजे पावतालीं. हे पेपर वाचून कितें मेळटा, कित्याक तो नश्टखर्च अशें घरच्यांचें तापरण आसतालें. म्हजो आनंद कितें आनी हांव कितें मेळयतां हें तांकां समजावप शक्य नाशिल्लें. अग्रलेख, लेख, वाचप्यांचीं पत्रां, देशी विदेशी बातम्यो आनी तांची विसकटावणी वाचतना इंग्लीशूय सुदारताली आनी भितरल्यान ज्ञानसंपन्न जाल्ल्याचे खोशेन खातखुतल्यो कश्यो जाताल्यो. सातोळीं, नेमाळीं तर अधाशी कसो वाचतालोंच. आजो आयतारचो नेमान महाराष्ट्र टायम्स आनी लोकसत्ता हाडटालो. तो फकत साप्ताहीक भविश्य वाची. बाकीचे सबंद पेपर हांव खातालों जेवतालों म्हणल्यार

जाता. तातूंतलीं आवडीचीं कात्रणां - लेख, विज्ञानीक आनी माहितीपूर्ण खबरो कातरून दवरतालों.

रेडियोच्यो बातम्यो आयकुपाक वेगळीच मजा आशिल्ली. जण एकल्याची आपली अशी शैली आसताली.

कांय हिंदी न्यूसरीडरांचे आवाज रेशमी कशे. ते आवाज आयकतनाच तुज्या थकिल्ल्या आनी शिणिल्ल्या जिवाक बरें दिसुंकूच जाय. कांय इंग्लीश वृत्तनिवेदक लेगीत, खास करून, बायलो, प्रभावी ढंगांत बातम्यो सांगतालीं; सांगतात.

आकाशवाणीच्या मुंबय केंद्रा वयल्यान सकाळीं आनी सांजे कोंकणी बातम्यो येताल्यो. त्यो हांव आयकतालों. शैलेश रायकार सांगतालो. केन्नाय जयमाला दणायत, उमेश म्हांबरो, नरेंद्र बोडके, संजीव पंडीत, ऑस्टीन डिसौझा हे बातम्यो सांगताले. ताचे पयलीं विश्वंभर उमगांवकार हांच्योय खबरो आयकल्ल्याची याद जाता.

प्रसार माध्यमां विशींचें म्हजें आकर्शण वाडतूच आशिल्लें. ताचो थ्रील, एक्सायटमॅण्ट वेगळोच आशिल्लो.

कोंकणी विश्वकोशांत गोवा विद्यापिठांत काम करतना मुंबयचो खबरां विभाग गोंयांत आयलो. मुंबयच्यान येवपी बुलेटीन पणजेच्यान वितरावपाक सुरवात जाली. शैलेश रायकार गोंयांत आयलो. खबरां विभागाक 'कॅज्युअल' न्यूसरीडरांची गरज आशिल्ली. तांणी कळोवणी वितरायली. हांवें अर्ज केलो. लेखी, आवाजाची परिक्षा पास जालों आनी प्रशिक्षण सुरू जालें.

हांव लेखक तशेंच विश्वकोशांत काम करपी संशोधक ह्या कारणांक लागून खबरां विभागांतल्या वडील संपादकांनी म्हजी पिराय तेन्ना उणी आसून लेगीत म्हाका आदरान कोंकणी शब्द, अणकारां संबंदान विचारचें. म्हाका तांचेंच कवतूक दिसचें. दिलीप देशपांडे विभागाचो मुखेल. तो चोखंदळ वाचपी. आपल्या तीक्ष्ण विनोदी संवादां वरवीं खबरां विभागांतलो ताण सुसह्य करपी. सतीश नायक हो वृत्तसंपादक म्हापशेंकार. ताचें अक्षर सुंदर. ताणें बरयिल्ली बातमी पयलीं येसाय घेनासतना सरळ वचून मायकार वाच. हांव बातम्यो वाचूंक लागतकच ताका तेन्ना स. बाबा नायकान विचारलें - संगीतकार थळयांल्या घरांतलो रे हो? तें आयकून

म्हाका बरें दिसलें. बातम्यो वाचतना उतरांची जी 'डिलीवरी' वा 'थ्रो' आसता तांकां एक लय आसता, शब्द सुरार वचपाची आनी वाचपाची गरज आसता, ठेक्यांत मात्रा खाली आसतात तशे रिते जागे म्हणल्यार 'पॉज' आसतात. आपले भाशेच्या सभावा प्रमाण उच्चार स्पश्ट आनी निवळ जावंक जाय हाचे कडेन हांव कटाक्षान लक्ष दितालों. पूण बाबा सापेक्षी आनी रसीक समिक्षक. बातम्यो नेटान घडघडीत वाचल्यार वा कितेंय चुकल्यार तो रोखडोच फोन करतालो. सगल्यांकूच ताची धास्ती आसताली.

विद्यापिठांतलें दीसभराचें विश्वकोशांतलें तकलीफोड करपी काम जातकच हांव आल्तिन्यार वतालों. बातम्यो जातकच दुसऱ्या दिसा फांतोडेर ड्युटी आसल्यार पत्रकार प्रकाश कामतीच्या रुमार रावतालों. तो तेन्ना इकॉनॉमीक टायम्सांत आशिल्लो. तोय म्हजे वांगडाच निमित्तीक वृत्तनिवेदकाची परिक्षा पास जावन बातम्यो सांगूंक लागिल्लो.

रेडियो बातम्यांच्या त्या थरारक विश्वांत हांव मनोमन रमलों. सगल्यांत पयलीं बातमी समजुपाची खोस, दर दिसा अणकार करतना येवपी नवेनवे शब्द वा आव्हानां, नवीनवी म्हायती, गिन्यान ह्यो गजाली म्हजे अभ्यासू वृत्तीक मानवल्यो. बातम्यो कितलेशेच जाण तयार करतात तरिकूय खबरो प्रत्यक्षांत वाचप्याक सुरवातीक आपलें नांव वाचपाची एक खेरीत हक्क आकाशवाणीन दिला. ताका लागून वाचकाचें नांव आयकुप्यांचें घरचेंशें जाता होय आनंद जीव फुलयतालो.

प्रकाश कामत सिए जावपाच्या मार्गार वचनासतना पत्रकारितेंत आवडीन पाविल्लो. म्हजीय तीच गत.

ताचे कडेन जुळ्ळें. तो मडकयचो. म्हजें भुरगेपण पिरवळा. रातीं उसरां मेरेन हांव आनी तो जगा वयल्या सगल्या विशयांचेर उलय उलय उलयताले. ताचे कडल्यान हांव अर्थीक बातम्यांचें अणकार, संकल्पना हे विशीं शिकून घेतालों. जाणून घेतालों. तो वाचपाक नेमाळीं दितालो. बातम्यो आनी तांची विसकटावणी ताचे तकलेंत संगणकांत म्हायती भरिल्ले भशेन भरिल्ली आसताली. हांव ताका साहित्या विशीं, वेगळ्यावेगळ्या भाशां विशीं आनी तातूंतल्या बारकाव्यां विशीं आनीक आवड

जावची ह्या हेतान रुचीक खबरी सांगतालों. विश्वकोशांतल्यान वावराचो आदार बातम्यो अणकारतना वा संपादीत करतना जातालो आनी ह्या नव्या खबरां विश्वाचो आदार म्हाका विश्वकोशांतलें ज्ञान भांडार मांडटना जातालो. तकली एका वेगळ्याच आनंदान भरून वताली. घोरेवपा इतली सुस्त न्हीद लागताली.

हांवें आकाशवाणीचेर कॅज्युअल न्यूसरिडर म्हूण बातम्यो वाचपाक सुरवात केली. म्हजी शुद्ध कोंकणी आनी सुटसुटीत अणकारांतलें खणखणीत वाचप सगल्यांकूच आवडटालें. आपलें काम कितलें बरें करूं येता हाची मर्यादा मळबा येदी हें समजून हांव सदांच सौंदर्य ओतीत वावरत आयलां. ताचो आनंद मळबा येदो.

कालांतरान आकाशवाणी पणजी केंद्राचेर वृत्तनिवेदकाचो पूर्ण वेळाचो हुद्दो रितो जाल्लो. हांव विद्यापिठांतल्यान येवन अदींमदीं बातम्यो वाचतालोंच. ह्या माध्यमाचें आकर्शण आशिल्ल्यान हांवें अर्ज केलो. लेखी सामान्य गिन्यानाची, अणकाराची आनी उपरांत वाचनाची म्हणत्यार आवाजाची परिक्षा जाली. तोंडी परिक्षा अर्दवरा वयर चल्ली. निकाल दिल्लीच्या माहिती आनी वितरावणी मंत्रालयांतल्यान एका वर्सान आयलो. हांव पास जाल्लों. रोखडोच विद्यापीठ सोडून रुजू जालों.

कांय जाणांनी परवीं दिलीं. पत्रकार प्रकाश कामत आनी गुरूनाथ केळेकार हांणी पत्रां बरोवन एक प्रेमळ शिटकावणीय दिल्ली. त्या रेडियोचेर माधव बोरकारा भशेन तुजी अभ्यासू आनी सृजनशील लेखकाची वृत्ती जप अशा आशयाचीं हीं पत्रां. असले इशारे म्हाका आवडटात. तांचे शिटकावणेंक पाळो दिला आसूंक जाय अशें हांव आयचे घडयेक तरी समजतां.

आकाशवाणीच्या खबरां विभागांत दर दिसा शिकूंक मेळटा. अणकाराचीं आव्हानां आसतात. नव्यो गजाली, नवीं उतरां, नवे मनीस आनी पत्रकार, वाडपी अणभव... अंत ना. हांवें विद्यापिठांतली कोंकणी विश्वकोशाची नोकरी सोडली. वावरा माध्यम बदल्लें तरी नोकरेचो संबंद म्हजे भाशे कडेन दवरलो. आयजूय दर दिसा हजारां वयर उतरां अणकारून, संपादीत करून, तासां मारून, मांडून तीं वाचतना म्हजे भाशे विशींची लागणूक आनी मोग दर दिसा चड आनी चड चकचकीत जायत आसा.

बातम्यो कितले बरे तरेन वाचूं येता हाचो एक परमोच्च बिंदू हांव म्हज्या व्याख्यानांत नवशिक्या भुरग्यांक सांगीत आसतां. बातम्यो कोण तरी 'वाचीत' आसा हें आयकतल्याक खबर आसताच पूण तो वाचिना जाल्यार म्हाका व्यक्तीगतपणान खबरी आनी गजाली सांगिल्ले भशेन खबरो सांगता हो भास जावंक जाय. तेन्नाच त्या वाचनाक एक सहजताय आनी अकृत्रीमताय येता. (कारण खोर्नांतल्यान उंडे भायर काडटना पदेर बातम्यो आयकता तेच वांगडा विद्यापिठांतलो प्राध्यापक लेगीत आयकता आनी हे सगलेच थर बरयतना आनी वाचतना मतींत दवरचे पडटात.) पूण हे गजालीक वर्सां वतात. ही एक साधना. हांव तसो येत्न करतां. गायकाक मैफिलींत आपणें घेतिल्लें आवर्तन वा जागो कितल्या गोड सुरांत गेला हें आपसूक होलमता तशें बातम्यो वाचतल्याक आपणें ही गजाल आयकुप्याक सहजतायेन सांगल्या, ताणें ती आयकल्या आनी ताका ती पटल्या हें त्याच धपक्याक कळटा. अशेंच एक दीस घडलें. मुशर्रफाची बातमी वाचतालों. ती वाचतनाच एका एका आयकुप्याक व्यक्तीगतपणान हांवें ही गजाल कथन केल्ल्याचो भास म्हाका जालो. स्टुडियोंतल्यान सकयल देंवतकच दामोदर घाणेकाराचो फोन आयलो. कितें तरी नक्कीच चुकलां आसतलें अशें दिसलें. पूण त्या दिसा बुलेटिनांतली एक्कूय चूक दाखयनासतना मुशर्रफाची ती बातमी तुवें म्हाका सांगल्या अशें दिसलें अशी तुस्त तोखणाय ताणें केली. श्रमसाफल्याच्या आनंदान दीस भरलो.

दामोदर घाणेकाराच्या दोळ्यांच्या कॅमेऱ्यांतल्यान इंग्लीश आनी कोंकणी व्याकरणाची आनी शुद्धलेखनाची आनी मुद्रीत शोधनाची एकूय चूक निसटप कठीण. कानूय तितलेच तीक्ष्ण. धा जाणकारांक बातम्यो आयकुपाक बसोवचे. पूण घाणेकारा इतलें 'कॉन्सन्ट्रेशन' कोणाचेंच लागचें ना. णव जाणाचें लक्ष हांगा थंय मदींमदीं व्हांवतलेंच. पूण घाणेकार पक्को. बातम्यो ताचे तकलेंत रिकॉर्ड बी जावंक नात मूं असो भास जाता. ताणें खूब खूब चुकी दाखोवन म्हाका सुदारला. कोंकणी खबरो आयकप आनी ताची समिक्षा ही आवयभाशे खातीर ताणें भक्तीभावान केल्ली एक श्रवण-पुजा अशें म्हाका दिसता.

खबरांच्या अणकारांत केन्नाकेन्नाय चिमटीभर साहित्याचो वास घालपाची कृय

म्हाका येता. एक दीस अशें वाचलें - आतंकवादी हल्ल्या उपरांत तीग जाणांक सुरक्षा कर्मचाऱ्यांनी धरले. दोग जाणांनी पपा काडली.

'पळ्ळे' हाका 'पपा काडली' हो वाक्प्रचार घाणेकाराचे आवयक खूब आवडलो. ती जाणटेपणांत दुयेंत आसतना लेगीत बातम्यो आयकुपाचे पुताचे श्रवणपुजेंत आपूण वांटेकार जाताली. जादूगार डी सतीशाची आवय लेगीत बातम्यो आयकताली. एक दीस सतीश मेळ्ळो - आरे, तुज्यो बातम्यो ती घोस्तान आयकता रे. एकूच कर. शेंकड्यांनी लोक मेले, स्फोट, अपघात, बॉमस्फोट, रक्तपात असलें मातशें उणें कर. ती मागीर हुसक्यान म्हाका ताचेरूच विचारीत रावता.

आमचो काका- प्रकाश थळी - हाचोय कान तीक्ष्ण. ताचो भाशांचोय अभ्यास खोल. ताणेंय वेळोवेळ केल्ल्यो मोलादीक सुचोवण्यो हांवें मानून घेतल्यात.

एक व्हडली गजाल हांव ह्या वेवसायांत शिकलों ती अशी - खबरो बदलत आसतात. वाडत आसतात. वेळाचें आकांताचें चेपण आसता. फोन खणखणत आसतात. वावड्यांचीय वासपूस करपी फोन आसतात. मोबायलांक आनी तंत्रगिन्यानाक लागून संपर्क वाडला. अशा वेळार थारायिल्ल्या वेळांत बातम्यो थंडसाणीन बरोवन संपादीत करून त्यो तितलेच थंडसाणीन वाचप ही एक व्हडली कळाशी. सरकारां पडलीं वा वेंचणूक निकाला वेळार अमूक पडलो, तमूक आयलो अशा वेळार खबरां निवेदकाक स्वताचें रिएक्शन दामपाचें आसता. स्थितप्रज्ञ कसो द्रश्टो जावन खबरो तितल्यो टिपपाच्यो आनी चिटपाच्यो आसतात. अनंत केळकार दोन वर्सां आदीं निवृत्त जालो. पूण प्रामाणीकपणाचो पुतळो आशिल्ल्या केळकारा कडल्यान ही गजाल हांव शिकलों. बातम्यो वाचतना निवेदकान भितरल्या गजालीं कडेन निरासक्त नासचो आनी आसक्तूय नासचो. नाटकांतलें संवादांचें मॉड्युलेशन घेवनूच उपकारना. बातम्यो वाचप म्हणल्यार भाशणाचो आवेश हाडून शब्दांची तेफळां फटाशेंतल्यान मारिल्लें भशेन करचीं न्हय. बातम्यो वाचपाची शैली ही कार्यावळीच्या सुत्रसंचालनाची वा निवेदनाचीय आसूंक उपकारना. शब्दफेंकींत वजन आसूंक जाय. भाशेच्या 'फॉनॅटिक्सा' कडेन त्यो प्रामाणीक आसूंक जाय. बातम्यो ह्यो बातम्यो. त्यो चड गतीन वाचून उपकारना. तशें केल्यार त्यो आयकुपाक,

समजुपाक जड वचपाची भिरांत. चड सवकासायेन आनी संथपणान वाचल्यार त्यो वाजेवण्यो दिसतात. घांटार व्हडलो ट्रक ओडत वता तश्यो त्यो वीट हाडटात. शारिरीक नदरेन प्रवासाच्या वा हेर दगदगान थकिल्लो आसल्यार, थंडीजोर आसल्यार बातम्यो बरोवपाचेर वा वाचपाचेर परिणाम जाताच जाता हो म्हजो अणभव. मानसीक नदरेन म्हणल्यार बातम्यो तयार करतना कोणा कडेनूय प्रत्यक्षांत वाद घाल्यार, फोनार लेगीत झगडल्यार ताचो परिणाम वाचनाचेर जाता.

कोंकणी बातम्यांनी कोंकणी भाशेचो वास, परमळ, संगीत, खाशेलपण आसूंक जाय. बातम्यांचो मजकूर जाणून घेतां घेतां वाचतल्याचे गोड संथ निर्मळ शैलीन तो सुखावन वचूंक जाय. आवाजांत स्पश्टताय जाय. खंयचोच शब्द वा क्रियापद गुळ्गुळायिल्ले भशेन उच्चार करूंक फावोना. म्हज्या वाचनांत हांव एक 'पंच्य' वा 'श्रो' असो दवरपाचो येत्न करतां की आयकुपी आयकत उरूंक जाय.

आयचे घडयेक माध्यमांचो स्फोट जाला. टेलीविझ्यना वयल्यो खबरां वाहिन्यो, इंटरनॅट, मोबायल हांचेर मेळपी हेडलायनी, तंत्रगिन्यानान छापील आनी इलॅक्ट्रॉनीक माध्यमांनी हाडिल्ली क्रांती हांकां लागून रेडियो खबरो आयकुपी वर्ग थोडो उणो जाला. पूण आदीं बिबिसी गाजयिल्लो फांकिवंत न्यूसकास्टर आनी ब्रॉडकास्टर मार्क टुली म्हणटा ते प्रमाण रेडियो केन्नाच मरचो ना. खाड करतना. रांदतना आयक. पांयभोंवडी करतना, दोंगरार आयक. बार्जीचेर आयक. चिमटीभर डबी कशी ट्रांझिस्टर घेवन खंयूय वच. रेडियोच्यो बातम्यो आयक. साक्षर कित्याक, निरक्षर लेगीत त्यो आयकूंक शकता. द्दश्टीहीन लेगीत आयकतात.

रेडियो वयल्या वृत्तनिवेदकाचें नांव हें आयकतल्यांचें घरगुती नांव जाता. वाचूंक सुरवात करतना आपल्या नांवान सुरवात करपाची ही मेकळीक वा चाल तें नांव लोकप्रीय करता. वृत्त निवेदक म्हूण वेगळी लोकप्रीयताय दिवपी आकाशवणीचो हांव उपकारीच उरतलों. नुस्त्या बाजारांत वाणपणां करतना आवाजाचेरूच वळखीचे लोक हर्टाकितात. 'बाजारांत रेडियोच्यो बातम्यो कोणें लायल्यात काय पळेतालों, पळेत जाल्यार तूं.'

बातम्यो ह्यो सदांच राजकी बातम्यांतल्यान सुरू जातात. देखून हे लोक त्या

विशयाचेर आनी खास करून गोंयच्या राजकी रेबडाचेर नुस्त्या बाजारांतले चिकचिकेंत म्हजे कडेन भासाभास करतात. वळखीचे लोक अशे सांपडटकच तांचे हुजीर वाणपणां करपाक लज बी दिसता; नुस्तेकान्नीन सांगिल्ले दरेन नुस्तें घेवचें पडटा.

नवे नवे शब्द, उतरां वा संकल्पना इंग्लीश, मराठी वा हिंदींतल्यान कोंकणींत अणकारीत करतना सदांच आव्हानां दितात. एक दीस सॅटलायटाचो कावंटडावन सुरू जाला अशे तरेची खबर आयली. कावंटडावन उतराक कितें कोंकणी प्रतिशब्द आसा हे विशीं चिंतपाक वेळ उणो आशिलो. बातम्यो वाचूंक वचपाचो वेळ जाल्लो. गुरुनाथ केळेकाराचो मेजा वयलो शब्दकोश ताकतिकेन उगडलो. तें उतर खुबूच आवडलें. उरफाटी मेजणी. हांवें अणकार केलो. उपग्रिऱ्याची उरफाटी मेजणी सुरू जाल्या. म्हाकाच हें उतर खुब्ब आवडलें.

वृत्तनिवेदकाक बातम्यां विशीं जितलें खोलायेन खबर आसता तितल्याच प्रमाणांत तो आत्मविश्वासान वाचूंक पावता. नरसिंह राव प्रधानमंत्री आसतना देशांतर्गत बांदावळीचें क्रायॉजॅनीक इंजीन ह्या शब्दाचो अर्थ आशिल्ली एक बातमी कांय दीस घोळटाली. तेन्ना इंटरनॅट येवंक नाशिल्लें. हांवें ग्रंथालयांत वचून ज्ञानकोश चाळ्ळे. क्रायॉजॅनिक्स हो भौतीकशास्त्रांतलो उण्या तापमानाचो अभ्यास करपी एक फांटो ही गजाल समजून घेतली. त्या इंजिना विशीं आनीक इल्लें वाचन केल्लें. त्या दिसा सावन हो शब्द बातमेंत उच्चारतना एक वेगळोच आत्मविश्वास तातूंतल्यान फांकता हें म्हजे म्हाकाच जाणवलें. अश्यो कितल्योश्योच देखी दिवं येत.

म्हजे घरचीं म्हजें साहित्य वाचतात शीं नात. म्हजे टिवी प्रोग्राम पळेतातूच शीं नात. म्हज्यो रेडियो खबरो मात केन्नाच आयकनात. वयल्यान अपडेट रावपा खातीर हांव बारकेलो ट्रांझिस्टर लावन आयकूंक लागन जाल्यार म्हाका दुसरे कुडींत वा माळयेर बी वच म्हण शिटकायतात. तांकां तो 'बोवाळ' आवडना आसत वा सोंसना आसत. रेडियो माध्यमाचे देंवपी लोकप्रीयतेची सुलूस आनी हेर माध्यमांच्या चमचमपी मोहजाळांतलें गुरफटप हांची सुलूस म्हाका हाचे वयल्यान होलमता.

आनी निमाणें परतून एक फावट कांय मुखेल (मुकेश) खबरो(री) -

कोंकणींत एक पत्रकारिता उतरावळ आसप ही काळाची गरज. रेडियो, खबरांपत्रां आनी टिवी हांकां हाची तान आसा.

बातम्यो कितल्यो विवीधतायेन, रंजकतायेन, सुटसुटीतपणान बरोवन कितले बरे तरेन सादर करूं येतात हाची मर्याद म्हणल्यार मळब.

बातम्यांचें विश्व तकले वयले 'एण्टेने' जागृत दवरपी आनी सदांच विद्यार्थीपण बाळगुपी शिकपी अभ्यासू न्यूसकास्टराक दर दिसा भितरल्यान वाडयतात.

कोण आयकता, कोण आयकना ती चिकित्सा नाका. म्हज्या कर्मयोगा कडेन निश्ठा राखून हांव सदांच आनिकूय कितले बरे तरेन बातम्यो दिवं हे खातीर धडपडत रावतलों.

(चत्राय: म्हज्यो खबरो तुवें जर केन्नाय चुकून गाड्यार वा हॉटॅलांत लेगीत आयकूंक नात जाल्यार त्यो एकदां तरी आयक आनी ते उपरांत हो लेख परत वाच.)



# 20. मोबायल: एक पेंपारें

म्हजे वळखीचो एकलो बिझनॅसमॅन आसा. ताचो मोबायल नंबर पंद्रशेन बदलता काय म्हयन्यान हें समजप कठीण. म्हाकाय कुवाडें पडटालें. हालींच एका इश्टान तें सुटावें केलें.

'तो मरे, घराघरांनी इलॅक्ट्रॉनीक उपकरणां, माक्नां हांची पुरवण करता. म्हणटकच मशीन मोडटकच वा चलना जातकच लोक फोन करून पिडटले हे खातीर हो सादो उपाय ताणें सोदून काडला!'

कितले हुशार लोक पळयात!

आतां ही आनीक एक घडणूक...

दोन स्मार्ट चलयो चलताल्यो.

एकली दुसरेक विचारता,

'तूं कसल्या विशयाचेर पिएचडी करता गो?'

'हांव गो? मोबायल फोनांच्या रींग टोनांचेर आनी डायलर टोनांचे विवीधतायेचेर!'

'तूं पास जायत शें दिसना.'

'थुमेकाल! कित्याक गो बाये?'

'तूं जेन्ना थिसीस सादर करतलें, तेन्ना तुवें बरयिल्लें सगलें तंत्रगिन्यान काळाभायरें जाल्लें आसतलें!'

बसींतली मजा पळयात. बसींत रींग वाजतकच कोणालें पेंपारें वाजता कांयच समजना. घे हाल! आब्रूज जावन एकामेकांक पळेत रावतात. एकाच वांगडा दोन-तीन पेंपारीं वाजतात. तरतरांचे आवाज... कोणाली हिंदी गीत-धून, कोणालें

मंगलाश्टक कशें, कोणालें शेवणें चिंवचिंविल्ले भशेन, कोणालो टोन हुंदीर चिड्डून वळवळटकच किळचेता तसो, कोणालो टोन नाचाचे लयेचो... नाना तरा! बसींत फोन वाजतकच आनीक हाल जातात ते अशे- स्टिरियो घणघणत आसता, कर्कश आवाजांत. बसीची घरघर चालू. लोकांची बडबड. ह्या बोवाळांत रींग वाजतकच फोन घेवन उलयतलो कसो?

तरिकूय कांय जाण बोबो मारिल्ले भशेन उलयत रावतात. आड्डत रावतात म्हणप समा. असोच एकलो बसींत गगनभेदी किलांट्यो मारीत बजबजतालो. सोंसूं नजो जावन हांवें ताका शिटकायलें-

'बाब रे, तुजो आवाज ताका हांगाच्यान डायरेक्ट आयकूंक येता आसतलो... फोनांतल्यान कित्याक आड्डता?'

सोमतोच ओगी पडलो.

हालींच लंडनांत रावपी म्हजो एक गोंयकार इश्ट आयिल्लो. ताणें एक गजाल मुजरत सांगली.

'भारतीयांक घरांत, बाजारांत, बसींत, फोनार खंयूय... व्हडल्या व्हडल्यान उलोवपाची संवय. मोबायलाचेर लेगीत उलयतना ते कित्याक किळचेतात कळना.'

'म्हाका एक सांग रे! थंय लंडनांत तुका मोबायलाचेर बजबजत रावप्यांचो वीट येना?'

ताणें वेगळेच शैलींत सांगलें तें अशें-

'वीस वर्सां आदीं पयलेच खेप हिथ्रो विमानतळार देंविल्लों, तेन्ना ते गोरे लोक एकामेकांच्यो उकतेपणान पापयो घेतात तें पळोवं नजो जाल्लें. दोळेच धांपले हांवें! पयर गोंयांत येतना त्याच विमानतळार पळेलें - आयजूय ते पापयो घेतूच आसात. पूण कोणाल्यो? ह्या मोबायल नांवाचे प्लास्टीक डबयेच्यो. फुतफुतत आसतात...'

पॉज घेत अकस्मात ताणें मुखार सांगलें - 'देव आसा हाची खात्रीच पटली!'

'कित्याक रे सायबा?' हांवें अजापान विचारलें.

'जे तरेन गोंयांत भर बाजारांत आनी हमरस्त्यार भूज आनी कान हांचे मदीं चिड्डून मोबायलाचेर लोक उलयतात आनी तेय स्कुटर चलयतना. ते तरेन दिसाक

सरासरी फकत एकलोच अपघातान मरता हाचे वयल्यान त्या कृपाळू ईश्वराची दया कितली आसा हें कळटा...'

हांवें सांगलें, 'एका तेंपार पणजेच्यान मडगांवां लॅण्डलायन फोन करपाक ट्रंकॉल एक्सेंजी कडेन मागचो पडटालो आनी अर्दवर ते खातीर वाट पळोवची पडटाली. आज अतिरेक जालाा हें खरें!

कांय जाणांच्या हातांत दोन-चार मोबायल आसतात. कुंडय रस्त्या कुशीक कुल्ल्यो विकपाक उबे रावतात, तांचे भशेन हांची गत! तरातरांचे दोन-तीन मोबायल कुल्ल्यां भशेन हातांत, बोल्सांत, पॅण्टीच्या पट्यांत आसतात. वाजतकच खंयचो वाजला हें समजुपाक तांचीच धांदल.

एसएमएसांचें पिशें तर वाडत आसा. कशे तरेन गिरायकांक लुटचें हाचेर कंपन्यो, माध्यमां, दीसगत येवजीत आसतात. टिवीचेर गायकांची निवड एसएमएस मतदान पद्धतीन आसूं वा ताजमहाल हें संवसारीक अपरूप राखपाक आसूं, एसएमएसांचो शिंवर आनी लूट चालू.

बिझनॅसमॅन आसूं, आदवोगाद, दोतोर, इजनेर आसूं, नुस्तें विकपी कामणें आसूं ना जाल्यार इश्कोलाक वचपी ऐश्वर्या आसूं, तांचे कडेन हें पेंपारें आसताच! आपणें खंय, केन्ना, कितलें उलोवचें, भोंवतणच्या लोकांक ह्या ध्वनी प्रदुशणाचो त्रास जाता काय कितें हे विशीं कोणाकूच पर्वा आसना! जिणेंतलो बोवाळ आनी कुलकुलाट हरशींच उपाट वाडला. तातूंत भर पडत आसा.

तुजो मोबायल नंबर कितलो अशें विचारतकच हांव ताका असलें पेंपारें वापरिना, बाळगिना अशें प्रांजळपणान सांगतां.

हाचीं कारणां अशीं-

एक तर तो नाका तेन्ना अवेळीं पिडटलो. मोबायलाचेर कॉल करतकच तूं स्कुटरीचेर आसा, काय आनीक खंय हें विचारपाचें हांकां धंगण आसना. ताची उलोवपाची आगगाडी सुरू!

मोबायल आसा म्हण सांगशी जाल्यार ताचेरूच प्रस्नांचो शिंवर: कसली कंपनी, प्रिपेड काय पोस्टपेड, कॅमेरा आसा, एफएम रेडियो आसा, कसलो मॉडॅल...

तात्पर्य ह्या मोबायलान जीव खालो रे बाबा!

टायम्सा‌चेर वाचिल्ली गजाल ही! मुंबय घडिल्ली. लोकल ट्रेनींत पयलींच घे गर्दी. तातूंत आनीक गर्दींत आनी गर्मींत मोबायलाचेर कोणूय भरभरतकच बाकीच्यांक कितलो त्रास जातलो, कल्पना करात. एकलो भाजीवालो आपले बंबईया ताबडे हिंदींत आपल्या वांगड्याक आड्डून आड्डून मोबायला वरवीं सुचोवण्यो दितालो. भोंवतणच्यांक भिरभिरी मारिल्ली. हाची बडबड सोंपच ना. ह्या संवसारांत सांगून कोणूच समजना, सुदरना. इतल्यान असहाय जावन एकल्यान युक्ती काडली. आपलो मोबायल काडलो, बेठोच नंबर दामिल्ले भशेन केलें आनी त्या बडबड्याक आडखळ गेतली, ताचे कान बसतले अशे तरेन व्हडल्यान 'संभाशणात्मक' आड्ड्यो मारूंक सुरवात केली! भाजीवाल्यान तत्काळ मोबायल बंद केलो. करचोच पडलो. गुपचूप!



# 21. राव रेय...

हार्लीसराक व्यायाम करपाचें एक फॅड आयलां. जॉगींग, धांवप, चलप, दोरयां वयल्यान उडक्यो. योगासनां, सायकलींग, पेंवप, जीम... तंदुरुस्त, घटमूट उरून कॉलेस्टॅरॉल बी उणें करपाक हे उपदव्याप चलतात. हांव व्यायाम करिना. कारण हांव दीसपट्टो भौशीक येरादारी बसींतल्यान प्रवास करतां. खाजगी बसींतल्यान उबो रावून केल्लो 'त्रास' पोर्ट तर विचारुंकूच नाका. योगाभ्यासांत नात तीं लेगीत 'आसनां' अवयवांक आपसूक घडटात, राव रेय... म्हणटकच धडपडत कडकडत मुखावयल्यांक आदळप-आपटप; फाटीं वच, मुखार हाल, भितर 'सालांत' वच, शिरेन उबो राव ह्या आदेशांक गचमुड्डेंत पाळो दितना खूब गजाली शिकूंक मेळटात. भुरगेपणांत कारेरीन प्रवास केल्ल्याची मातशी याद जाता. तांचे पत्रे दाट दाट आसताले. फोंडकुलांतल्यान वतना वी मजाच शी दिसताली. फेरीबोट कशी थोलताली. झाडां-गोळणे-मनशां हे सगले 'स्टॉप' आसताले. घरांतलो मनीस कपडे न्हेससर ती वाट पळेताली.

मध्या गोंयांत आसात त्यो खाजगी बसी, मिनी बसी आनी कदंबाच्यो सरकारी बसी, पळयल्यार बस प्रवास सुसह्य जावप हें नशिबूच. बसींत जिणेचें दर्शन घडटा. यथार्थ वास्तव. जितें तट्टटीत. लालित्य आनी विवीधताय हांकां अंतूच ना. मात पळयतल्याची रसीकताय प्रवासाच्या दगदगांत खंयच शेणूंक फावोना. तरातरांचीं मनशां. सवंगां. सॅम्पलां. तरेतरेचे रंगयाळे भेस. तांकां पळोवनूच तांच्या अंतरंगाचे एक्सरे काडपाची कळाशी शिकपाक अणभव लागता. तात्पर्य- संगीत मावार वसां बस प्रवास करचो पडटा.

कांय जाण झांक झांक झांकतात. भोंवतणीं बाकीचे आसात हाचें भान आसना. धंगण कोणाकूच आसना. थोडे 'इम्प्रॅशन' मारपाक मोट्यामोट्यान इंग्लीशींत उलयतात. व्याकरणाचो दिसा उजवाडे खून जावं मागीर! कांय बायलो जगा वयले धवळे करतात, ऑफीस सुटलें तरी मनांतल्यान सुटिल्लें आसना. थंयच्यो खबरी, वांगडाच कर्मचाऱ्यांच्यो वैयक्तीक खाजगी गजाली आनी हेर चकाटां, धुवण्यो चालू आसतात.

कांय गजाली दोळे धांपून चुकोवं येतात. पूण कानांक गा गुड्डे कशे मारतलो? केन्नाय कोणूय मातशी वळख आशिल्लो तुजे म्हऱ्यांत बसकण मारून बसलो काय त्रासांत पडलोच म्हूण समजुचें. ताळतंत्र नाशिल्ल्यो गजाली, सवथळ प्रस्न, बेकारथवया भशेन मुलाखत घेवन तो तकली फोडटा, जीव साप अस्वस्थ करून सोडटा. केन्नाय चुकून अपुरबायेचे इश्ट मेळ्ळ्यार मात बसीचो प्रवास सर्गीच्या सुखाचो अणभव थारता. असलो सांगात वा वांगड तसो क्वचितूच! तेन्ना प्रवास केला अशें जाणवच ना.

हालींसराक 'मोबायल' नांवाचें आनीक एक फॅड आयलां. कोणाल्याय गळ्यांत, पर्सीत, बॅगांत, हातांत, बोल्सांत हो सॅल-फोन आसता. कोणाचें पेंपारें वाजता तें कुलकुलाटांत कळपाक मार्ग आसना. काचाबूल जावन सगलेच एकामेकांक पळयतात. आपापलें सामान सांसपितात, तरातरांच्या आवाजांनी रडपी तें खेळणें काडून मागीर मळब भेदपी आवाजांत उलयतात. मोट्यामोट्यान. कारण स्टिरियो, लोकांचीं चकाटां, बसीचो घरघर हातूंतल्यान ताका आपलो आवाज चडोवचो पडटा. आपूण कितलो वेळ कसल्या नगण्य आनी बास्कळ विशयांचेर भौशीक सुवातेंत उलयतां हाचें ताका पडुंकूच नासता. परवा आसना. तशी बसींत कोणाकूच कोणाचीच परवा आस्ना.

शुद्धलेखन, व्याकरण, स्पॅलींग आनी सुंदर अक्षरां काडपाचे अकलेचो उणाव ड्रायवरा फाटल्यान वयर बरयिल्ल्या मजकुरांत आसता. देखीक : No Spiting (खरें - Spitting - थुकप). No Smocking - (खरें -Smoking -धुम्रपान), No Admision (खरें- Admission - प्रवेश).... नाटकाचे फालींत प्रेक्षक भरचे तशे शोफेराच्या कॅबिनांत प्रवासी चिरंगटिल्ले आसतात आनी शोफेर सिगार ओडीत धुंवर वाऱ्याच्या झोतान फाटल्यान प्रवाशांचेर सोडीत आसता ही गजाल

अलाहिदा!

बसींत कितल्या तरांच्या आवाजांचें प्रदुशण जाता हें ध्वनीशास्त्रज्ञ वा ॲकुस्टीक इंजनेर लेगीत सांगूंक शकचो ना! वासांची भरसण तर सोंसपाची न्हय. दरवळ, परमळ, सुगंध, दर्प.. सगलें! घामसाणी, उपसाणी, दर्बटाणी, हिंवळाणी, सोरो-गुटखा-तंबाकू हांच्या मिश्रणाचो पोटांत धवळावन ओंकूंक हाडपी वास, खूब तेंप न्हावंक धुवंक नाशिल्ल्या कश्टी बुरश्या घांटी कामगारांचो वास ही एक बाजू. केन्नाय विदेशी चेराचो घमघम, जायो आनी फुलांचो गोड सुवासीक परमळ, फळांचो वास, टिफिनांचो वास, न्हावन धुवन केंस चपचपीत केल्ल्या वासाळ तेलाचो, डिझलाचो धुंवराचो, मातयेचो, पांयतणांक लागिल्ले हळशिकेचो... थंडी जावन नाक चोंदिल्लें आसल्यार सुटलो. नाजाल्यार नाकाक हो परम व्यायाम घडटा. बसींत हालउपाद्रे, उपद्रव जातात ती वळेरी तशी बरीच लांब. कांय ठळक अंश अशे: म्हच्यांत बशिल्ल्या मनशान तुजो पेपर मागून वा मागिनासतना ओडप, म्हच्यांत बशिल्ल्या मनशाक बसींत पावना फुडें न्हीद, झेम, लकणी येवन तो तुज्या आंगार लंवडप, म्हच्यांत बशिल्ल्या मनशान अर्दांमदीं बेठोच तुका तेळप वा पळयत रावप, म्हच्यांतल्या मनशाक ओंकूंक येतकच ताणें हक्कान तुजें जनेला कडचें सीट बळकावप, गुटखा-तंबाखू-पान खावप्यान मर्दीच जनेलांतल्यान बाकीच्यांचेर लंवडून भायर थुकप, थुकतना पिंकेचे तुशार प्रवाशांच्या आंगार पडप, धंगण नाशिल्ले लोक बॅगां वयर दवरतात तीं तकलेर पडप, गणभेस नाशिल्ल्या काणाक्टरान तिकेट दिनासतना पयशे फारीक करूनूय परत परत तिकेट काडली काय म्हण विचारप, काणाक्टर वा क्लिंडर हांचीं बुरशेपणां - केंसाचे चोंवडे, वाडायिल्लें खाड वा 'वास' हांची ॲलर्जी सोंसना जावप, बस ल्हवू ल्हवू वता तेन्ना वा मर्दीच मोडणें मारिल्ले भशेन सगल्यांक सायड मारून अती वेगान वता तेन्ना स्पिकरांचे बोबेक लागून निशेध प्रगटावंक मेळना जावप.

कोणाच्याय पासियेंसाची कसोटी आनी सत्वपरिक्षा घेवपी बसी असलें साधन ना. जिणेचें परिपूर्ण दर्शन घेवपाक आनी जीण संपूर्ण भोगपाक गोंयचे एकें तरी बसींतल्यान प्रवास करंकूच जाय. ॲर कण्डिशण्ड गाडयांनी भोंवपी भुरग्यांक जिणेचें

धकेचपाटे वा हुलप पळोवपाक बसीचो प्रवास आवयबापायन घडोवपाकूच जाय. लेखकान हर्स्तीदंती मनोऱ्यांनी बसनासतना अदींमदीं बसीन भोंवचें नाजाल्यार बरोवपाक तांकां नवे नवे विशय कशे मेळटले? पात्रांक कसो पिंतारतलो? लोकप्रतिनिधींनी बसीन प्रवास करचो. सामान्यांचे दगदग समजून घेवपाक. जण एकल्यान भौशीक येरादारीचो अणभव घेवचोच. मातसो शाणो जावपाक-सोंशीक मनीस जावपाक!






# 22. भाशण श्रवण : एक ख्यास्त

पावसाचे घोंगे नितकेच सुरु जाताले. आजी पुरुमेंताच्या निमाण्या वावरांत मग्न ज्ताली. गांवटी कांद घरांत येताले. तांची पात कुसकुशीत आसताली. देखून तणाच्यो तायट कडक काडयो भरसून, कांद्यांच्यो मोवळ्यो विणये भशेन विणून त्यो दांडयांचेर हुमकळायताले.

हो वावर चलतना नाका आशिल्ल्या पातयांची रास कुशीक पडटाली. तातूंतल्यो पातयो आमी भुग्गीं काडटालीं आनी पोले फुगोवन फूक मारून त्यो फुलयतालीं. उपरांत दोनूय हाताच्या तळव्यां मदीं धरून तीं फोडटालीं. ठो! बरोऽऽ आवाज जातालो!

कोणूय कोंकणी मनीस भाशणाक उबो रावन व्हडाव्हडान उलोवंक लागतकच ताच्या गळ्याच्यो शिरो अश्योच 'त्या' कांद्या पातयां भशेन फुगतात, तट्टट्टात आनी ताणटात. हरशीं सोड, ह्यो रगता शिरो 'भम्स' करून फुटत जाल्यार रगता शिळकी आंगार वी उसळची ना मूं अशी भिरांत दिसता! पयल्या दोन रांकांनी बशिल्ल्यांचेर हें टॅन्शन चड आसता!

भाशणाक थोडे वक्ते आवाज कायच्चेकाय, विचित्रूच लायतात! वेगळेंच तरेचीं कृत्रीम मॉड्युलेशनां घेतात. मदच्या उलोवपांतली सहजताय तातूंत आसना. विचित्र कुंकारं कशे नाद, हेळे, चडउतार, फोर्स हे भाशणगंगेंत आसतात. कोंकणी उलयता काय आनीक कितें हे विशीं संभ्रमूच जावचो मागीर! ह्या भाशणकारांचेर थोडोभोव गोंयच्या इतिहासीक नाटकांचोय प्रभाव आसूं येता. देखून चडश्या वक्त्यांचो आवाज तार सप्तकांतल्यानूच सुरू जाता!

भाशणां 'अभ्यासपूर्ण' आसतातूच अशें ना पूण 'अभ्यासपूर्व' आसतातूच आसतात! मागीर आयकतल्यांची बरी करमणूक जाता. हांसपा खातीर वेगळें कितेंय वाचपाची, पळोवपाची वा आयकुपाची गरज उरना. देखीकः एकदां एक लेखक भाशणांत सांगी : नामदेवान दासबोधांत एके सुवातेर सांगलां 'त्याला पाहिजे जातीचे!'

वाचनशुन्य वक्त्यांच्या भाशणांनी नवें आनीक कितें आसतलें? त्योच देखी, तेच शब्द, तेच दृश्टांत वा काणयो. थोड्या वक्त्यांक दोन-चार देखी वा काणयो खबर आसतात. त्यो काणयो हे वक्ते घोळोवन घोळोवन थळ, काळ, संदर्भ पळेनासतना खंयूय ठोकतात.

काळ्या पाणयाची ख्यास्त परवडली गे सायबा! पूण न्हय भाशणां आयकुपाचीं दंडणां! सुवाळ्याच्या आयोजकांक माचयेर कितल्या वक्त्यांक बसोवप हाचें धंगण आसना. प्रसंगावधान राखून कितलें उलोवचें हें वक्त्यांक कळना. आयकुप्यांच्या पासियेंसाची परिक्षाच लागता.

एकदां एकल्याचे साठीक वचपाचो योग आयलो. माचये वयले जालेच, माचये भायल्यान, फालींतल्यान लेगीत वक्ते येवन उलोवंक लागले. एकलो त्या 'बर्थडेबॉया'च्या एका तासाची वळख करूंक येवपाचो आशिल्लो. ताचे पयलीं वळख करून दिवप्याची आनीक एकल्यान वळख करून दिली. वळख करून दितकच एकलो त्या वाडदीस विराचें गुणगायन आनी महिमा इतल्या अलंकारीक उतरांनी सांगूंक लागलो कीं आयकून घुंवळ येवची.

विटून हांव उटलों आनी कडसरलों. तेन्ना सावन असल्या दबाज्यांची हांवें धास्तीच घेतल्या. अणभवशुन्य वक्त्यांक हाका ताका 'कोट' करपाची संवय आसता. थॉरोन अशें सांगलां, एमरसन अशें म्हणटा, आनी रसॅल अशें म्हणटा. हो कांयच म्हणिना?!

कोंकणी चळवळ तेंगशेक पाविल्ली तेन्नाची ही गजाल. एक लेखक पणजे एके सभेंत उलयतालो, 'बंगाली भासशास्त्री दिब्देंदु दास हांणी लेगीत भाशेचीं जीं लक्षणां सांगल्यांत, त्या आदाराचेर कोंकणी ही स्वतंत्र भास हें सिद्ध जाता!' भाशण सोंपतकच ताका वचून हांवें विचारलें - 'दिब्देंदु दासाचें बरप मातशें दाखय आं म्हाका!'

'ह्या नांवाचो विद्वान कोणूच ना रे! ठोकून दिलें. ह्या ढद्ढोबांक कळटा माती...'

सीर कहाँ, पूँछ कहाँ... अशा आशयाची एक हिंदी ओपार आसा. अती वाचन आशिल्ले वा ओव्हररिडींग केल्ले बुदवंत, व्याख्यानांनी खूब खेपे मुद्दो सोडून व्हांवतात तेन्नाय यातना सोसूं नजो जातात! हमरस्तो सोडून हांची गाडी शेतांत, मळार, दोंगराघळींनी वचत आसता.

एक आशिल्लो कुशळ वक्तो. ताचो सगल्यांत व्हड गूण - तो पांच मिनटां भितर भाशण सोंपयतालो. देखून कसलेय कार्यावळीक ताकाच मुखेल सोयरो म्हूण आपयताले. एक दीस ताका अशेच एके कार्यावळींत आपयिल्लो. घे गा! हाचें भाशण लांबपाक लागलें. पांच मिनटां जालीं, धा जालीं, पंदरा मिनटां जायना फुडें आयोजक ताच्या कानांत फुतफुतलो - 'कितें जालां रे तुका आज?' ताणें भाशण अकस्मात सोंपयलें. उपरांत त्या वक्त्यान आयोजकाक प्रांजळपणान सांगलें - 'भाशण सुरू करिनाफुडें हांव सदांच जिबे सकयल 'पोलो' पिपिरमीट घालतालों पिपिरमीट विरगळून सोंपना फुडें भाशण सोंपयतालों. आज चुकून कोटाचो बुतांव घालो दिसता...'





मुकेश थळी

## उजवाडाक आयिल्लें साहित्य

- **वळेसर** ( निबंदां झेलो )
- **बच्चेंद्री पाल** ( भुरग्यांच्या पुस्तकाचो अणकार, नॅशनल बूक ट्रस्ट)

- कोंकणी–इंग्लीश शब्दकोशाचे सहलेखक.
- इंग्लीशींत आनी कोंकणींत कथांचो अणकार.
- एकांकी आनी नाटकां बरयल्यांत.

तुमी बरोवप करिनासतना जियेवंक शकतात जाल्यार बरोवं नाकात.

\- रिल्के




खोर्लीं, तिसवाडी - गोंय.